**PADBIMB**

A collection of essays

**पडबिंब**

**दीपा मुरकुंडे**





प्रकाशन क्र. १७

पयली उजवाडावणी : एप्रील २००२

उजवाडावपी
श्री हरि प्रकाशन
३८९/अ शांतिनगर
आकें-बायश, नावेली, गोंय ४०३ [illegible]






अक्षररचना
[illegible] ग्राफिक्स, मडगांव

छापणावळ
प्रिंटआर्ट ऑफसेट प्रिंटर्स
कुंडय, गोंय

कवर चित्र : वासू

मोल : रु. ४५/-



कोंकणीच्या मळार वावरूंक उर्बा दिवपी
भौ. उदयबाब भेंब्रे हांकां नमळायेन...

दीपा

# मनोगत

पडबिंब - म्हजे जिणेंतल्या अणभवांचें पडबिंब. कांय निबंद रुपांत तर कांय लेखांच्या रुपांत. व्यक्तिगत आनी समाजीक मळार आयिल्ल्या अणभवांचें शब्दरूप म्हळ्यार हें पुस्तक - पडबिंब. समाजीक प्रस्न म्हाका सतायतात आनी हांव लेखणी सकयल दवरून समाजीक प्रस्न सोडोवंक वावुरतां. पूण थंय यत्नाक बळगें मेळटा तें उतरांनी पिंतारिल्ल्या वास्तवाचें - निबंद वा लेखरुपान केल्ले बरपावळीचें. लेखणी म्हजे प्रस्न, विचार, उत्फर्के लोकांमेरेन पावयता. अशे तरेन समाजीक वावर आनी लेखणी एकामेकांक पूरक जाता.

पडबिंबांत कांय कडेन पडबिंब आसा तें भौ. रवीन्द्र केळेकार हांच्या 'समिधां'तल्या कांय लेखांचें. 'बबलू ब्ल्यू फिल्म पळयता?', 'लडेंगे तो बचेंगे', 'अति सर्वत्र वर्जयेत', 'हजबण्ड्स् होते ही ऐसे हैं', 'मोनी किळांच' हे लेख वा निबंद भौ. रवीन्द्र केळेकारांच्या विचारीक 'एक्शन'चेर जाल्लें म्हजें 'रिएक्शन'.

वाचप्यांक 'उमजणी' कथांझेलो वाचनीय दिशिल्ल्यानच तांच्याच बळग्यार 'पडबिंब' उजवाडावचेली धिटाय करतां. 'पडबिंब' ही एक उत्कृश्ट साहित्यकृती नासत, पूण वाचप्यांक मनरिजवणे वांगडाच विचार करूंक लायतली अशी साहित्यकृती थारतली, अशी आस्त बाळगितां.

हें पुस्तक उजवाडावंक म्हाका आदार करप्यांचे, अक्षर जुळणी करपी तन्वी ग्राफिक्सचे धनी भौ. राजेश भाटीकार, छापपी प्रिन्टआर्ट ऑफसेट्चे भौ. उमेश वागळे, चित्रकार वासू ह्या सगळ्यांच्या हांव उपकारांत आसां.

**दीपा मुरकुंडे**

# पडबिब

## मांडावळ

१.

# मोनी किळांच

आनी ती मोनी किळांच म्हजें काळीज चिरीत गेली... थरथरत्या मनान हांवें त्या गुपाट काळखांत पळोवंचेलो यत्न केलो. कोणाची ही मोनी किळांच? कोणाची काय? नक्कीच कुमारी मातांच्या गर्भांची आनी भुरग्यांची. इतल्यांत म्हाका, तो पांडवांनी सूतपुत्र म्हणून हिणसायल्लो, दुर्योधनान अंगराज म्हणून घोशीत केल्लो, तो दिसलो. हय, तोच तो... राधेय... कुमारी मातेचो कौन्तेय! कुमारी मातांच्या भुरग्यांचें प्रतिनिधित्व करपी कौन्तेय!

''म्हजें काळीज थरथरावपी ही मोनी किळांच तुजी?''

म्हज्या प्रस्नाक ताणें हांसत जाप दिली, ''न्हय, ही मोनी किळांच म्हजी न्हय. हांवें मोनी किळांच मारचेलो प्रस्नूच येना. हांवें तिका स्पश्ट उतरांनी सांगलां - ''आवय न्हय तूं, दुस्मान... दुस्मान.''

कुमारी मातांनी आपले गर्भ वा भुरगीं भायरायल्ल्यान तांणी तिका स्पश्ट सांगलां, ''आवय न्हय तूं, दुस्मान... दुस्मान... दुस्मान.''

तशें जाल्यार ही मोनी किळांच कोणाची?... नक्कीच... नक्कीच गर्भजल चिकित्सा करून चलयेचो गर्भ म्हणून कळनाफुडें केल्ल्या गर्भपातांची. त्या गुपाट काळखांत आवयांनी केल्ल्या त्या हजारांनी... लाखांनी चलयांच्या गर्भांकडेन हांव तटास नदरेन पळोवंक लागलें.

''ना, ना, ही मोनी किळांच आमचीय न्हय. आमी मारिल्ली मोनी किळांच मानवाच्या कानांमनां मेरेन पावल्या. कांय अंशी काय जायना, आमकां न्याय मेळ्ळा. The Silent Scream नांवाची एक डॉक्युमेंटरी आमचेर तयार जाल्या. गर्भजल चिकित्सा करून चलयांचे गर्भ जाल्यार ना करपाचे 'सभ्य' समाजांतले निश्ठूर, क्रूर पद्धतीक कायद्यान बंदी घाल्या. कायद्याभायर वचून लिपचोरयां हे गर्भपात घडोवन हाडले, तरी ही जी एक 'फॅशन' जावन पडिल्ली, ती नक्कीच आळाबंदा आयल्या. तीन म्हयन्यांचो पोटांतलो गर्भ व्हळयल्यार जाता, कित्याक तर तातूंत जीव नासता. देखून ती हत्या न्हय, असो जो

विज्ञानान समज करून दिल्लो, तो खरो न्हय म्हणचेलें तें 'द सायलन्ट स्क्रीम' हे डॉक्युमेन्टरींत दाखयलां. तिनूच न्हय, तर दोन म्हयन्यांच्या गर्भाक लेगीत आपणाक आतां मारता म्हणचेलें कळटा. आपलो जीव वाटावंक तो कितें करता आनी कशें करता, ताचें काळीज कशें धडधडटा आनी तो हातपांय हालोवन मरता आसतना तोंड उकतें करून किळांच मारपाचो यत्न कसो करता, तें 'सेव्ह लायफ' हे अमेरिकेंत जाल्ले चळवळींतल्यान 'द सायलन्ट स्क्रीम' हे डॉक्युमेंटरींत दाखयलां. देखून, आतां ही जी मोनी किळांच तुवें आयकल्या, ती आमची न्हय.''

हांव अजापीत जालें. ही मोनी किळांच तांचीय न्हय, तर मागीर कोणाची?

... त्या गुपाट काळखांत म्हाका चक्क कितलींशींच मनशां, कितलेशेच रडवेल्ले, निर्शेल्ले, दुख्खी चेरे - चलयांचे, चल्यांचे, अपंगुळांचे, कांय सोबीत, कांय कुरूप, तरणाट्या चलयांचे, चल्यांचे, कांय दादल्यांचे, कांय बायलांचे, एक आनी दोन न्हय... हजारांनी... लाखांनी... मेजूंक येना इतले चेरे दिसले.

''कोण तुमी? आनी तुमचेर ही मोनी किळांच मारचेलो प्रसंग कित्याक येवचो?'' हांवें विचारलें.

''आमी हाडा-मांसांचीं, मन आशिल्लींच भुरगीं'' - जाप आयली.

''तशें जाल्यार तुमची आवय नक्कीच सवती-आवय आसतली.'' हांवें म्हळें.

''ना, सवती-आवयन केल्ल्या त्रासांची दखल संवसारान घेतल्या. सवती भुरग्यांक किळांच मारची पडना. तांकां सवती-आवयन कितलेंय बरें केल्यार लेगीत, तांची ती सवती-आवय म्हूण कळना फुडें संवसार त्या भुरग्यांचे चुरचुरे करता. त्या भुरग्यांच्या मनाचो आमचेसारको घुस्मटमार जायना.'' तांणी सांगलें.

आमी... आमी आमच्याच आवय-बापायचीं. जे आवयन आपल्या कुसव्यांत णव म्हयने सांबाळ्ळ्यांत, आमकां जल्म दिवंचेले त्रास सोंसल्यात, आमकां ल्हानाचीं व्हड केल्यांत, आमचे कुडीची पोसवण केल्या. पूण आमचीं मनां, इत्सा, आकांक्षा जाणा जावन साप्प पिसुडल्यात, फाफशिल्यात... आनी... आनी तें करपांत तिका दुख्ख तर जावंकूच ना... उरफाटें, आसुरी सुख मेळ्ळां... अशीं आमीं... आमच्याच आवय-बापायचीं, पूण तांकांच नाका आशिल्लीं... The Unwanted.

इतल्यांत एक काळेंच चली आयलें -

''म्हजी माँ गोरीच. पप्पाय गोरो. माँ म्हाका आपले म्हन्यांत घेना. केन्नाच घेना. म्हजेपरस व्हडल्या भाई-ताईची अपुरबाय करता. तीं पळय कशीं गोरीं पिट्ट आनी सोबीत दिसता म्हणटात. हांव तितलें काळें कुळकुळीत. कोणा सारकें जालें देव जाणा म्हणटात

तीं. लोकां सामकार आपल्याक 'माँ' म्हणूंनाका, आपल्याक म्हजी लज दिसता म्हणटा. म्हाका ती खूब खूब त्रास करता, वायट वागयता.''

''पूण हांव तर गोरें, चकचकीत आनी सोबीत. पूण ताई फाटल्यान जल्मल्लें - दुसरेंय चलीच ! हांवें कितलेंय बरें केलें तरी म्हाका दोन उतरां बरीं मेळनात. उरफाटें, सदांच तापोवणी आनी फडफडे.''

''हांव तर आवय-बापायचो पयलो-वयलो चलो. पूण अपुरबायेचो केन्नाच जालों ना. म्हाका आशिल्ल्यो त्यो फकत सगल्या घराब्याखातीर करचेल्यो लागणुको. जल्मभर आवयन आपल्यो इत्सा म्हजेर लादल्यो. आपल्या सुवार्थाखातीर म्हजीं ध्येयां, म्हजीं सपनां मातयेभरवण केलीं. हें नकळत केलें ना... जाणा जावन केलें. म्हजे खातीर आपली कसलीच लागणूक आसा अशें केन्नाच तिका दिसलेंना. आवयन म्हजें मन फाफसून उडयलें, पिसडून उडयलें. म्हजी जीण मुळासावन हुमटून उडयली. म्हाका वापरलो, चक्क वापरलो आपल्या सुवार्थाखातीर.''

''म्हाका वक्लाबगर सारकें दिसना. हांवें वक्ल लायिल्लें माँक आवडना. दोळ्यांचे त्रास आसून लेगीत हांव पयलो नंबर घेतां म्हूण माँ म्हजी तोखणाय करना. पूण लोकांसामकार लेगीत कुड्डो, कुड्डो म्हूण हिणसायता. सोबीत दिसपी भाई 'ढोमो' आसलो तरी ताचीच तोखणाय करता. सगळें बरें बरें ताका आनी म्हाका... म्हाका हिडिसफिडिस!''

एक ना दोन... जल्म दिवपी आवयनूच केल्ल्या आपल्याच भुरग्यांच्या मानसीक छळांच्यो कितल्योशोच कथा आनी असह्य व्यथा...

तांणी सगल्यांनी एकाच सुरान सांगलें -

''बायलमनीस ही कुमारी माता जाल्ल्यानूच आपल्या कुसव्यांतल्यान जल्मल्ल्या भुरग्याक समाजाचे भिरांतेन मोग आनी वात्सल्यापासून वंचीत करता अशें न्हय, बलात्कारीत वा विधवा म्हणुनूय बायल आपल्या भुरग्याक सोडून दिता अशें न्हय, तर घोवाची बायल आशिल्ली जी आवय जाता, तिवूय आपल्या सगल्याच भुरग्यांक मोग आनी वात्सल्य समप्रमाणांत दिना. हांगाय ती भेदभाव करता. आपल्या आवडीच्या भुरग्यांखातीर एके तरेचो न्याय आनी नावडीच्या भुरग्यांखातीर दुसरे तरेचो न्याय अशी माण्णी आवय करता. आपल्या आवडट्या भुरग्यांच्या इल्ल्या इल्ल्या सुखांखातीर लेगीत नावडट्या भुरग्यांचीं मनां फाफसूंक फाटींफुडें पळयना. तांची साप्प उवेखणी करता. आमची ही मोनी किळांच कित्याखातीर जाणा?'' तांणी विचारलें.

''कित्याखातीर?''

''गर्भजल चिकित्सा करून नाका जाल्लो गर्भ नश्ट करचो न्हय म्हूण कायदो करप

सोंपें. तीं नाका जाल्लीं भुरगीं जल्मले उपरांत तांचीय मायेमोगान जतनाय घेयात, तांचीय तोखणाय-अपुरबाय करात, तांकांय ह्या संवसारांत सुखान जियेवंक दियात असो कायदो करून लेगीत कृती घडप शक्य आसा व्हय? 'नाका जाल्लें' म्हणून जल्मून आपलेच आवयच्या आसुरी छळाक बळी पडून, जल्मूयभर मातयेभरवण जीण तडफडत जियेतल्यांची ही मोनी किळांच तेच खातीर - 'प्रेम स्वरूप आई, वात्सल्य-सिंधू आई' म्हणून आवयचे गुण गावप्यांक आमच्या काळजाची धडधड आयकूंक आयली ना म्हणून'', तांणी जाप दिली.

हांवें तांच्या धडधडपी काळजांक कान लायलो. तांच्या काळजांतल्यान मोन्यो किळांची येताल्यो - ''आवय न्हय तूं, दुस्मान... आवय न्हय तूं, दुस्मान.... दुस्मान... दुस्मान...''



२.

# अशीं कशीं काय आमी?

सगळी खरेदी बेगिबेगीन करून हांवें धांवपळ करीत बस धरली. आयज रातीं धा वरांचेर नरकासुरांची सर्त. ती पळोवंक जाय, कामां बेगीन करूंक जाय, हेच विचार तकलेंत आसले. देंवचेलो थांबो आयलो तशें हांव देंवलें. सडसडीत चलूंक लागलें. रस्त्यार पडिल्ल्या त्या व्हडल्या फोणांसरी पावतकूच आंग शिरशिरलें. एखाद्या वेळार रातीकडेन वीज ना जाली जाल्यार ह्या फोणाक लागून कोणाच्याय घरांतलो भविश्यकाळ कसोय बदलूं येता... तो विचार फांफडून उडयलो.

फुडें सरतना पदर नाकाक लायलो. थंयसून चलतना तसोच लावंचो पडटा तो. सोबीत सैमान नटिल्लीं तीं घरां ! पूण जिणेच्या मुळाव्या गरजांचो उणाव... थंय सुलभ शौचालय जाय अशें सगळे म्हणटात. पूण कोणाक वेळ आसा कितें करपाक? आज तर सगळींच जाणां धांवतालीं. ना जाल्यार नरकासुराची सर्त चुकतली. हांव नकळं, हांव धांवतालें काय चलतालें तें. पूण नाकाचो पदर सोडनासलें. शारां खंय कुसत चल्ल्यांत आनी शारां लागचे वाठारूय तांचेकडेन सर्त करतात म्हणचेलें पावला कणकणी जाणवतालें. गटारां नाशिल्ल्यान सांचिल्लें म्हेळें उदक आनी कोयराचो विलो लावपाची सोय नाशिल्ल्या आमच्या वाठारांत सांचिल्ल्या कोयराकडेन पळोवंक कोणाकूच फावनासलें. नरकासुराचे सर्तीक पावंक कळाव जायत हो हुस्को मनाक पडिल्लो. जाण्टे, नेण्टे, तरणाटे... सगळेंच वातावरण कशें उमेदीन भरिल्लें. नरकासुराचे सर्तीचे उमळशिकेन सगळेच कशे फुलिल्ले.

घरा येवन बेगिबेगीन सगळें करून हांव सर्त पळोवंक धांव घेवंक सोदतालें.

'माँ, म्हाका बेगीन वाड आं.' धुवेन फर्मायलें.

'पप्पा बेगीन येतलो मगे?' ताच्या प्रस्नाक 'हय' ही जाप दिवन हांव कामाक लागलें.

'पप्पा आयलो', म्हजी धूव खोशयेन फुलली. बेगिबेगीन जेवन-खावन, घरदार वेवस्थीत बंद करून आमचीं पावलां सर्तीच्या जाग्यार वळ्ळीं.

'घमचे कटर घम्ऽऽ, घमचे कटर घम्ऽऽ' धोल वाजूंक लागिल्लो. गच्च भरिल्ले ते गर्देन आमकांय आस्पावन घेतिल्लीं. धा वरांचेर सर्त सुरू जाली. इकरा नरकासूर आयिल्ले. 'घमचे कटर घम्ऽऽ, कटर घम्ऽऽ कटर घम्ऽऽ'... एक एक नरकासूर नाचतालो. आमी सगळीं कृष्णा परस नरकासुराचीच तोखणाय करतालीं. इतल्यान म्हाका तीं दिसलीं...

हय... अंदू इल्ल्याश्या पावसान आमचो वाडो बुडिल्लो. कांय घरां मातयेभरवण जाल्लीं. कांय दुरगां मोडिल्लीं. कांय घरांनी धोंपरांमेरेन उदक जाल्लें. कितल्याश्याच घरांतले कितलेशेच संवसार हुंवारा लोटार व्हांविल्ले. उंचायेर आशिल्लीं फकत आमचीं चार घरां तितलीं त्या फटक्यांतल्यान वाटावल्लीं. व्हाळ लागीं आसलो खरो, पूण इतल्याश्या पावसांत असलो हुंवार केन्नाच पळेलोना अशें हांगाचे लोक सांगताले. गटारां उसपिलीं नात म्हूण जावंये, वा गटारां पुरोवन बेकायदेशीर बांदकामां केलीं म्हूण जावंये वा कुंभकर्णीय न्हीद न्हिदिल्ले पंचायतीक जागोवंक आमकांय फावूंक नासलें म्हूण जावंये, एके रातीन वाड्याचो नक्सोच बदलिल्लो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं व्हाळांतल्या उदका नेटार व्हांवून वचपी कितलेशेच नग हांवें पळयल्ले. आयदनां... जोतीं... मुस्तायकी ! देव जाणा, कितले उबंत पडिल्ले ! पूण ते खातीर आमी फकत चुरचुरचेलें काम केल्लें. दुर्बळांक पांच पांच हजारांचो पालव मेळिल्लो. गाडयो वाट लागिल्ले, दुरगां मोडिल्ले, पुरुमेंताचें सामान भायर मारचें पडिल्ले मध्यमवर्गीय सगळें सोंसून ओगी राविल्ले. अंदूं घडलें तशें फुडल्या वर्साय घडचें न्हय म्हूण कांयच करूं नासलें. कोणाकूच फाव नासलें.

'होऽऽ होऽऽ होऽऽ'... तरणाटे खोशयेन नाचताले आनी धोल बडयताले. 'घमचे कटर घम्ऽऽ कटर घम् ऽ कटर घम्ऽ घम् घम् घम्...'

इतल्यांत दिसलो तो चलयांचो घोळको. पूण तांचे मजगतीं 'तें एकटें' नासलें. हय, फाटल्याच म्हयन्यांत रस्त्यार एका ट्रका पोंदा पडून अचकीत तें सोंपिल्लें. फोनाचे केबलीखातीर रस्ते खणिल्ले. पावस पडून रस्त्यार चिकचिक जाल्लो. ताचे सायकलीक ट्रक आपटून तें सोंपिल्लें. 'आई, येतां गेऽ' म्हूण गरबा पळोवंक गेल्लें तें चली सासणाचें गेल्लें... केन्नाच परतून ना येवचेखातीर. ती खबर कळटकीर आमीय ते आवयवांगडा दुकां गळयल्लीं. ते आवयचे आनी सोंपिल्ले चलयेचे चुरचुरे करून आमचें काम सोंपिल्लें. खणिल्ले रस्ते, फोणयारे रस्ते सारके करचे म्हूण सरकाराक जागोवंक आमकां फावच नासलें. सुण्यामोलान कितलींशींच मनशां रस्त्यार मेलीं तरी आमकां कांयच करूंक फावनासलें.

'घमचे कटर घम्ऽ घमचे कटर घम्'... एक एक नरकासूर येतालो. व्हडा उमेदीन नाचतालो. लोकूय दाद दिताले.

'तुगेलो चलो येवंक ना?' हांवें शेजरा उबे राविल्लेक विचारलें.

'ना, ह्या दिसांनी पातळिल्ली ती धाम ! तो जोर आनी ते ओंकारे ! ताका हॉस्पिटलांत व्हरचो पडिल्लो. तो साप अशक्त जाला देखून घराच रावला.' - तिची जाप.

'हय, म्हजेय धुवेक तो जोर आयिल्लो. आमीय बी हॉस्पिटलांत पाविल्लीं.' - हांवें म्हळें.

त्या वाठारांतल्या कितल्याशाच जाणांक ते धामीन हॉस्पिटल दाखयल्लें. कित्याक काय तें दुयेंस पातळिल्लें? कोण म्हणटा, झोपडपट्टेक लागून. कोण म्हणटा, वाडटा त्या कोयराक लागून. तो कोयर, ती झोपडपट्टी, सगळेकडेन सांचिल्ली ती हळशीक निटायेर घालूंक आमकां फावच नासलें.

'होयऽ होयऽ होऽऽय', नरकासूराचे सर्तीचो निकाल लागिल्लो. आमच्या वाड्याक दुसरें बक्षीस मेळिल्लें. तांचें नांव घेनाफुडें तो नरकासूर आनी कृश्ण उमेदीन फुडें सरले.

'घमचे कटर घम्ऽ घमचे कटर घम् ऽ घम् घम् घम्...' धोल नेटान वाजूंक लागलो. नाचून नाचून कृश्ण थकिल्ले वरी दिसतालो. नरकासूराची उमेद अजून भागूंक नासली. तो थयथयाट करतालो. कृश्णाचें मुखामळ आतां बाविल्लें. नरकासूरा सामकार कृश्ण उणो पडिल्लो !

खंय तरी मन खंती जालें. नरकासूर करूंक कितलो दुडू खर्चल्लो? कितलो वेळ वगडावल्लो? ती सर्त पळोवंक कितलीं वरां हो इतलो व्हडलो चोमो उमेदीन बसून राविल्लो? ते खातीर आमकां - जाण्टयांक, नेणट्यांक, तरनाट्यांक - भरपूर वेळ आसलो. हुंवार येवचो न्हय म्हूण, धाम पातळची न्हय म्हूण, दुयेंसां जावचीं न्हय म्हूण कितेंच करूंक मात आमकां वेळ नासलो. कितलींशींच जाणां फोणाऱ्या रस्त्यांक लागून मरतात, तेखातीर कितेंच करूंक आमकां वेळूच नासलो.

म्हजें मन खंती जालें... अशीं कशीं काय आमी? अशीं कशीं काय आमी?



३.

# राजकारणाय नमः

त्या वर्सा विधानसभेचे वेंचणुके वेळार वाड्यावयलें वारें राजकारणाक लागून बरेंच तापिल्लें. हरशीं त्या मतदारसंघांत हातूच वेंचून येतालो. पूण त्या वर्सा 'हात करतलो घाऽत' म्हूण चड बोबो आयकूंक येताल्यो. 'तुमचीं मतां दोन पानांकूच' म्हूण घराघरांत प्रचार चलतालो. जनूदाद आनी रंगूबाब शेजारी. तांणी थंय रावंक आयिल्ल्याक विधानसभेच्यो दोन वेंचणुको पळयल्ल्यो. ही तिसरी. तिनशें स्क्वेअर मेत्राच्या प्लॉटांत, धाकटुलीं घरां बांदून रावपी त्या धवाड्या वर्गांतल्या लोकांचें राजकारण म्हळ्यार वेंचणुके पयलीं कोणाविशींच बरें-वायट उलोवप ना. पूण वेंचणुकेचो निकाल लागलो रे लागलो, फुगेटी मारचेल्यो आनी 'आमी मत दिलें आनी वेंचून हाडलो न्हय !' इतलें म्हणपापुरतें आशिल्लें; पूण त्या वर्सा हाताक उडोवन 'दोन पानां'क विधानसभेंत धाडपाची सर्त लागिल्ली. लोक फुरफुरिल्ले.

हरशीं जनूदाद आनी रंगूबाब हाताक मत दिताले. पूण अंदू रंगूबाब कांय कारणान हाताचेर साप्प खुबळिल्लो. ताणें मनांतसावन 'दोन पानां'क मत दिवचेलें थारावन आपल्या घराब्याक तशेंच सांगिल्लें. एका आयतारा दोगूय आपापल्या पोरसांत काम करतना, सहज उलयतां उलयतां तांकां एकामेकांचें मत वेगळें आशिल्ल्याचें कळ्ळें. थंयसावन तांचे जिणेन एक नवें मोडण घेतलें. वेंचणूक लागीं पाविल्ल्यान प्रचार नेटान चलिल्लो. वेंचणुकेक उबे राविल्ले उमेदवार घराघरांनी येवंक लागिल्ले.

केन्ना न्हय तो जनूदाद प्रचारकां वांगडा उक्तेपणान फिरूंक लागिल्लो. रंगूबाबान आपूण अलिप्त रावन आपल्या पुताक 'दोन पानां' वांगडा धाडलो. ते रातीं पुतान रंगूबाबाक सांगलें, 'बाबा, जनूदाद हातवाल्यां वांगडा प्रचाराक फिरता खरो, पूण ताचो पूत आमचे वांगडा 'दोन पानां'क मतां दियात म्हूण सांगूंक फिरता.'

'अब्बा ! जनूलें येदें पुलितिक? दोनूय व्हड्यांचेर पांय दवरचेलें? हात वेंचून आयल्यार म्हणटलो, आपणें प्रचार केल्लो. दोन पानां वेंचून आयल्यार म्हणटलो, आपलो पूत थंय आसलो. हो रंगूय पुलितीक खेळूंक कमी ना.' अशें म्हणत रंगूबाबानय हातवाल्यां वांगडा फिरूंक सुरवात केली.

प्रचाराचे निमणे भोंवडे वेळार जेन्ना हाताचो उमेदवार आपल्या पंगडाक घेवन घराघरांनी वचून मतां मागूंक लागलो, तेन्ना रंगूबाब त्या पंगडांतलो जावन फिरूंक लागलो. जनूदाद मनांतल्या मनांत फडफडटालो. रंगूबाब दोन पानांकूच मत घालतलो म्हणचेली ताका खात्री आशिल्ली.

ताणें रंगूबाबाक आयकूंक येता असो थोमणो मारलो. 'दोन पानांक मतां दियात म्हणपी कांय जाण हाताच्या पंगडांत कशे?'

रंगूबाब मेल्ले आवयचें दूद पिंयेवंक नासलो. ताणें सट्ट करून जाप दिली - 'सकाळीं बापूय हाता वांगडा, आनी रातीं पूत दोन पानां वांगडा वतात तशे.'

जनूदाद आपलें बिंग भायर फुटत म्हूण ओगी रावलो. पूण ल्हवू ल्हवू सगळ्यांच्याच -वेंचणुकेक उबे राविल्ल्या उमेदवारांच्या लेगीत- लक्षांत आयलें, सगळे जाण्टेले 'हाता' वांगडा आनी तांचे तरणाटे पूत 'दोन पानां' वांगडा. पूण त्या शाण्या उमेदवारांनी तोंडांतल्यान ब्र काडलोना. संविधानान प्रत्येकाक स्वातंत्र्य दिलां न्हय ! बापायकूय आनी पुताकूय.

जनूदादाक आनी पर्यायान हाताक शह दिवंक रंगूबाब एक खेळी खेळ्ळो. रंगूबाब हाताच्या पंगडावांगडा वतालो. त्या उमेदवारान घराघरांत वचून आपल्याक वेंचून दियात म्हूण सांगून वतकीर रंगूबाब फाटल्यान रावन तांकां - 'तांगेलें तें ह्या कानांतल्यान आयकून त्या कानांतल्यान सोडून दिवंचेलें हां ! हात करतलो घाऽऽत. तुमचीं मतां दोन पानांकूच' म्हूण सांगीत वतालो.

रंगूबाबाली करणी जनूदादाक उस्तऱ्यां गेली. उमेदवारांक तें नाटक सांगूंक ताका भिरांत दिसली. कित्याक तर, आपल्याक विरोध करपी मतदाराक उमेदवार अचळय आपल्या जाळांत ओडून घेवंक बयर वयर करतालो. रंगूबाबाक चड मान मेळत हे भिरांतेन जनूदाद फडफडत रावलो.

'हात' आनी 'दोन पानां' मजगतीं पेटिल्लो उजो ह्या दोगूय शेजाऱ्यां मजगतीं लागलो. इतलीं वर्सां एकामेकांच्या बारीकसारीक चुकांकडेन दुर्लक्ष करून खेळीमेळीन रावपी ते दोगूय एकामेकांक धारेर धरूंक लागले. दोगांय मजगतीं पडिल्ले तिडीच्या हुलपान तांचे इश्टागतीचो केन्नाच गोबोर केलो. सगळ्यांत पयलीं हावळ आयली ती पोरसांतल्या झाडांचेर. दोगांयच्या घरा मजगतीं एक दुरीग आसलें. दुरगाचे एके वाटेन जनूदादान झाडां रोयिल्लीं, तर दुसरे वटेन रंगूबाबान.

त्या आयतारा सकाळीं रंगूबाब एक कोयती घेवन आपल्या पोरसांत आयलो.

'हें, हें कसलें झाड मातलां तें, आं? ह्या फळांक रूच तरी आसा? हीं उणाक मनशान खावंचेलीं' म्हणत कितें जाता तें कळचे पयलींच ताणें आपल्या पोरसांतलें झाड

फटाफट कापून उडयलें. त्या झाडाची ताळी ताणें जनूदादाकडल्यान पांच वर्सां पयलीं मुद्दम जाय म्हूण मागून हाडिल्ली.

पांच वर्सां पयलीं आपल्याकडल्यान व्हेल्ल्या झाडाक नांवां दवरून मारून उडयल्ल्याचें पळोवन जनूदादय तापलो. तोवूय कोयती घेवन आपल्या पोरसांत गेलो.

'ही, ही भडक तांबड्या रंगाची कसली दसण रे? तिचीं फुलां देवाक घालचेलीं काय देंवचाराक?' म्हणत ताणें आपणेंच रंगूबाबाकडल्यान चार वर्सां पयलीं मागून हाडिल्ली दसण सपासप मारून उडयली.

म्हणटासर दोगांयचें पेटलें - 'तुगेल्या ह्या आंबाड्याच्या झाडाचीं सगळीं पानां म्हज्या तेर्रासार पडटात. त्यो फांद्यो पयलीं काप', जनूदाद आड्डलो.

'आनी तुगेले ते पोपायेचे सगळे दाणारे आमच्या पोरसांत पडल्यार जाता?' - रंगूबाब.

रंगूबाबान आंबाडो बोडकायलो, जनूदादान बरें व्हडलें जाल्लें पोपाये झाड कापलें.

खिणांत पोरसाचें कुरुक्षेत्र जालें आनी जनूदादाल्या दुरगाक तेंकून आशिल्लें चिकूचें झाड, करबिला झाड, केळ धर्तरेर विसव घेवंक लागली, जाल्यार रंगूबाबालें पेरी झाड, बिमलीण, अनंता झाड हांकां वीरगती मेळ्ळी.

हें झूज इतल्यारूच सोंपलें ना. रंगूबाबान आपले बायलेक ऑर्द दिली - 'आयकलां गे, आयच्यान तूं हांगा उदक तापयतली. ह्या दुरगाक तेंकून तीन फातर दवरून रांदन कर.'

दुरगाक तेंकून उदक तापोवंक दवरल्यार ताचो सगळो धुंवर जनूदादाले रांदचेकुडींत वचून तांकां त्रास जातालो. तें समजतकीर रंगूबाबान समजिकायेन बायलेक उदक तापोवचेली सुवात दुसरेकडेन करूंक लायिल्ली. पूण आतां झूज सुरू जाल्लें न्हय!

रंगूबाबालीं तीं उतरां आयकून जनूदाद कित्याक ओगी रावतलो? ताणेंय बायलेक आपयली. 'आयकलां गे, आयच्यान घरांतलो कोयर, नुस्त्या बोडकां, सुंगटांचीं, कुल्ल्यांचीं कल्लां, सगळें हांगा दुरगाक तेंकून उडोवचेलें.'

सुंगटां-कुल्ल्यांचीं कल्लां थंय उडयल्यार दुसऱ्या दिसा रंगूबाबाचे रांदचीकुडींत दोन मिनटां रावं नजो अशी घाण सुट्टाली.

'हात' आनी 'दोन पानां'च्या त्या रणखेवांतल्यान मोनजातूय सुटली ना.

'हाण, हाण रे त्या माजराचेर. दोंकोच मोड ताचो.' जनूदाद आड्डलो आनी सदांच नुस्त्या बोडकां खावंक येवपी त्या माजराचेर आपणेंच सणसणीत तोणको घालून ताचो पांय दुखयलो. लागीं-लागीं पांच वर्सांसावन जनूदादाली घरकान्न त्या माजराक आपोवन नुस्त्या बोडकां घालताली. हुंदीर आयल्यार प्रसंगाक माजराक उबारून व्हरून ते हुंदीर

धरून मारूंक लायताली. देखून माजर बिनधास्त तागेर वावुरतालें. आयजूय बाबडें बिनधास्त नुस्त्या बोडकां खावंक बशिल्लें. कितें जाता म्हूण कळचे पयलींच ताचेर तोणको पडलो आनी पांय दुखावलो. जनूदादालें मन इतल्यार भागलें ना. ताणें माजराक एक दीस युक्त करून धरलें. साकान घालून स्कुटरीवेल्यान व्हरून पयस सोडलें. माजर ना जाल्ल्यान दोगांयच्या घरांत हुंदीर मेकळेपणान वावरून नासाडी करूंक लागले.

आपल्या माजराक थोटें जायसर मारून नाच्च केलें हें रंगूबाब कशें सोंसतलो? पांच-सात वर्सां सावन जनूदादालो सुणो रंगूबाबाल्या फुडल्या दारांत बसतालो. केन्ना केन्नाय थंयच्या उब्या खांब्यार मुततालो. रंगूबाबान सुण्या फाट घेतली. हरशीं ताका सुणो थंय मुतला म्हणचेलें कांयच दिसनासलें. पूण आतां तो एक व्हडलो 'इश्यू' जाल्लो. देखून सुणो फुडल्या दारांत आयलेबरोबर ताचेर बडी पडटाली.

वेंचणुकेचो प्रचार सोंपलो आनी मतदान जावन निकालय लागलो. 'हात करतलो घाऽऽत' म्हणटल्यांनीय बी हात वेंचून आयिल्लो पळोवन वारें आयलां तशें सूप धरलें. तांणीय आपल्या दारांत फुगेट्यांचो गडगडाट केलो. जनूदाद आनी रंगूबाब हाका आडवाद थरले नात. दोगांय जाण वेगवेगळ्या वेळार वचून वेंचून आयिल्ल्या उमेदवाराक मेळून तुरे दिवन आयले. 'तुमच्याच वावराक लागून हांव वेंचून आयलों.' हीं उतरां त्या आमदाराकडल्यान आयकून धन्य धन्य जाले. हातान केल्ल्या मंत्रीमंडळांत हांगेल्या मतदारसंघांतलो हो आमदार मंत्रीय जालो. दीस सरले, म्हयने सरले, दोन-तीन वर्सां सरलीं, तरीय ह्या दोगांय मजगतची दुस्मानकाय सोंपली ना. ते वटेन राजकीय पक्षांची 'संगीत खुर्ची' सुरू जाल्ली. खंयचो पक्ष सत्तेर आसा आनी कोण कोण मंत्रीमंडळांत आसात हें याद दवरूंक लेगीत कठीण जालें.

हाताचें मंत्रीमंडळ आसा - आमदार फुटले - हात पडलो - युती सत्तेर आयली - आमदार फुटले - युती पडली आनी दोन पानांचें प्रतीक म्हणून जीं दोन बोटां दाखयताले, तिंवूय बी 'हात करतलो घाऽऽत' म्हणटल्या हाताचींच दोन बोटां जावन पडली. हात सत्तेर आयलो. रंगूबाबाल्या आनी जनूदादाल्या मदतारसंघांतलो 'हात' आमदार मुखेलमंत्री जालो. दोन पानांवाल्या पक्षाचो फुडारी 'हाता'च्या पक्षाचो उपाध्यक्ष जालो.

- राजकारणांत, मोगांत आनी झुजांत सगळें माफ !

रंगूबाब आनी जनूदाद आयजूय दुस्मानकायेन एकामेकांक फाट करीत, तकलेर हात मारीत, खबरांपत्रांतले 'हात' आनी 'दोन पानां'चे गळ्यांत हार घालून एकामेकांक वेंगावन काडिल्ले फोटो पळोवन मनांत म्हणटात - 'हेंचि फल काय...?'



४.

# गर्व से कहो हम गृहिणी हैं।

'कोंकणी' दिवाळी आंकांतले श्री. महाबळेश्वर सैल हांचे 'झोपय' कथेन म्हाका पुराय अस्वस्थ केलें. हे कथेंत लेखकान समाजमनांत 'रांदप' ह्या कामाविशीं आशिल्ले उणाकपणाचे भावनेचेर बोट दवरलां. लेखक बरयता - 'हांव चिंततालों, इतलो फिशाल हो महादेव राणे, पूण तो रांदपी म्हण कित्याक भरती जाला फौजेंत? रेग्युलरआर्मींत येयल्लो जाल्यार नांव काडटासलो. हांगा रांदच्या घरांत कसलें चीज जातलें ताच्या गुणांचें? एक दीस हांवें ताका विचारलें, 'तूं कितें जेवण चड मेळचें म्हण फौजेंत रांदपी जाला? कितलें उणाक काम हें ! तुवें बरो शिपाय जवान जावन झेतान रावचेलें. कितलो हुशार मरे तूं!'

म्हजो प्रस्न फिशाल महादेव राणे रांदपी जावचे वांट्याचो शिपाय जवान जावंचेलो हो नाशिल्लो. म्हजो प्रस्न रांदच्या घरांत महादेव राणेचे हुशारकायेचें चीज जावचेंना होवूय नाशिल्लो. म्हाका अस्वस्थ करपी प्रस्न आशिल्लो तो - रांदप हें काम उणाक? फौजेंत बरो रांदपी आसले बगर शिपाय जवान झेतान रावंक शकतले? अन्नाक तर 'परब्रह्म' म्हणटात. बऱ्या अन्नाबगर कुडीची पोसवण जातली? 'शरीरम् आद्यम् - खलु धर्म साधनम्' - कुडीच्या माध्यमांतल्यान आमी सगळे धर्म म्हळ्यार धर्म, अर्थ, काम, आनी मोक्ष मेळोवंक शकतात. बऱ्या अन्नाबगर कुडीची भलायकी इत्राडटली आनी आमी कसलींच कामां करूंक शकचींनात. रांदचेलें काम जर उणाक तर ते प्रक्रियेंतल्यान तयार जाल्लें फळ, म्हळ्यार जेवण, 'परब्रह्म' कशें जातलें?

हांव कोश्टक मांडत गेलें - रांदचेलें काम उणाक. तातूंतल्यान तयार जाल्लें जेवण 'परब्रह्म' - तें जेवन शरीर भलायकी मेळोवन सगले धर्म सादूंक शकता. अशें कशें जातलें? जें काम उणाक ताचें फळ उणाक जावंक जाय. ताचे परिणाम वायट जावंक जाय.

हांवें दुसरें कोश्टक मांडलें - रांदचेलें काम उणाक - देखून तातुंतल्यान तयार जाल्लें जेवण उणाक - देखून तें जेवन कुडीची भलायकी इबाडूंक जाय. आमचो अणभव अशें सांगता व्हय? उणाक कामाचो परिणाम केन्ना बरो आसूंक शकता व्हय? ना न्हय? तशें जाल्यार आमचें वैचारिक प्रदूशण जालां. नक्कीच वैचारिक प्रदूशण जालां.

रांदपाचें काम उणाक. घराघरांत तें उणाक काम घरकान्न करता. देखून तें उणाक

काम करपी घरकान्न उणाक. देखून जोडून हाडपी घरकारापरस घरकान्न उणाक. देखून दादल्यापरस बायल उणाक. अशे तरेच्या आमच्या वैचारिक प्रदूशणान आमच्या घराब्यांचें पर्यावरण इबाडून गेलां. मानसिक स्वास्थ्य भंगून गेलां.

घोव आनी बायल हीं संवसार रथाचीं दोन चक्रां. दोगांय सारकींच गरजेचीं. कोणाचेरूय ताण पडचो न्हय म्हणून तर कामाचे वांटे घालून घोवान जोडप आनी बायलेन घर सांबाळप अशी मांडणी. जसो घोव घरच्या सगल्यांखातीर उतळताप काडीत जोडटा, तशीच बायल घरच्या सगल्यांखातीर रांदता, वाडटा, उश्टीं काडटा. घोव-बायलेचें भुरगें बायलेच्या कुसव्यांत जल्म घेता. गुरवारपणासावन भुरगें जल्मुचेली कठीण क्रिया बायलेचे कुडींतल्यान घडटा. तें भुरगें ल्हानाचें व्हड करचेली चडांत चड जापसालदारकी तीच उबारता. आयचीं हीं भुरगीं म्हळ्यार देशाचे फाल्यांचे नागरीक, देशाचे खांबे. येदें व्हडलें काम करपी बायलमनीस घोवापरस उणाक पांवड्याची आसुंयेता व्हय? आनी तरी तिका उणाक लेखली जाल्यार तें वैचारिक प्रदूशण जालें न्हय?

येदें व्हडलें काम करपी बायलमनीस अडाणी आसल्यार देशाचे फुडले नागरीक कुडीची आनी मनाची भलायकी आशिल्ले घडचेनात ही विचारवंतांक आनी समाजसुधारकांक जाणविकाय जाल्ली. देखून बायलेनूय गिन्यान मेळोवप गरजेचें. चल्यांवांगडाच चलीय शिकूंक लागली. चल्यासारकेंच शिक्षणाच्या मळारूय तिणें आपलें कर्तुत्व गाजयलें. आपूण बुद्दीन चल्यापरस खंयच उणाक ना हें तिणें कृतीन दाखोवन दिलें. आपूण घरच्या चार वण्टींनी रावचेले लायकीची न्हय तर आपलीय तांक व्हडली, ही तिका य जाणविकाय आयली. देखून आपणाक दादल्यां वांगडा समान हक्क जाय म्हणचें तिका होलमलें. शिकप घेवन बायलमनीस वेगवेगळ्या मळार नोकरी, कामधंदो करूंक लागली. थंय काम करतां करतां उप्राशिल्ले प्रस्नूय कायद्याच्या आधारान सुटावे जावंक लागले - देखीक, बाळंतपणाची सुटी. रासवळ मळार दादल्यांचीं कामां बायल करूंक लागली. पूण घरांत पावतकीर कितें?

घरांत पावतकीर घरांतलें काम हें उणाक काम अशा वैचारिक प्रदूशणाक लागून दादलोय ताका हात घालिना आनी बायलूय तें उणाक लेखून तें करूंक फाटींफुडें जावंक लागली. अजीविकेचें काम दोगांयनी केल्ल्यान, दोगांय पुरो जावन आयिल्लेकडेन आनी आमी आतां दोगांय जोडकार हे भावनेंतल्यान घरकाम उणाक लेखून तें काम करूंक आतां 'चेडवां' येवंक लागलीं. आदाराखातीर कामाक कोणाकूय दवरप वेगळें आनी सगळो संवसार ताचेर सोडून, जापसालदारकी झटकून वागप वेगळें. तातुंतल्यान आमची 'चेडूं-संस्कृती' जल्मली. रांदप, वाडप, भुरग्यांक सांबाळप आनी ताचें सगळें कितें करप

हें चेडवांचेर निंबून उरलें. शिक्षीत, सुसंस्कृत घोव-बायलांचीं भुरगीं अडाणी चेडवांची संस्कृती घेवन व्हड जावंक लागलीं. आमच्या वैचारिक प्रदूशणाक लागून बायलांनी शिकपा फाटलो मूळ हेतू कुशीक उरलो. आमीच आमचो घात केलो. आमचीं अडेज तीन वर्सांचीं भुरगीं घराभायरीं जावन के.जीं.त वचून एबीसीडी शिकूंक लागलीं. भुरग्याक जोर आयला? आवयक घरा रावंक खंय मेळटा? जोर काडपाची गुळी घाल आनी तशेंच शाळेंत धाड त्या भुरग्याक, अशेंय चित्र दिसूंक लागलें. ह्या भुरग्यांचे मानसिक आनी कुडीचे भलायकेकडेन 'समान हक्क' मेळोवपी आवयबापायक लक्ष दिवंक वेळूय मेळना जालो, गरजूय दिसना जाली. भुरगीं व्हडलीं जातां जातां आवयबापायचें तांचेर समानतायेन लक्ष नाशिल्ल्यान तीं असुरक्षितपणाचे भावनेन वाडूंक लागलीं. तेच वांगडा वायट संगत वा घुंवळी वखदां हांचे भकीक पडलीं. बबलू वा बाय कितलो वेळ टीव्ही पळयता हाचीय वासपूस आवयबापायन समानतायेन केलीना. वयल्यान घरांत बसून टीव्ही पळयल्यारूच बरें अशें दिसूंक लागलें. सरस्वती पूजनावेळार, सरस्वती पूजन सोडून बबलू-बायेन ब्ल्यू फिल्म पळयल्ल्याचें समजतकीर बॉम्बस्फोट जाल्लेवरी आमी उद्ध्वस्त जावंक लागलीं. आमची तरणाटी पिळगी आवय-बापायकडल्यान जाल्ले समान उवेखणेक लागून मनान आनी कुडींन रोगट जालीं. आमच्या वैचारिक प्रदूशणाक लागून जाण्टीं उजू मार्ग सोडून भरकटलीं आनी नेण्टींय बी.

मागीर कितें, दादल्या इतलेच हुशार तांकीचे बायलेन चार वणटींनी चिणून घेवचेलें? ना. तशें करचेली गरज ना. घराभायर काम करूंक वतल्या प्रत्येक जोडप्यान आपल्या घर-संवसाराचेर नदर मारची, चिंतन मंथन करचें. बायलेचें गुरवारपण ते भुरगीं सात-आठ वर्सांचीं जाय मेरेनचो काळ कठीण आसता. आतां चडांत चड दोन भुरग्यांवयर कोण वचना. म्हळ्यार सगलींच धा वर्सां भुरग्यांफाटल्यान रावचें पडटा. आमकां सगलेंच कितें जाय - म्हळ्यार स्वतंत्र अस्तित्व जाय, लग्नूय जाय, संवसारूय जाय, भुरगींय जाय, जोडूय जाय. तशें जाल्यार दोगांयनी तोंकां गांठून उपेग ना. मदलो मार्गूच सोदचो पडटलो. फाटल्या पंचवीस-तीस वर्सांच्या काळांत बायलमनशेनूय घरकाम हें उणाक काम लेखिल्ल्यान आयज खूबशे प्रस्न उप्रासल्यात. मुळांत रांदप-वाडप, उश्टीं काडप, भुरगीं सांबाळप हीं कामां घोवाचे नदरेन उणाक आशिल्लींच आनी भरींत भर म्हूण बायलूय तांकां उणाक लेखूंक लागली. आपूण 'घरकान्न' हीं सगलीं कामां करतां हो अभिमान बाळगून, त्या कामांक लागून 'शरीरम् आद्यम् खलु धर्म साधनम्' हें घडटा, अशे विचार ती घरकाराच्या आनी भुरग्यांच्या मनाचेर ठसयत राविल्ली जाल्यार आयच्या चडांत चड घराब्यांनी घरकाम हें घोव आनी बायल मेळून 'आमचें घरकाम' म्हणून करतात अशें

चित्र दिसतलें आशिल्लें.

घरकान्नीन आपूण बायलमनीस आशिल्ल्याचो गर्व बाळगिल्लो जाल्यार ती गर्भजल चिकित्सा करून खंयचेच परिस्थितींत चलयांचे गर्भ नश्ट करची नासली. घरकान्नीन आपूण 'गृहिणी' म्हूण गर्व बाळगिल्लो जाल्यार ती घरकाम उणाक मानून 'चेडवां' स्वाधीन घर आनी भुरगीं-बाळां सोंपोवची नासली. घरकान्नीन घरकाम हें उणाक मानूंक नासलें जाल्यार आपल्या सांगात्याकूय ती आपल्या कामांत भागीदार करचेलो यत्न तरी करतली आसली. आपल्या चल्याक 'शी! तीं कामां म्हूण चल्यांनी करचेलीं रे? तीं कामां चलयांचीं' वा 'तूं चलो, नुस्तें उजरायता थंय कित्याक? रांदचे कुडींत तुजें कितें काम?' अशें ताका शिकोवन कामाचे वांटे घालची नासली. 'हांव चलो, चलयेपरस श्रेश्ठ' हें वेगळेपण चल्याक शिकोवची नासली.

कांयकडेन जर घरांतली गरज वळखून दादल्यान घरकामाक हात घालत तर 'आंवंय, तागेलो घोव साप्प बायजण'' म्हणचीं नासलीं. घरांतलीं कामां हीं गरजेचीं कामां. तीं म्हत्वाचीं आनी दोगांयनी मेळून करचेलीं अशी नदर दवरिल्ली जाल्यार पंचवीस वर्सां पिरायेचे पुतूय आज धुवां वांगडा आधार करतले आसले. 'पुरुशप्रधान' हें उतर वचून घरांत 'समानता' येतली आसली. आमकां एकदम तोंकां गांठचेली संवंय जाल्या. देखून दादल्यांचें साप्प दुशीत चित्र रंगोवप जाता वा घरसंवसारांत लेगीत इल्ल्या इल्ल्या गजालींक घेवन समान हक्काचो कस लावपाचो विपर्यास जाता. घोव-बायलेच्या संबंधांक वेर येवंक लागल्या. कोणूय एकामेकांखातीर इल्लेंय सोंसूंक तयार ना अशीं चित्रां दिसूंक लागल्यांत. कायद्याच्या बडयांनी घराबे तिगूंक शकतात व्हय? ते मोगाच्या रस्मी धाऱ्यांचे बुनयादिचेरूच उबे रावंक शकतले.

हे सगले फाटभुंयेचेर आमच्या देशाचे आयचे प्रधानमंत्री श्री. अटलबिहारी वाजपेयी जेन्ना 'रांदप' हो आपलो छंद म्हणटात, तेन्ना खोस जाता.

आयचो जमानो हो जायरातबाजीचो आनी घोशणाबाजीचो. घोशणा दिलेबगर कोणाच्याच कानांमनांत कितेंच पावना जाल्यार म्हणचेंच पडटलें : घरकान्नींनो - गर्व से कहो हम गृहिणी हैं ।



५.

# गिरायक राजा

आमचें विजेच्या सामानाचें एक दुकान आसा. म्हज्या घरकारा वांगडा हांव थंय काम करतां. गिरायका बगर दुकान चलना. देखून दुकानदाराक गिरायकाचें म्हत्व व्हड. लेखक जसो वाचकाक देवा सारको मानता, आनी 'वाचको देवो भव' म्हणटा, तसोच दुकानदार गिरायकाक राजा मानता - Customer is the king. दुकान चलोवपी वेपारी जशे बरे, वायट वा फटींग बी आसतात, तेचप्रमाण गिरायकांय तरेतरेचीं आसतात - बरीं, वायट, फटींग, किटकिटीं, फडफडीं. तेशिवाय गिरायकांच्यो आनिकूय जाती आसतात. त्यो म्हळ्यार, गिरेस्त, मध्यम आनी गरीब. दुकानार काम करतना म्हाका बरे-वायट आनी मनरिजवणे अणभव आयल्यात.

आमी नव्यानूच दुकान सुरू केले उपरांत पयलोच पावसाळो आयिल्लो. एक दीस एक गिरायक आयलें. 'पात्रांव, तुजेलागीं माड आहा?'

'माड? आरे, हें विजेच्या सामानाचें दुकान', घरकारान सांगलें.

'विजेच्या सामानाचें दुकान देखुनूच तर विचारतां न्हू, माड आहा काय म्हूण?'

'पात्रांव, तुका नाल्लांचे कवाथे जाय जाल्यार थंय, फाटल्यान एकलो घेवन बसता', हांवें म्हजें गिन्यान प्रकटायलें.

'सायबा भोगोस! म्हाका नाल्लां कवाथे न्हू, माड जाय माड! पिकीपिकी बल्फांची माड!'

आनी ताचीं तीं उतरां आयकून आमी हांसो कसोच थांबोवंक शकलीं नात.

'आरे, अशें सांग, माळ जाय म्हूण', घरकारान म्हळें.

'मागीर हांव कितें इंग्लेज तापोयतालों? हेदोळच्यान हांव तुका तेंच सांगोतां न्हू! माड, माड, माड जाय म्हूण ! कितें रे तूं आनी, कोंकानी सोजमोनाय रे?'

एक दीस पंचवीस वर्सांची तरणाटी आयली.

'बाय, म्हाका साठींचे तीन बल्फ दी'. 'बल्ब' हें उतर चडांत चड लोक 'बल्फ' अशेंच उच्चारतात.

तिणें साठ पावरीचे तीन बल्ब मागले म्हणटकीर हांवें तिका म्हळें, 'बाय, तुका तिनूय बल्ब साठींचेच जाय मुगो? चींत हां, कित्याक तर आमी हांगा बल्ब पेटोवन दाखयतात आनी बरे आसल्यारूच दितात. फाल्यां जर तूं साठीचे नाका, शंबरांचे दी म्हूण बदलून घेवंक येवशी तर तुका ते मेळचेनात.'

'बाय, म्हाका साठीचेच बल्फ जाय' अशें तिणें परतेंय सांगतकीर हांवें म्हजेकडेन आशिल्ल्या ।S। ब्रॅण्डाचें चिन्न आशिल्ले बल्ब पेटोवन दाखयले. दुडू फारीक करून ती बल्ब घेवन गेली. अर्द वर जाता थंय आसा, ती परती आयली.

'बाय, हें कितें? घरा व्हरून बल्फ लावन चोयल्यार एकूय पेटोना. आतांच तर घेतल्यात.'

तिणें तिनूय बल्ब काडून काउंटरार दवरले. हांवें ते तिनूय बल्ब पेटोवन पळयल्यार, खऱ्यांनीच एकूय बल्ब पेटना. अशें कशें जावंचें? ।S। चिन्न आशिल्ल्या बऱ्यापैकीं कंपनीचे तिनूय बल्ब  फटाफट कशे गेले काय, अशें येवजीत हांवें बल्बांवयलो कागद काडलो. बल्ब हातांत घेवन पळेल्यार कितें? तो दुसऱ्याच ब्रॅण्डाचो आसलो. अजापान हांवें उरिल्ल्या दोनूय बल्बांचे कागद काडल्यार, तेवूय बी दुसरेच कंपनीचे.

हांवें तिका म्हळें, 'बाय, हांवें तुका जे कंपनीचे बल्ब दिल्यात, ते हे न्हय. हे जे तुवें बल्ब हाडल्यात, ताचेर हें दुसरेच कंपनीचें नांव आसा पळय.'

'कंपनी आपलें नांव बल्फांचेरूय छापोता? पाड पोडूं तेंचें !' म्हणत ती मुकाट्यान तिनूय बल्ब घेवन गेली.

एक दीस देड वर जावंक पाविल्लें. आमी दुकान बंद करचेले तयारेंत आशिल्लीं.

'एक्सक्यूज मी...' तिणें म्हळें. ती एका सरकारी ऑफिसांत काम करपी बायल. अदल्यामदल्यान बारीकसारीक वस्तू व्हरताली.

'कितें जाय?' हांवें विचारलें.

'तुमीय दुकान बंद करतात?' ती.

'हय, तरीपूण तुका कितें जाय तें सांग.' हांव.

'हो क्रॉस बल्ब. म्हाका हो नाका. हाचेवाट्याचो फ्रॉस्टेड वा मिल्की बल्ब दी.' तिणें सांगलें.

'खरें तर आमी बल्ब बदलून दिनात.' अशें म्हणत हांवें तिणें हाडिल्लो बल्ब हातांत घेतलो.

'हो? आमी हो ब्रॅण्ड दवरिनात. तुवें हो आमचेकडल्यान व्हरूंक ना.'

'ना, हांवें हो बल्ब तुमचेलागीं घेवंक ना, हें खरें. पूण तें दुकान आतां बंद आसा.

पूण तुका हांव हो बल्ब दितां न्हू!?' तिची जाप.

'ह्या बल्बाचे बदला हांव दुसरो बल्ब दिना. पूण पयशे फारीक करता जाल्यार बल्ब दितां.'

'तुमच्या शेजाऱ्याकडल्यान तर हांवें हो बल्ब व्हेला. तें दुकान आतां बंद आसा. शेजारधर्म म्हूण तुमकां कितें आसा काय ना?' तिची फिलॉजॉफी.

'बाय, तूं सांजवेळा यो आनी ताचेच कडल्यान बल्ब व्हर आं' म्हणत आमी दुकान बंद केलें.

एका वळखीच्या मनशान खुबशें विजेचें सामान घेतलें. तातूंत एक बऱ्यापैकी कंपनीचो मल्टीप्लग घेतलो. ताचें मोल आसलें एकोणतीस रुपया. दुसऱ्या दिसा तो मनीस मल्टीप्लग घेवन आयलो.

'हो एकूच नग म्हाका ना. हां, पूण हाच्या वाट्याचें इतल्याच मोलाचें तूं म्हाका दुसरें कितेंय दी.' ताणें सांगलें.

'झिरो व्होल्टाचे तीन बल्ब दिवं?' घरकारान विचारलें.

'दी तूं. गरजेक केन्नाय उपेग पडटले.' ताणें म्हळें.

घरकारान बल्ब तपासूंक घेतले. तेवटेन हांवें सहज म्हूण ताणें हाडिल्लें तें मल्टीप्लगाचें बॉक्स उकतें केलें. पळयल्यार कितें? भितर धा रुपया मोलाचो, दुसरेच कंपनीचो, वापरून जळिल्लो मल्टीप्लग! हांवें तो थंयच ताका दाखयलो.

'आरे ! बायलेन हो चुकून घालो दिसता. सॉरी, सॉरी...' म्हणत तो गेलो.

खरें कितें घडिल्लें तें सांगूं नजो. तरी बरें, म्हाका तें बॉक्स उकतें करून पळोवंचेली बुद्द जाली. तें बॉक्स तशेंच दवरून जर आमी दुसऱ्या गिरायकाक दिलां, जाल्यार आमी फटींग थारपाचीं. तेन्नासावन गिरायकान व्हेल्ली एकाद्री वस्त बदलून दी म्हूण रोखडीच हाडल्यार लेगीत ती उकती करून, तपासून घेवंचेली संवय आमी आमकां लावन घेतली.

'जावं, तूं आसा!' हड्ड्यार हात मारीत त्या जाण्टेल्यान म्हळें.

'आमी सगळींच भायल्या गांवांक गेल्लीं. पूण तुमकां धागधुगशें कित्याक जालें?' हांवें विचारलें.

'आगे, ताचें कितें जालें जाणा? हेऽथंयचें भुसारी दुकान बारा दीस बंद आसलें. उपरांत त्या पात्रांवान सांगलें, ताची बायल अचकीत काळजाचो आताक येवन मेली म्हूण. कांय दिसांनी पळयल्यार तुमचेंय दुकान बंद. कांयच समजना जालें. म्हळें तिचे फाटल्यान तुंवूय बी?... देखून आयज तुका पळोवन बरें दिसलें.' तो हांसलो.

'देवादयेन हांव अजून आसां. पूण तुमकां देव बरें करूं म्हणटां कित्याक तर तुमकां आमचेविशीं हुस्को आसा. नाजाल्यार आयच्या संवसारांत कोणाविशीं कोणाक पडून गेल्लें ना.' हांवेंय हांसत म्हळें.

हालींचे धांवपळीचे जिणेंत गिरायकान सामानाचे दुडू दिले उपरांत, तें गिरायक वतना आपलें सगळें सामान, सत्री, चावयो, हेरकडेन खरेदी केल्ली भाजी, ह्यो सगळ्यो वस्तू ताणें व्हेल्यात काय ना, हेंवूय पळोवचें पडटा. कोण बस चुकता म्हूण, कोण भुरग्याक शाळेंतल्यान हाडूंक जाय म्हूण वा कोण जाऽयतीं कामां आसात म्हूण, बोवाळ घालीत येता आनी बोवाळांत बोवाळ म्हूण आपल्योच गरजेच्यो वस्तू विसरून परतीय पावट घालचेलो वावर करतात. कांय गिरायकां विश्वासान येतात, तर कांय गिरायकांक सदांच दुबाव आसता. कांय गिरायकां हजार, देड हजारांचो फॅन पांच मिण्टांभितर घेतात, तर कांय गिरायकां धा रुपयांचो बल्ब घेवंक अर्दवर लायतात.

'पात्रांव, आनीक कांयच उणे ना रे?' अशी सदांच पिरपीर करपीय कांय गिरायकां आसतात. कसलेय वस्तूचेर तांकां चडांत चड सूट दिली जाल्यार लेगीत तांचें समाधान जायना.

'पात्रांव आनीक कितेंय पूण उणें कर' म्हूणन पिर्गंत पिर्गंत ते, ती वस्तू घेतात. हाचे उरफाटें, कांयच सूट मागनासतनाय वस्तू घेवपीय आसतात. तांकां आपूण जावन थारायल्ली सूट दिवंची पडटा जाल्यार 'तूं ही धा टक्के सूट दिताच कसो? हो माल डुप्लिकेट बी न्हय मू?' असो दुबाव घेवपीय गिरायक आसता.

वर्सान वर्सां येवपी गिरायकां हीं फकत गिरायकांच उरनात. तीं इश्ट जातात. मागीर एकामेकांच्या सुखदुख्खाच्यो गजाली करत च्या-पाणी घेवप जाता.

'पात्रांव, तुका चेडो ना म्हूण तूं वायट धरिनाका. म्हाका म्हज्या चेड्यान हे पिरायेर घरांतल्यान भायर काडला. म्हजी सून बरी, चेडोच मालक्रियाद...' एकलो सांगता.

'पात्रांव, तुका पांयाक त्रास जाता काय कितें रे? म्हाकाय अशेंच जातालें. तूं मणिपाल वचून चॅकिंग कर' असो सल्लोय मेळटा.

'पात्रांव, म्हगेल्या चल्याक इंजिनियरींग करूंक ॲडमिशन मेळना. ताका बी.एस्.सी. कर म्हळ्यार ना म्हणटा. एक वर्स परतोय बारावेचो अभ्यास करून परतीय परिक्षा दिता म्हणटा. पूण हांव जाणां, तो घरांत बसून शिकूंक पावचोना. तुजें मत कितें?' अशेंय विचारप जाता. वा 'पात्रांव, फाल्यां हांव चल्याक घेवन येतां, तूं ताका मातसो समजाय' म्हूण आदारय मागप जाता. चड करून विधानसभेच्यो वेंचणुको लागीं येतकीर तर पांच मिनटांच्या कामाक आयिल्लें गिरायक गजाली करूंक वरभर रावता. एकेकदां घरांत

कितें व्हरूंक जाय आशिल्लें म्हणटा तेंवूय विसरता.

'आरे पात्रांव, काल हांव फ्लॅक्स बॉक्स व्हरूंक आयिल्लों हें वेंचणुकेच्या बोवाळांत विसरून गेलों. बायल तापली. म्हणूंक लागली, थंय कोणूय वेंचून आयलो म्हूण आमकां कितें फरक पडटा? वेंचून येवपी आपापलीं घरां भरतले. आमी सदचेवरी हातपांय धाडावन खावंचेलें. पात्रांव, पाड पडूं तें राजकारण. आयज आनी त्यो गजाली नाका. एक फ्लॅक्स-बॉक्स दी पळोवया तीन बाय धाचें. पूण राव रे, तुका दिसता, कॉंग्रेसीची मॅजॉरिटी जातली? उत्तरेक सावन कितले आनी दक्षिणेक सावन कितले येतलेशे दिसता?' सगळें कितें तोच उलयत रावता.

तातूंत भरीक भर म्हूण त्याच वेळार राजकारणांत रस आशिल्लें गिरायक आयल्यार फ्लॅक्स-बॉक्साचें चॅकिंग, पॅकिंग, बील करप जालें तरी तें गिरायक वचचेलें नांव काडना. अंतीं, 'पात्रांव, आयजूय बायलेक राग हाडशी' म्हूण हडकितकीर तो म्हणटा, 'पाड पडूं! नाका रे सायबा तें राजकारण. आमी उलोवन कांय फायदो ना.'

चडश्या गिरायकांक आपले अधिकार आनी कर्तव्यां खबर नासतात. विजेच्यो वस्तू - बल्ब, ट्यूब, च्योक वा हेर उपकरणां पूर्ण तपासून घेवंक जाय म्हणटात तें कांय जाणांक खबर नासता. कांय जाण आपल्याक त्यो वस्तू तपासून घेवंक वेळ ना म्हणटात. तांकां 'ह्यो तपासून व्हरात, मागीर कसलीय कागाळ केल्यार दखल घेवचींनात' म्हणून सांगतकीर आयकतात.

वॉरंटी म्हळ्यार विकिल्ले वस्तूविशींचें हमीपत्र. वॉरंटी ह्या उतराचो अर्थ खुबशीं गिरायकां चूक तरेन घेतात. वॉरंटी आशिल्ल्यो वस्तू तांणी कशायकशो वापरल्यार जाता, अशें तांकां दिसता. मागीर तांकां सांगचें पडटा, वस्तूंची वॉरंटी आसली तरी विजेकडेन खेळ करूं नाकात. तुमच्या जिविताची हानी जावंक शकता. वॉरंटी आसा ती वस्तूंची, तुमच्या जिविताची न्हय.

इश्टागत जोडिल्लीं मुसलमान वा किरिस्तांव गिरायकां, ईदाच्या वा क्रिसमसाच्या दिसांनी खावपाच्या जिनसांच्यो पोटल्यो हाडटात आनी आपलो मोग उकतायतात. तीं आमकां आपल्या घराय आपयतात. आमीय तांकां चवथी वेळार आमगेर आपयतात आनी तिंवूय येतात. अशे तरेन हिन्दू, मुसलमान, किरिस्तांव ह्या सगळ्यांकडेन भावपणाचें नातें तयार जाता. कांय जाण आपल्या पोरसांतले चिकू, पेरां, तवशीं मुद्दाम घेवन येतात. आमी तांकां नव्या वर्साचे कॅलेंडेर वा डायरी दितात.

असो हो गिरायक राजा, ज्या वेपाऱ्याचेर विश्वास दवरता, ताचोच जावन बसता.



६.

# सैमाची करणी आनी...

सैम एक अप्रूप, सैम एक जादुगार. जुंवळीं भुरगीं होवूय सैमाचो आविश्कार. मजेची गजाल म्हळ्यार, एकेक फावट हीं जुंवळीं भुरगीं सामकीं एकसारकीं दिसतात, जाल्यार एकेक फावट तीं जुंवळीं म्हूण सांगल्यार लेगीत खरें दिसचेंना अशें वेगळेपण तांच्यांत आसता. एकेक फावट सात-सात वर्सांचें अंतर आशिल्ल्या भावंडां मजगतीचें साम्य पळोवन लोक फटवतात. आमच्या घरांत म्हजो घोव आनी देर हांचे मजगतीं आशिल्ल्या साम्यांत चडांत चड लोक फटवतात. पंचवीस वर्सां पयलीं तांच्यांत खूब एकसारकेपण आशिल्लें. तांची उंची, रुंदी, वक्ल, रंग हें सगळें खूबशें एकसारकें आशिल्ल्यान मनशां तांच्या चेऱ्याकडेन सारकीं पळेनात आनी तांकां गृहित धरतात. अंतीं मजेच्यो गजाली घडटात.

म्हजें लग्न ठरलें, तेदेवेळार म्हाका म्हजे एके इश्टिणीची चीट आयली. तिणें बरयल्लें, 'बाय गो, मात्शें सादूर राव हां! तुजो देर आनी घोव ह्या दोगांय मजगतीं खूब सारकेपण आसा. लक्ष्मणान खंय सदांच सीतेच्या पांयांकडेन पळयलें. पूण तूं मात सदांच घोवाच्या आनी देराच्या चेऱ्याकडेन पळय. नाजाल्यार तुका लज जालेबगर रावचीना.'

तेदेवेळार हांवें देराक पळोवंक नासलो. पूण उपरांत जेन्ना पळयलो, तेन्ना इश्टिणीन सांगिल्लें तें खरें म्हणचेलें समजलें.

आमच्या लग्ना माटवांत लग्नाचो विधी चालू आसतना एक चलो भुरगो व्हडल्यान आड्डून आपले आवयक विचारूंक लागलो, 'आई, भावोजी परतोय लग्न जाता?' ताका सगलीं हांसलीं. तांणी त्या भुरग्याक ताचो भावोजी दाखयलो आनी सांगलें, 'हो तुजो भावोजी आनी हो भावोजीचो धाकटो भाव.' तो बाबडो आंऽऽ करून दोगांकय आलटून पालटून पळयत रावलो.

लग्ना उपरांत आमी कोल्हापूरा गेलीं. कांय दिसांनी हांव कुळारा आयिल्लेकडेन घोव-देराच्या साम्याक लागून फटवल्ल्या मनशांनी म्हाका घडिल्ल्यो घडणुको सांगल्यो.

फेरीबोटींत मेळिल्ल्या म्हज्या देराक खंय म्हजो घोव समजून आतेन म्हळें, 'तुमकां

मुजीची आमंत्रण पत्रिका कोल्हापूरा धाडल्याच. पूण तुमी आतां मेळ्ळ्यात म्हूण सांगतां, मुजीक येयाच आं!' देरान खंय सगल्यो गजाली आयकून घेतल्यो आनी निमणें सांगलें - 'तो मी नव्हेच!' आतें खंय आंऽऽ करून देराक पळयतच उरली.

आमच्या कुळारचे वावराडेन देराक म्हजो घोव समजून रस्त्यार दिशिल्लेकडेन हडकिलो आनी म्हजी खबर घेतली.

'शी! म्हाका कसली लज जाली जाणा, जेन्ना ताणें सांगलें आपूण तुज्या भावोजीचो व्हडलो भाव म्हूण! आतां हांव खऱ्यांनीच भावोजी मेळ्ळ्यार लेगीत हडकूंक भितलें.'

एक दीस देर कोल्हापूरा आयलो. दुसऱ्या दिसा बिरेस्तार आसलो. रातीकडेन हांवें देराक विचारलें, 'भावोजी, तुमकां नाश्त्याखातीर कितें आवडटलें?'

'खिचडी. साबूदाण्याची खिचडी कर.' देरान सांगलें.

तें आयकून म्हज्या पोटांत व्हडलो गुळो आयलो. हांवें नेटान विचारिल्लें खरें, पूण ही साबूदाण्याची खिचडी कोणाक येताली? म्हाका दिशिल्लें, देर भाजी-पुरी, रव्याचो सांजो, फोव वा चपाती-चटणी, भाकरी असलें कितेंय सांगतलो. म्हाका रांदूंक येतालें तें कुळारचे पद्धतीन. कुळारचे आनी घरचे रांदपाचे पद्धतींत खूब फरक आशिल्लो. हांवें नाल्ल घालून केल्ले पदार्थ वांकडें-तिकडें तोंड करून, अडेचो हांसो हाडून हो कसो तरी गिळटना पळोवन हांव वळखल्लें, म्हजें रांदप हाका घोस्ताक वचना. घरांत तर तिसरें मनीस ना. पूण आमच्या लग्नापयलीं म्हजी जाण्टी मांय घोवासरीं आशिल्ली. मांयचें हें 'शेंडेफळ' आवयक रांदपाक आधार करतालें. देखून म्हज्या घोवाक सगलें रांदूंक येतालें. आमी एक माण्णी केल्ली. घरांतल्यान कामाक भायर सरचे पयलीं घरकारान म्हाका भाजेची कृती सांगप आनी उपरांत हांवें रांदप. सगल्यो भाजयो तेलांत परतुपाच्यो, भितर उदक ना, सोय ना. पूण अजून हांव साबूदाण्याचे खिचडी मेरेन पावूंक नासलें.

हांवें हळूच घोवाक आपोवन खिचडीची कृती विचारली. ताणें सांगलें - 'दोन वाटयो साबूदाणे घे. ते धूय. सगलें उदक भायर उडय आनी आयदनाचेर माण धांपून दवर. ते आपशीं फुगतले. भाजिल्ल्या भिकणांचो सरसरीत पिठो एके बाटलेंत आसा. तूं कांय भियेनाका. फाल्यां सकाळीं बेगीन उठून हांव तुका कृती सांगतां.'

दुसऱ्या दिसा आमी सकाळीं फुडें उठलीं. देर भायर सालांत न्हिदिल्लो. आमी दोगांयनी तोंड धुलें. हांवें गॅस बारीक करून च्या करूंक उदक दवरलें. हो माऱ्यांत गेलो. हांव देवाकुडींत देवापुजेची वेवस्था करूंक लागलें. च्याचें उदक सळसळ्ळें आसतलें म्हणपाचो अदमास घेवन हांव रांदचे कुडींत आयलें तर हो केन्नाच गॅसा म्हऱ्यांत उबो आसा. पावलांचो आवाज करिनासतना ल्हवू हाचेसरीं आयलें आनी व्हड आवाजान

उलयल्यार देराक आयकूंक येत म्हणून ल्हवू हाच्या कानाकडेन तोंड व्हरून म्हळ्ळें, 'ए, आतां खिचडी कशी करतात ती सांग हां!'

'खिचडी? तुका येना जाल्यार तूं दिनूक विचार हां. ती म्हाकाय येना.' जाप आयकून हांवें ताच्या तोंडाकडेन पळयलें आनी... आनी म्हजो आवरोच उडलो. तो देर आशिल्लो.

'सॉरी, म्हाका दिसलें होच उबो आसा म्हूण', हांवें कशें तरी म्हळ्ळें.

'म्हाका मात्शें हून उदक जाय म्हूण हांव हांगा आयिल्लों', देरान म्हळें.

तांचे दोगांयचे ते एकासारके धवे लेंगे, बानयनां, उंची, रुंदी, आनी वक्लाचें साम्य... पूण चेरो पळेलोना म्हूण हांव फटवलें. हे घडणुकेचो हांवें खूब धसको घेतलो. उपरांत घोवाचें तोंड पळेलेबगर हांव केन्नाच ताचेकडेन उलयलें ना.

कोल्हापूर सोडून आमी गोंयां आयलीं आनी घोव-देर हांच्या सारकेपणाक लागून आमची बऱ्याच फावटीं मनरिजवण जाली.

एक दीस हांव आनी म्हजो घोव, दामबाबाच्या लिंगाकडेन गेलीं. स्कुटर थांबयले उपरांत हांव वचून एकेकडेन उबें रावलें. हो स्कुटर पार्क करूंक गेलो. इतल्यांत एक अनवळखी बायल म्हजे म्हऱ्यांत आयली.

'तूं भावा वांगडा आयल्या दिसता', तिणें म्हळें.

'ना. हांव म्हज्या घोवा वांगडा आयलां.' हांवें म्हळें.

'तूं म्हाका सांगता? हो तो उंच, वक्ल लायलां, तो तुजो घोव?' तिणें नेटान विचारलें.

'हय. कित्याक?' ते बायलेचें उलोवणें म्हाका अजापाचें दिसलें.

'तूं म्हाका सांगता तो तुजो घोव म्हणून? हांव ताका आनी ताचे बायलेक खूऽब वर्सां सावन वळखतां. ताका एक धाकटी भयण आसा म्हणचेलें जाणा आशिल्लें. तो तुजो भावूच...' - ती.

अब्बा ! म्हजो घोव कोण तो ही म्हजेपरस चड जाणा? म्हाका तिडक मारली.

हांवें म्हळें, 'हांव तुमकां वळखना. पूण तुमचो कितें तरी गैरसमज जाला आसूंक जाय. हो येता तो म्हजो घोवूच.' तिका हें सांगतनाच म्हाका येवजलें, ही म्हज्या देराचे वळखीची आसूंक जाय.

'तुमी ताका कोण म्हूण वळखतात सांगशात?' हांवें प्रस्न केलो. आनी खऱ्यांनीच तिणें देराचें नांव सांगलें.

हांव हांसलें. 'तुमी म्हणटात तो म्हजो देर. हो ताचो धाकलो भाव.'

तिणें आंवडो गिळ्ळो.

'खरेंच ! हांव ताका किऽऽतलीं वर्सां वळखतां... तरी बरें बाये हडकिलोना म्हूण...

पूण विचारतां म्हूण रागार जायनाका हां... तुमकां बायलांक तरी आपापलो घोव वळखूंक येता मू?'

इतल्यांत होवूय थंय पावलो. एकसारकेपणाक लागून घडिल्ल्यो कांय गजाली सांगून आमी खूब हांसलीं.

एक दीस आमी दोगांय स्कुटरीवेल्यान बाजारांत वतालीं. वतना हांव हाका विनोद सांगतालें. पूण विनोद सांगतना म्हाकाच चड हांसूंक येतालें. इतल्यांत 'शुतशुत्', 'शुतशुत्' करून ताळयो मारीत एका जाण्टेल्यान धांवत येवन स्कूटर आडायली. आमकां अजाप जालें. आमी दोगांय ताका वळखनासलीं.

'आरे, तूं स्कूटर घेवन सकाळीं फुडें हांगा खंय फिरता आं? आनी ही कोण?' ताणें नेटान विचारलें.

हाणें म्हळें, 'तुमकां सांगचेलें म्हळ्यार... वायट धरनाकात हां... पूण, पूण हांव तुमकां वळखूंक ना...'

सट्ट करून म्हज्या लक्षांत आयलें, जाण्टेलो म्हज्या घोवाक देर समजून हडकिता.

हांवें म्हळें, 'तुमी घडये हांच्या व्हडल्या भावाक वळखतात आसतले. हांव हांची बायल.'

तो गोंदळ्ळो. 'आं! तरीच म्हणटां, हें अशें कशें काय म्हणून ! राव रे, मागीर तूं इतलो तेंप खंय आशिल्लो तर?'

'कोल्हापूर'. - हाची जाप.

'राग ना न्हय?' ताणें खांकडत विचारलें. 'पूण आतां तूं हांगाच रावतलो म्हळ्यार आमचे सारकेल्यांक घुस्पुपाचें.'

'तशें घुस्पुचेलें कांयच कारण ना. तुमी देराचे बायलेक म्हळ्यार म्हजे जावेक वळखतात न्हय?' हांवें विचारलें.

'हय तर! म्हणुनूच म्हाका चड अजाप जालें.' ताणें सांगलें.

कितें समजुचेलें तें हांव समजल्लें. म्हजी जाव दिसूंक सुंदर, उंच आनी गोरी. इतली सुंदर बायल आसतना हो आनीक कोणाक घेवन फिरूंक वता काय? ह्या विचारान ताणें आमची स्कुटर थांबयली आसुंये. म्हाका त्या जाणटेल्याची तोखणाय दिसली.

'भावांक वळखूंक घुस्पुचेलें कारण ना. तुमी पयलीं बायलेक पळयात. हांव आसल्यार हो, हो म्हजो घोव. आनी ती आसल्यार तो, म्हजो देर.'

भावांक वळखुपाचो हो प्रकार आयकून तो खूब हांसलो. 'रागार जायनाका, रागार जायनाका' करत गेलो.

अशो एक आनी दोन न्हय, तर खूब घडणुको घडटाल्यो. एक फावट हाणें आपल्या भावाकडल्या साम्याचो उपेग एकट्याक चुकोवपाक केलो.

कायतान बोटीवेल्यान आयिल्ल्यान ताका हांगा कामधंदो नाशिल्लो. तो दुकानार येवन वरांचीं वरां बडबडटालो. आमकां ताची आडखळ जाताली. कामाक बादा येताली. एक दीस घोव दुकानांतल्यान भायर सरून फाटल्या भाजी बाजाराकडेन पावंक कायतान मेळ्ळो. घोवान विचार केलो, हाचेकडेन बडबडूंक बसल्यार कामाक पावचोंना.

'हॅलो, तूं भाजी घेवंक वेता?' - कायतान.

'सॉरी, हांव तुका वळखूंक ना.' - हो.

'पात्रांव, फकाणां करता? तुजें शॉप थंय आसा न्हू रे!' - कायतान.

'म्हजें? ना बाबा... आं... आं... शॉप? तें म्हज्या भावाचें. देखून तुवें म्हाका हडकिलो. हांव ताचो भाव. बरें आं!' म्हणत घोवान कूस मारली.

कायतान धांवत धांवत म्हजेसरीं आयलो.

'पात्रांव ना, सांजवेळा येतलो.' हांवें सांगलें. म्हाकाय कायतानाक कटोवंक जाय आसलो.

'आगे, आत्तांच पात्रांवाचो भाव मेळ्ळो. डिट्टो पात्रांव. हांवें जाप केल्यार, आपूण ह्या पात्रांवाचो भाव म्हूण लागलो. हांव चोयतूच रावलों.'

कितें समजुचेलें तें हांव समजलें. हांवेंय नाटक रंगयलें.

'हय, ते दोगूय एकासारके दिसतात खरे.'

'अजाप न्हू! इतुले एकासारके मनीस हांयेन चोयलेना. तांकां पूण गोमता काय आपूण कोण तो?' अजाप करत कायतान गेलो. पूण उपरांत आयिल्ले खेपेक तीच रॅकॉर्ड वाजोवन बेजार हाडलो.

म्हजे धाकटुले धुवेक - रमाक - पप्पा कामावयल्यान येतकीर हडकितालो. रमा ताचेर घालून घेतालें. एक दीस घोवावांगडा देरूय आयलो. भावाक भायर उबो करून देरान, रमा आपल्याक फटवता जाल्यार पळोवंक ताका हडकिलें. उलोवंक येनाशिल्ल्या पिटकुल्या रमान ताचेर उडी घालूंक हात फुडें केलो. खीणभर ताच्या तोंडाक पळयलें आनी म्हज्या खांदार तोंड करून, म्हाका घट धरून ताका फाट केली. उपरांत पप्पा आयलो तेदेवेळार तें ताचेकडेन गेलें.

म्हज्या मनांत आयलें, रमा काकाक वळखूंक नासलें आनी उलयता आसलें, तर 'मेरे दो दो बाऽऽप?' अशें हिन्दी सिनेमा स्टायलीन आड्डता आसलें काय?



७.

# लडेंगे तो बचेंगे

'ताईऽऽ, ताईऽऽ, मात्शी रावता?' आपल्या घरांतल्यान धांवत भायर येत सुगंधान म्हाका विचारलें.

'कितें गो?' हांव.

'हांव आयज केंसांचो बॉबकट करूंक सोदतां. आयज शुक्रार. आमच्या धर्मांत शुक्रारा केंस कापल्यार जाता न्हय?' सुगंधाचो प्रस्न.

'बाय सुगंधा, आयज आठ वर्सांसावन हांव तुका ह्या बॉबकटांतूच पळयतां. आयजूच तुका धर्म सो येवजलो?' म्हजो प्रस्न.

'ना ताई, सहज विचार आयलो. म्हळें, मंगळार, शुक्रार हे देवीचे दीस. मागीर आमच्या धर्मांत ह्या दिसांनी केंस कापल्यार जाता काय ना?' सुगंधाची जाप.

'सुगंधा, हिन्दू धर्मांत बायलांच्या केंसांक कातर लायल्या ती त्यो विधवा जातकीर - साप्प तकली तासल्या. पूण धर्म म्हळ्यार आचरण, वागचेली पद्धत हें जाणून समाज सुधारकांनी आनी विचारवंतांनी समाजाच्या हिताचें, उदरगतीचें तें घेवन आनी समाजहिता आड येता तें सोडचें हें सांगून, ते प्रमाण नवे कायदे करून वायट गजालींक आळो घालचेलो यत्न केला. एका काळार केंस कापचेलो गडगड जातालो जावंये, पूण आयज ती एक नगण्य बाब.' हांवें म्हळें.

'तेंय खरें. ताई, आतां पयलींचो संवसार खंय उरला? म्हजी आजी णव वारी साडी न्हेसताली. माँ स वारी न्हेसता आनी हांव हें अशें - सलवार कमीज घालून.' तें हांसलें.

सुगंधा हें उच्चवर्णीय वा उच्चशिक्षित न्हय. तें म्हज्याच गांवगिऱ्या वाठारांतलें, भौसांतलें, धावी शिकिल्लें, सकल्या धवाड्या वर्गांतलें. हांव घरा आयलें. साडे संक धूव आयली. चेऱ्यावेल्यान कळटालें, कितें तरी बिनसलां.

'माँ, म्हाका मगे आयज इश्टिणीचे आवयची तिडक मारली.' ताणें सांगलें.

'कित्याक?'

'आगे, म्हजे इश्टिणीक दोग तरणाटे सतायतात. ताणें त्या तरणाट्याक आपल्याक

तांचेविशीं कांयच पडून वचूंक ना म्हणचेलें दाखोवन दिलें. तरी ते ताची फाट सोडिनात. म्हूण ताणें घरा आवयक सांगलें. जाल्यार आवयन कितें म्हणचें जाणा?' Be prepared to die if anything goes wrong. असलो राग आयलो जाणा !' धुवेन सांगलें.

'मागीर तुवें ताका कितें सांगलें?'

'हांवें सांगलें, माँन म्हाका सांगलां, तुजे इत्सेआड संवसारांतलो कोणूच तुका कांयच करूंक शकना. आनी कितेंय केलें जाल्यार तो गुन्यांव थरता. बायलांक चाळोवप - eve teasing - होवूय गुन्यांव. कोणेंय शीम हुपचेलो यत्न केल्यार कायद्याच्या आधारान गुन्यांव करतल्याक ख्यास्त भोगोवप. आपणें जीव वगडावप ना.' धुवेन जाप दिली.

'मागीर ताणें कितें म्हळें?' - हांव.

'ताकाय तें पटलें. मागीर आमी सगल्यो इश्टिणी एकठांय जाल्यो. तांकांय तें पटलें. आमची कांयच चूक नासतना आमी मरचेली तयारी कित्याक करप? त्या गुन्यांवकारांक मारचेली तयारी दवरप.' धुवेन सांगलें.

घराभायर फिरतना रस्त्यांतलो प्रत्येक दादलो बायले फाटल्यान लागता वा तिचेर आगळीक करता अशें न्हय. कांय मूठभर वायट वृत्तीचे लोक तशें करतात आनी आमी सरसकट दादल्यांक दोश दितात. सर्वसादारण दादल्यांकूय ह्या घडणुकांची तिडक आसताच. म्हणून तर पन्नास वर्सां पयलींचे बायले परस आयची बायल चड मेकळेपणान समाजांत वावरूंक शकता. ताचे फाटल्यान समाजसुधारकांचे यत्न आसात. तशें पळोंवंक गेल्यार आयज उणाक दर्ज्याच्या राजकारणाक लागून गुंड प्रवृत्तींक पोसवण मेळिल्ल्यान सगळेकडेनूच बायलांक आनी दादल्यांकूय एका प्रकारची असुरक्षितपणाची भावना मनांत दिसता ती गजाल वेगळी.

गांवगिऱ्या वाठारांतल्या सुगंधाचो बॉबकट आनी चुडीदार हो बदल, धुवेले इश्टिणीच्या शारांत रावपी सुशिक्षीत बायलेचे, आपले धुवेन वायट प्रसंगार कशें वागचें, हें सांगपी विचार, ह्यो दोनूय घडणुको म्हजे तकलेंत ठाण मांडून बसल्यो. तातूंत भर पडली आनीक एके बायलेकडल्यान आनीक एका विचाराची - 'आयज पुरुशप्रधान संस्कृतींत बायलेचेर अन्याय जाता. दादल्यान कितेंय केल्यार कोण कांयच म्हणिना. तेंच बायलेन केल्यार लोक बोट दाखयतात. आनी हें सगलें मनुस्मृतीक लागून जांता' हो विचार आयकून खुबशीं प्रस्नचिन्नां मनांत उबीं रावलीं.

आयज लग्न जाल्ल्या बायलांक लेगीत बॉबकट करूंक, सलवार कमीज घालूंक, शिकूंक, नोकरी करूंक, दुकान चलोवंक वा वेगवेगळ्या मळांचेर वावरूंक मनू आड येना. पन्नास कित्याक, पंचवीस वर्सां फाटीं आशिल्लें बायलेचें समाजांतलें स्थान वयल्या

पांवड्यार नक्कीच पावलां. आयचे बायलेन 'आयजूय पुरुशप्रधान संस्कृतींत बायलेचेर मनूक लागून अन्याय जाता' हें गावंचेली गरज ना. आयज तिका गरज आसा ती तरेकवार शिक्षणाची, तिचे सगल्या तरांचे सुरक्षिततायेखातीर घेतिल्या कायद्याच्या गिन्यानाची आनी वयांत आयिल्ल्या चलयांक जाय कायद्याच्या गिन्याना वांगडाच आवयची इश्टागत. आवयनूच चलयांमदीं आत्मविस्वास आनी धाडस हाडूंक जाय. चलयांमदीं आत्मविस्वास आनी धाडस निर्माण करूंक जाय. सरळ मार्गान वचप हेंच योग्य. पूण खंयूय पावल चुकलेंच जाल्यार लिपोवं नाकात. एक सत लिपोवंक धा फटी मारल्यो जाल्यार लेगीत सत लिपना. त्रास मात वाडटात. देखीक, जळगांव वासनाकांड - आवयन आपल्या धुवांक इश्टागत, धाडस आनी आत्मविस्वास दिल्लो जाल्यार घडत आशिल्लें व्हय हें? तांकां कायद्याचें गिन्यान आशिल्लें आनी विश्वासांतल्या चार लोकांक घेवन कायद्याचो आधार घेतिल्लो जाल्यार घडत आशिल्लें व्हय हें? आयज बायलांचे प्रस्न सोडोवपी संघटनाय आसात. तांचो लाव घेवंक जाय. ते खातीर शारांनी आनी गांवगिऱ्या वाठारांनी बायलांखातीर शिबिरां घेवन तांकां फावो तें मार्गदर्शन बायलांनीच करप गरजेचें. आयज बायलांनी कितली उदरगत करची हें बायलांची कृती थारायतली. न्हयकारी, निर्बळ वृत्ती चित्तांत केळयल्यार आमी निर्बळाच उरून रडत उरतलीं. ना - गळ्यांतलें मंगळसूत्र काडून उडोवन, कुळारचींच आडनांवां लायलीं म्हणून बायलांचे कसलेच प्रस्न सुटावे जावंचेनात. ते परस भौसांतले बायलेसारकीच गळ्यांत मंगळसूत्र, कपलाक कुकूम, घोवाचें आडनांव लावन, तुमचेसारकींच आमी हें काम करूंक शकतात आनी तुमीय तें तितलेंच करूंक शकतलीं, अशी सर्जनात्मक हयकारी वृत्ती जागोवन केळयल्यार बायलमनीस नक्कीच उदरगत सादतली.

बायलमनीस दुर्बळ वा अबला कित्याक थारली, असो विचार येता तेन्ना - नर आनी मादी हांचे कुडीचे सैमान केल्ले रचणुकेक लागून - ही जाप मेळटा. आपली इत्सा नासतनाय नराचे वासनेक ती बळी पडटा आनी हांगाच ती दुबळी थारता. आमी समाजशास्त्राचो थोडो अभ्यास केल्यार, लग्न-संस्था कशी आयली, नर-मादी घोव-बायल म्हूण कशीं रावंक लागलीं, योनी शुचितेचे प्रस्न आनी तांचेकडेन पळोवंचेली मनशांची नदर कशी बदलत गेली, तें कळटा.

बायलेचे इत्सेविरुद्ध लेगीत तिचो उपभोग घेतल्यार बायलेकूच दोशी थारायताले असो एक काळ आसलो. पूण आयज तेंच घेवन बसल्यार कशें जायत? आयज समाज बलात्कार, आगळीक आनी स्वैराचार हातूंत अवश्य अंतर मानता. देखीक, दोन घडणुको. चार-पांच वर्सां फाटीं चार वर्सांचे, हांडीर धरून व्हरपासारके सान चलयेचेर तांच्याच

शेजरा रावपी एका तरणाट्यान आगळीक करचेलो यत्न केलो. त्या वाड्यावेल्या लोकांनी एकठांय येवन त्या तरणाट्याक बडयलो आनी चलयेचे आवयक दोतोरागेर आनी पोलीस स्टेशनार वचूंक आदार केलो.

आनी एकेकडेन एक सुंदर तरणाटी कॉलेजांत शिकताली. तिचेर नदर दवरून जो आशिल्लो, ताका हिणें पयस दवरलो म्हूण ताणें युक्त केली. ती इश्टिणींच्या पंगडांत आसतना तिच्या पोटांत घुंवळी वखद घालें. ती घुंवळून पडटकीर आदार करचेलें नाटक करून एका हॉटेलार व्हरून तिचेर बलात्कार करतना ताचें फिल्म काडलें. उपरांत तें बापायक दाखोवन ताका धमकायलो. बापायन चलयेचे इत्सेआड तिका ताचेवांगडा धाडली. रोखडेंच बापायन तिचें गुपचूप पयसुल्ल्या गांवांत व्हरून लग्न करून दिलें. त्या तरणाट्यान थंय वचून तें फिल्म मांवाक दाखयलें. मांवान ओगी रावन् सुनेक तरणाट्या वांगडा वचूंक सांगलें. पूण घोवान खरें फट बायलेक विचारून सरळ पोलिसांत तक्रार केली. तरणाटो पळून गेलो आनी ती बायल त्या भयंकर प्रकरणांतल्यान वाटावली.

हेंच काम बापायन केल्लें जाल्यार? ताका घडये कायद्याचें गिन्यान वा धाडस नाशिल्लें जावंये. हें सांगचेलें कारण इतलेंच, खंयूय वावुरतना कसलेय प्रसंग येत ह्या भंयान घरांत बंदिस्त रावचेलें कांयच कारण ना. आयज जाय तें बायलांक कायद्यान संरक्षण दिल्लें आसा म्हणचेलें गिन्यान आनी प्रसंगाक भियेनासतना ताचो उपेग करप. लडेंगे तो बचेंगे.

हो बोट दाखयता, तो अशें म्हणटा आनी ती तशें म्हणटा म्हणपी कांयच करूंक पावचेले नात. आपले मनोदेवतेक विचारचें - हांव बरें काम करतां? जाप 'हय' म्हूण आयली जाल्यार तें काम करचें.

दुसरें, दादल्यांनी कितेंय केल्यार तांकां माफ हें कितलेंशें खरें हें तुमीच विचार करून पळयात. तो सतरा चलयां वांगडा फिरतालो वा तो सोरो पियेता वा तो बरे संगतींत ना वा तो घुंवळी वखदां घेता, ताका सोयरीक व्हरूं नाकात... अशी खबर चवकशी काडल्यार रोखडीच मेळटा आनी ताका कोण्ण एक सोयरीक लेगीत व्हरनात. समाजांत असले प्रकार तुमी पळोवंकूच नात व्हय? आनीक एक समज आसा तो म्हळ्यार, चल्यांक समाजांत कसलोच भंय ना. ताणें केन्नाय घरांत येवचें आनी वचचें. सान चल्यांची लेगीत लैंगीक छळणूक करपी समाजांत आसात. तरणाटो चलो घरा येवंक उशीर जालो जाल्यार आवयचें काळीज धडधडना व्हय? आपले तरणाटे पूत व्यसनां आनी वायट संगतींत सांपडून जिणेंतल्यान उठचेली भिरांत आवय-बापायक कशी सतायता ती तांचेंच जोतें घाल्यार कळटा.

आयच्यो बायलो खूब भाग्यवान. कित्याक तर, तांचेर जातल्या हर तरेच्या अन्यायाक - ते अन्याय मागीर दादल्यांनी करूं वा खुद्द बायलांनीच - न्याय दिवंचेलो यत्न जाता. पुरुशप्रधान संस्कृतींत दादल्यांचेर कोणेंच केन्नाच अन्याय केलेनात हें खरें व्हय? महाभारतांतल्या महापराक्रमी अर्जुनापसून आयच्या सामान्य दादल्याच्या जिविताकडेन उकत्या मनान पळयत जाल्यार दिसतलें, तांचेरूय कसले ना कसले अन्याय जातात. तांचोय घुस्मटमार जाता. ते उलोवंकूय शकनात, रडुंकूय शकनात. खुद्द आपल्याक जल्म दिवपी आवयन आपली जीण कशी फाफसून, पिसडून उडयली, आपलो कसो उपेग करून आपल्याक सोंपयलो, तें आयकुपी आसल्यार सांगपीय खूब जाण मेळटले.

संस्कृती, मागीर ती पुरुशप्रधान आसूं वा स्त्रीप्रधान, दादले वा बायलो हांचेर सदांच खंय ना खंय, कसले ना कसले अन्याय हे जातलेच. कारण संवसारांतले शंबर टक्के लोक सदांच सात्त्विक वृत्तीन, न्याय नितीन वागतले हें घडप शक्य आसा व्हय? अन्यायांची तीव्रता चड-उणी आसत, कांय गजालींची वाच्यता जातली, कांय जावचीना. म्हाका दिसता, संवसारांत सदांच दोनूच जाती आसतल्यो. एक सबळ (मागीर तो दादलो आसूं वा बायल) आनी दुसरी दुर्बळ (मागीर तो दादलो आसूं वा बायल). आपापले वृत्तीप्रमाण सबळ, दुर्बळाचेर अन्याय करतलो वा करचोना. जो सबळ जातलो तोच तिगतलो. संवसारांत सबळ जावन कार्यरत रावचें, काय दुर्बळ जावन रडत जगचें, तें जाचे ताणें थारावचें. आपूण संवसाराक बदलूंक शकना जायत, पूण स्वताक बदलूंक शकता. देखून लडप गरजेचें. लडेंगे तो बचेंगे...

आयज बायलमनीस उदरगत करतली जाल्यार तरेतरेचें शिक्षण घेवपावांगडाच कायद्याचें गिन्यान जाणून घेवन समाजांत वावरून कृतिशील रावप खूब गरजेचें. पूण आमच्या इल्ल्या इल्ल्या घराब्यांनी सुखान रावंक कायद्यांच्या बडयांची गरज भासूंक फावना. आमचे घराबे मोगाचे बुनयादीचेर उबे रावंक जाय.



८.

# आमचीं भुरगीं 'त्रिशंकू'?

"मैं पढी हूँ ! मैं वह काम नहीं करती ।" तिगेली जाप आयकून हांव अजापान पळयत रावलें. तशीं हीं उतरां म्हाका नवींच नाशिल्लीं. तरीय पूण एका गंवड्याचे बायलेकडल्यान तीं अपेक्षित नाशिल्लीं.

आमी घर बांदूंक घेतिल्लें तेदेवेळाची ही गजाल. गंवड्याचें काम करूंक आनी सामान राखूंक म्हूण तें जोडपें थंय रावतालें. जेमतेम बावीस वर्सां पिरायेची ती गंवड्याची बायल भुरग्यांक घेवन थंयच रावताली. तिगेलीं भुरगीं रेंवेंत खेळिल्लीं. ती रेंव सगळ्याक पातळिल्ली. हांव जेन्ना थंय पावलें तेन्ना ती रेंव पळोवन हांवें तिका ती एकठांय करूंक सांगली. तशी तिणें जाप दिली - "मैं पढी हूँ । मैं वह काम नहीं करती ।"

हांवें थंड आवाजान म्हळें, "तुगेलीं भुरगीं हे रेंवेंत खेळ्ळ्यांत. ती सगळ्याक पातळ्ळ्या. रेंव वाट लागतली. तुमकांय त्रास जातलो. सात्र हातान घेवन ही रेंव एकठांय करूंक तुगेलें शिक्षण तुका खंय आड येता? तूं कितें शिकल्या?"

"हांव चवथी पास जाल्यां." व्हडा तोऱ्यान तिणें जाप दिली. पाडकां मजगतीं थोटी गाय शाणी म्हणटात तशें तिचें जाल्लें.

"चवथी? मागीर चवथी मेरेन शिकतना खंयच्या पुस्तकांतल्या धड्यांत तुका, शिकिल्ल्या मनशान सात्र मारप नासता म्हूण शिकयलें?" हांवें विचारलें. तिचेकडेन जाप नासली. पूण ती तशीच खुंटो कशी उबी रावली.

सात्र घेवन रेंव एकठांय करता आसतनाच हांव येवजितालें, आमी शिकल्यांत म्हूण शारीरिक स्रमाचीं कामां करप ना, ह्या रोगाची धाम समाजांत दिसानदीस तळागाळा मेरेन पातळूंक लागल्या. कुडीक जातल्या एडस् वा कॅन्सर सारकोच विचारांक लागिल्लो हो एक घातक रोग. हो रोग ल्हव ल्हव करून समाजाक पोखरून काडटलो.

हांवें तिच्या संवसाराचेर नदर मारली. सगळो संवसार अस्ताव्यस्त. सगळो पसारो पातळ्ळा. मुस्तायकी लोळटा, भुरगीं बुरशीं. काम करपाविशींची तिगेली अनास्था तिच्या संवसाराच्या पसाऱ्यावेल्यान कळटाली. घरकाम करप ती उणाकपणाचें समजताली. आपूण शिकल्या देखून अडाणी बायलांपरस वेगळी म्हूण ती घरकामय करनासली, आनी

घोवावांगडाय कसल्याच कामाक हात घालनासली. तिगेलें तें वागणें तिच्या घरकाराक कितलें त्रासदायक जातालें, तें म्हाका ल्हवू ल्हवू समजलें.

म्हाका याद जाली ती आनीक एके अशेच गजालीची. एका लागींच्याच सोयऱ्यान घर बांदिल्लें. ताका आदाराक म्हूण हांव आनी म्हजी नणंद दोगांय एक दीस पयलींच तागेर रावंक गेल्लीं. तागेर वावराडी आसलीच. पूण काम चड म्हूण तेच वावराडेचें चली हाडिल्लें. पूण तें काम थंयच उडोवन इंग्लीश पुस्तक हातांत घेवन मालकिणीचे खाटीर न्हिदून वाचूंक लागलें. कामाक आपयल्यार लेगीत काम करूंक येवचेली गजाल ना. आयदनां घांसपाची सामकीच गरज आसली म्हूण आपयलें, तर ताणें कितें जाप दिवची?

"हांव धावी पास जालां न्हू? देखून हांव आयदनां घांसना. हांव आयदनां घांसपी चेडूं न्हू. हांव हेल्पर."

उलोवपासारकें कांयच उरूंक नासलें. तेन्ना एम्.ए. जाल्ल्या हांवें आयदनां घांसलीं आनी बी.ए. जाल्ले नण्डेन सात्र मारून कोयर काडलो. अर्दवट शिकिल्ल्यान तें 'हेल्पर' त्रिशंकू भशेन मदींच हुमकळ्ळें. ना धड हेवटेन, ना तेवटेन. शिकलें म्हळ्यार कितें शिकलें? तर बरोवंक आनी वाचूंक. चार पुस्तकां शिकलें पूण कामाचें म्हत्व शिकलें ना. आपले आवयच्या आधाराक आपूण आयलां देखून काम करुंया अशेंय ताका दिसलेंना. ताच्या त्या वागपाचो घरांत कितलो त्रास जाता तें दुसऱ्या दिसा आवयन सांगलें. धावी पास जालां म्हूण घरचें लेगीत कुस्कूट काम करिना आनी धावीच पास जाल्ल्यान कसली नोकरीय मेळना. 'तेका हांयेन चवथीच शिकोवन म्हाजे वांगडा कामाक व्हरचेलें अशें आतां दिसता. चुकलेंच तें म्हाजें', आवयन आपली व्यथा उक्तायली.

शिकल्यांत म्हूण घरकाम करप उणाकपणाचें समजुपाची वृत्ती तरणाट्या चलयां मजगतींच आसा अशें न्हय, तर तरणाट्या चल्यांमजगतींय आसा.

त्या मंगळारा आमचो मडवळ आयलो. पूण खरशेत-धांपेत आयलो. ताच्या जिवाक बरेंऽ ना म्हणचेलें ताका पळेल्यार समजतालें. हांवें म्हळें, "मामा, जिवाक इतलें बरें ना जाल्यार आयजूच कित्याक येवं जाय आसलें?'

ताणें म्हळें, "ना ताई, आयजमेरेन केन्नाच हांवें म्हज्या गिरायकांक वाट पळोवंक लायली ना. आतां म्हातारपणांत आनी थोडींच वर्सां हांव हें काम करतलों. देखून जिवांत जीव आसासर म्हाका खोस जाता अशेंच हांव करतलों."

"आरे, पूण तुका चलो आसा न्हय? आयज ही मुस्तायकी पावय म्हणून मात्शें ताका सांगचें न्हय."

"तो ! तो आनी हें काम करतलो?" तो पुटपुटलो.

"म्हणजे कितें? गरजेक बापायक आधार करपाक नाका तर? अंदूच धावी पास जाला न्हय तो? आतां व्हडलो जालो. मामा, तुवें ताका कॉलेजांत बी घालो काय कितें?"

म्हज्या प्रस्नाक ताणें जाप दिली - "धावी देगेर हुपल्या म्हूण कॉलेजींत प्रवेश मेळना. धावी पास म्हूण ल्हान-सान नोकऱ्यो धरूंक लजेता. व्हडल्यो मेळनात. शिकला-सवरला म्हूण बापायचोच हो काय बरो जम बशिल्लो वेवसाय करपाक कमीपणां दिसता."

"सद्या कितें करता तर?" अजापिल्ल्या म्हजो प्रस्न.

"आनीक कितें करतलो? बेकार हांगा थंय फिरता. कामा मनशाक नस्त्यो राटावळी करूंक वेळ नासता. बेकार मनशाक वेळ घालोवंक चड दुडू लागतात."

"मागीर?"

"मागीर कितें? सिनेमा पळोवप, हॉटेलांनी खावप, नवे नवे शर्ट जाय म्हणप आनी आमकां आवय-बापायक त्रास दिवप."

"म्हणजे शिकून-सवरून इतलेंच करपाचें?" हांव.

"तेंच तर आतां म्हाका वायट दिसता. धावी शिकूंक नासलो जाल्यार हो वेवसाय करूंक तरी ताका लज दिसची नासली. सध्या जालां कितें तर शिकला म्हूण फेर्रांद कपडे घालून ओर्रांद फिरता. पूण आपल्या पांयार उबो रावंक कितेंच करना. आमी पिकिल्लीं पानां, आमी कितें हाका सदांच पोसतलीं !"

"मामा, तुगेली गजाल आयकून म्हाका भोव अजाप जाता. जें करपाक लज दिसची, तें करूंक तो लजेना. जें करूंक तो लजचो न्हय, थंय लजता, कमीपणा मानता. म्हणजे, तुगेलो पूत खऱ्या अर्थान कांयच शिकलो ना तर ! शाळेंत वचून फकत बरोवंक आनी वाचूंक शिकलो." हांवें म्हळें.

पयलींच जिवाक बरें नाशिल्ल्या मडवळमामाक तकलेक त्रास नाका म्हूण हांवें तो विशय थंयच सोंपयलो. पूण मनाक वायट दिसलें. मडवळमामाचो पूत बरोबर वागलोना. इतलें शिकलो पूण म्हाताऱ्या बापायक आधार करूंक जाय, अर्थार्जनाक हातभार लावंक जाय म्हणचेलें शिकलोच ना.

आनीक एका वाड्यावयले पंदरा ते वीस वर्सां मेरेनचे कितलेशेच तरनाटे दिसभर थंयचेच एके भंगसाळींत बसून आसताले. सगळे चडांत चड आठवी नापास. सकाळचे णवांक येवन थंय बसताले. येतल्या वतल्या बायलांचीं, तरनाट्या चलयांचीं फकाणां मारताले. दनपरां जेवन येवन परतेय सात वरां मेरेन बसून उपरांत घरा वताले. दोग तीग चल्यांच्या आवयांक मेळून हे विशीं चौकशी केली. हे तरणाटे असो कितें वेळ वगडायतात? एकटेन जाप दिली. तिगेले दोगूय चले आठवी दोनदां नापास जाल्यात देखून शिकूंक लज

दिसता. देखून ते अबूधाबी वा हेर भायल्या देशांनी वचून जोडपाचें चिंततात. चिंतपांतूच असो वेळ वगडायतात. ते शिकल्यात देखून घरांतय कसलोच आदार करनात. घरची परिस्थिती गरीब म्हणपासारकीच आनी हे भुरगे बापायक आदार करचे बदला भार जाल्यात. तिची जाप आयकून वायट दिसलें. आठवी नापास - पूण शिकल्यात - देखून बापायवांगडा मेस्तपण करूंक लजेतात.

अशीं कितलींशींच उदाहरणां दिवं येतात इतल्यो घडणुको हांवें ह्या पंदरा वर्सांत पळयल्यात आनी आयकल्यात. कोणाक घरकाम करूंक लज दिसता, कोणाक पिशवी हातांत घेवन सामान हाडूंक लज दिसता, कोणाक मातयेंत हात घालून पोरसांत झाडां लावंक लज दिसता, तर कोणाक पोरसूं शिंपूंक लज दिसता. तीं कारण सांगतात तें शिक्षणाचें. आमी शिकल्यांत म्हूण हें करूंक लज दिसता, ही विचार करपासारकी गजाल.

शिकिल्ल्या मनशांनी शारिरीक काम आनी स्रम करप हें उणाकपणाचें, ही भावना आमच्या भुरग्यांमदीं कशी आनी कित्याक लागून आयली काय? शिकता आसतना अभ्यासामुखार कामां करूंक वेळ मेळना ही गजाल वेगळी. शिकल्यांत देखून लज दिसता ही जाप मेळप हें बऱ्याचें लक्षण न्हय. आमच्या भुरग्यांक शिकयतना खंय तरी आमी नक्कीच चुकलीं. ताचोच हो परिणाम आज आमी पळेतात. आमचीं भुरगीं शारिरीक स्रमांचीं कामां आपणें करप न्हय अशें समजतात. सातवी, आठवी नापास जातात आनी शिकूंक जमना म्हूण घरांत बसतात. सुकणी, शेवणीं मारीत वाड्यांनी हेडत वेळ तर वगडायतातूच, आनी नाका आशिल्ले उपद्व्याप करतात. रितें मन सैतानाचें घर जाता. वायट संगत लागता आनी वायट व्यसनां लागतात. आमकां तांचो आदार जायसो दिसता तेन्ना तींच आमकां 'भार' जाल्यात म्हणपाचें होलमता. तांका शिकयतना आमी खंय चुकलीं हें सोदून काडून सुदारप भोव गरजेचें दिसता.

आमी शिकतात तीं आमचें गिन्यान वाडोवंक. आमी शिकतात तीं गिन्यानाचो वेव्हारांत उपेग करूंक. आमी शिकतात तीं गिन्यान आशिल्लो मनीस आपलें काम सहजतायेन करूंक शकता म्हूण. दुडू जोडूंक, बरे तरेन काम करूंक, बरे तरेन जीण जगूंक शिक्षण हें जायच. पूण शिकल्यांत म्हूण शारिरीक स्रमांचीं कामां करूंक लज दिसता अशें आमच्या भुरग्यांनी म्हणप म्हळ्यार?

आमी भुरग्यांक खऱ्यांनीच शिकयलीं काय फकत साक्षर केलीं? आमी तांकां तांच्या पांयांर स्वतंत्रपणान उबीं रावंक शिकयलीं काय तांचो 'त्रिशंकू' केलो? धड पारंपारीक वेवसायाचें गिन्यान ना आनी पुस्तकी शिक्षणाच्या आदाराचेर नोकरी मेळोवपा इतलें शिक्षणय ना. आमच्या भुरग्यांक शिकयतना खंय चुकलीं काय आमी?



९.

# अति सर्वत्र वर्जयेत

आयचीं भुरगीं हीं देशाचे फाल्यांचे नागरीक. ह्या नागरिकांमदीं आस्पावतात दादले आनी बायलो. पुरूशप्रधान संस्कृतींत दादल्यांक वयलो दर्जो आनी बायलांचें स्थान सकयल मानलां. पूण बायलमनशेक उणाक मानून घरांतल्या वणटींनी चिड्डिल्यार समाजाची उदरगत जावंक पावना हें आयज विद्वानांक पटलां. देशाचीं दोनूय चाकां, दादलो आनी बायल, घटमूट आसूंक फाव. देशाचो पर्जळीत फुडार जाय जाल्यार दादल्यांसारकेंच बायलांक शिकप, समान हक्क आनी समान दर्जो दिवंक जाय. घरांतल्या वणटींनी चिड्डिल्ल्या बायलांचो पांवडो उंचावंक समाजसुधारकांनी खूब वावर केला. सती प्रथा बंद करपी लाला लजपतराय, बायलां शिक्षणाखातीर वावुरपी महर्षी धोंडो केशव कर्वे हांणी बायलांक नवी जीण आनी नवी नदर दिल्या. 'अति सर्वत्र वर्जयेत' हे नदरेन ते वावुरल्यांत.

बायलमनीस ही कुटुंबाचो आनी देशाचो म्हत्वाचो घटक. देखून ती खंबीर मनाची, शिक्षित आनी सुसंस्कृत आसूंक जाय. ती एका दिसान घडचीना. ते खातीर घरांतलें आयचें ल्हान चलीभुरगें हें फाल्यांची बायलमनीस हें वळखून ताका वाडोवंक जय. स्वातंत्र्य, आत्मविश्वास आनी स्वावलंबन ह्या घटमूट बुन्यादी चिऱ्यांचेर उबी राविल्ली आयची चलीच फाल्यांची कर्तुत्वी बायल जावंक पावतली.

चलयेक आत्मविस्वास येवन तें स्वावलंबी जावंक जाय जाल्यार ताका पयलीं स्वातंत्र्य दिवंक जाय. भुरग्यांच्या एका ठरावीक पिराये मेरेन तांचें सगळें काम दुसऱ्यान करप हें बरें आसा. पूण चार-पांच वर्सांचे पिरायेपासून ल्हवू ल्हवू चलयेक स्वातंत्र्य दिवन स्वावलंबी केलेबगर ताका आत्मविस्वास येवचो ना.

एक दीस हांव बस-थांब्याचेर उबें आसलें. वळखीचें कमल दिसलें. कसल्या तरी कामा खातीर रस्त्यावयल्यान धांवतालें म्हळ्यार जाता. ताका हडकिलें, 'आगो, इतले ताकतिकेन खंय?'

धांवतां धांवतां ताणें म्हळें, 'शाळा सुटची जाली न्हय! चलयेक हाडूंक वतां. तें

म्हजी वाट पळयता आसतलें.'

पंदराएक मिनटां म्हाका बस मेळ्ळिना. हांव थंयच उबें. इतल्यांत कमल आयलें. हांवें ताका हडकिलें. 'आगो, चली खंय दिसना. तुजी वाट पळोवन घरा गेलें काय कितें?'

तें हांसलें आनी पंदरा सोळा वर्सांचे, ताचे परस उंचायेन व्हड अशे चलयेचे फाटीर थापट मारीत ताणें म्हळें, 'हें कितें म्हजे वांगडा आसा तें !'

'हें? येदे चलयेक तूं हाडूंक वता?' हांवें अजापान विचारलें.

'हय, आयज मेरेन तें केन्नाच रस्त्यार वा बसीन एकटें फिरूंक ना.' व्हडा अभिमानान कमल सांगतालें. 'हांव ताका शाळेंत पायतां आनी घरा वतां, रांदतां आनी परतें व्हरूंक येतां. आजकालचे दीस धड न्हय.'

मनांत विचार आयलो. 'अति सर्वत्र वर्जयेत' म्हणटात तें हेंच. हे चलयेचो फुडार कितें? हाका एके गरजेक लेगून रस्त्यार वा बसीन एकटें फिरूंक येवचेंना.

अलकालें चली इकरावी शिकता. ताका बॅडमिंटन आवडटा म्हूण कोचिंग क्लासाक घालां. पूण अलकाय वांगडा वता. विचारल्यार म्हणूंक लागलें, 'आजकाल कोणाचेर विश्वास दवरूं नजो. फाटल्या तेंपार पी.टी. शिक्षकान केल्ली आजनेर तुका खबर ना?' तशें एका शिक्षकान केलें खरें. पूण ते खातीर चलयेक पदराक बांदून फिरल्यार कशें जायत? देखून चलयेक जागरूक करची. 'पळय, ह्या संवसारांत अशें कितें कितें घडटा. सगळेच मनीस तशे आसनात; पूण आपणें सादूर रावप बरें. कितेंय चुकताशें दिसल्यार विश्वासान आमकां येवन सांग.'

जळगांव वासनाकांड वाचत पासून मायाचे आवयन धसको घेतला. कॉलेजांत शिकपी मायाक ती खंयचेच पार्टेक वा भौशीक मळार वचूंक दिना. एक दीस एका लग्नाक मेळ्ळी. 'आगे, माया खंयूच कित्याक येना? ताका आवडना?' अशें विचारल्यार सांगूंक लागली, 'जळगांव प्रकरण वाचत पासून म्हजी न्हिदूच उडली. देखून हांव मायाक घरा भायर पावल घालूंक दिना.'

जेन्ना जेन्ना हांव जळगांव प्रकरणाचो विचार करतां तेन्ना तेन्ना प्रस्न पडटा, त्या चलयांची लैंगीक पिळवणूक कित्या पासत जाली? त्या चलयांनी एक चूक केली. ती लिपोवंक सतरा चुको करच्यो पडल्यो. चलयांकडल्यान केदीय व्हड चूक जाल्यार लेगीत ती तांणी येवन आवय-बापायक सांगची इतलो विश्वास आवयबापायनीच चलयांक दिलोना. आनी कांय जाणांनी सांगली आसल्यार लेगीत आवयबापायनी पोलीस स्टेशनार वचून लेखी कागाळ करचेलें धाडस दाखयलें ना. 'समाज कितें म्हणटलो?' हो एक व्हडलो हाऊ तकलेंत हाडून चलयांची आनीक वाट लायली. समाज फकत म्हणटा.

अशेंय म्हणटा आनी तशेंय म्हणटा. जण एकल्यान आपले जिणेंत आयिल्ल्या वायटांतल्या वायट घडणुकांचो विचार करचो आनी चिंतचें, ह्या वेळार समाजान आपले खातीर कितें केलें? समाज फकत उलयलो अशी जाप येतली. आनी त्या वायट प्रसंगांतल्यान आपूण स्वताच आपल्या आत्मविस्वासाच्या बळग्याचेर भायर सरलां अशी जाप येतली. तेन्ना जळगांव प्रकरणाक लागून चलयांचें स्वातंत्र्य नश्ट करपाचें कांयच कारण ना. पूण स्वातंत्र्य म्हळ्यार कशाय कशें वागप आनी नाचप न्हय. स्वातंत्र्य म्हळ्यार स्वैराचार न्हय हेंवूय चलयांक समजावन सांगूंक जाय. हांगाय 'अति सर्वत्र वर्जयेत' होच नेम लागू पडटा.

चलयांच्या वाट्याक आवय-बापायकडल्यान चड करून नन्नाचो पाढो येता. हें करुंनाका आनी तें करुंनाका. हांगा वचुंनाका आनी थंय वचुंनाका. उपरांत लग्न जातकूच बायलमनीस म्हणून पेलना इतली जापसालदारकी पडून ती बागवता.

जायतीं जाणां आपल्या चलयांक शिकूंक दितात. पूण चलयेचें व्यक्तिमत्व घडचे खातीर न्हय; तर शिकिल्ले चले शिकिल्ल्यो चलयो सोदतात म्हणून ! लग्ना वेळार लग्न-स्वातंत्र्य तरी कितल्या चलयांक मेळटा? आयच्या काळांत लेगून दोट्टी पदव्यो घेवन नोकरी करपी कांय चलयांक चल्यांक पळयनासतना लग्न जावचेली पाळी येता म्हळ्यार खरें दिसत? पूण हें अशें घडटा. चलयांक पदव्यो आसल्यो तरी अन्यायाआड आवाज काडचेली धिटाय आसताच अशें ना. वळखीच्या शालीन सांगलें, ताचे भयणीचे इश्टिणीचें लग्न म्हळ्यार 'नाका तें लग्न' म्हणपासारकें जालें. पदवी घेतिल्लें, नोकरी करपी चली. चलो व्हडलो ऑफिसर आनी बऱ्या घरांतलो. न्हवऱ्याच्या घरांतल्या सगळ्यांक व्हंकलेकडचीं मेळ्ळीं. पूण न्हवऱ्याक पळयलोना. तो मुंबय आसतालो. लग्नावेळार चल्याक पळोवन चलयेन रडून आकांत केलो. चल्याक कसलो तरी रोग जावन तकलेक केंस ना, भोंवयो, खाड-मिशयो कांयच ना. सगळो गुळगुळीत. माटवभर बोवाळ. लग्न जालें पूण चली न्हवऱ्यागेर वचूंक तयार ना, आनी आवयबापूय घरांत घेवंक तयार नात. अशे तरेन व्हडा कश्टांनी वाडयल्ले चलयेच्या जिविताचे तीन तेरा वाजोवन मेकळीं! लग्नावेळार चलयेचें मन राखलेंना जाल्यार ती मानसिक स्वास्थ्य वगडावन बसता. जिका मन:शांती ना, सुख समाधान ना, ती बरी घरकान्न जावंक शकना आनी बरी नागरीक जावंक शकना.

हें जालें एक तोंक, जाल्यार अति स्वातंत्र्याचें दुसरें तोंक. चौदा वर्सांचें नीना, एका सोळा-सतरा वर्सांच्या, कांयच शिकूंक नाशिल्ल्या आनी आलमपेड्ड्यार चल्यावांगडा नाचता म्हणचेलें शेजाऱ्यांनी आवयक सांगलें.

आवयन म्हळें, 'नाचूं थंय. कांय जाणां पोट वाडोवन लग्न जातात. ताणें अजून मेरेन

तशें कांय करूंक ना न्हय !'

चलयेक जेल मेळ्ळें. अंतीं ताणें आवय-बापायक, रडचें पडटा इतलें विटयलें. चलयेचें शिक्षण सोडून दिवन, बेगिबेगीन लग्न करून दिवन, सुटलीं एकदांचीं म्हणचेलो वेळ आयलो. देखून स्वातंत्र्य म्हळ्यार स्वैराचार न्हय. देखून स्वातंत्र्य दितना अतिरेक करचो न्हय.

कांय चलयो शिकून करियर करूंक सोदतात. कांय जाणां घरकान्न म्हणुनूच वावरूंक सोदतात. कितेंय जरी आसलें तरी दर चलयेक गरज पडल्यार अर्थार्जन करूंक येता इतलें शिकप जायूच. अर्थार्जन म्हळ्यार फकत नोकरीच करप न्हय. स्वतंत्रपणान शिवण क्लास, ब्युटी पार्लर, तरेतरेचो वेपार वा क्लास चलोवप हें लेगून करूं येता. पूण अर्थीक स्वावलंबन आसप गरजेचें.

हालीं तेंपार कोण कोणाक वळखना. देखून चली आपल्या जिवितांत अडीअडचणीं वेळार अर्थीक नदरेन दुबळें जावंचेंना इतली जतनाय घेवंक जाय. हांगाय 'अति सर्वत्र वर्जयेत' हो नेम लागू पडटा. कांय जाणां दोतोरकेचें शिक्षण घेतात आनी अर्थीक गरज ना म्हूण लग्न जातकूच खोशयेन प्रॅक्टीस सोडटात. हें देशाचें एक व्हड नुकसान. कांय जाण समान हक्क वा करियर करच्या नांवा खाला भुरग्याबाळांचे हाल जातात आनी घराक घरपण उरना इतलीं घर-कर्तव्यां विसरतात.

स्वातंत्र्य, आत्मविस्वास आनी स्वावलंबन हांचो आवयबापायन चलयेक वेवस्थित उपेग करूंक शिकयत तर चलयेच्या पर्जळीत फुडारा वांगडाच देशाचोय पर्जळीत फुडार घडटलो.



१०.

# शेणिल्लें मनीसपण

दुर्गार बशिल्ल्या त्या माजराचेर तिणें ढण्ण करून बडी मारली.

'आगे, आगे तें गाबणें', हांवें कळवळून म्हळें.

'तें गाबणें म्हणुनूच तर मारतां. घरांत हुंदीर जाल्ले तेन्ना तांकां धरूंक हांव ह्या माजराक आपयताली. देखून ताका आमगेर घरांत फिरचेली संवंय जाली. आतां तें गाबणें. वियेवपाखातीर आमच्या शेल्फांतले मुस्तायकीचेर बसूंक सोदता.' तिणें सांगलें.

'म्हज्या अणभवाप्रमाण, माजराक ज्या घरांत पोसलां, त्याच घरांत तें वियेता. पूण त्याच घरांत जर ताचेच पसून जाल्लो लेगीत बुकलो आसत तर मात तें वियेवच्या वेळार आपले संवकळीचें दुसरें घर सोदता.' हांवें म्हजो अणभव सांगलो.

'तूं म्हणटा तशेंच जालां तें. हे खेपे तें आमगेरूच वियेतलें. ते विशीं दुबाव ना.' माजर आपल्यागेर वियेल्लें नाका हें तिच्या तोंडावयल्यान कळटालें.

'आगे, माजरान पिलां काडचेखातीर जें शेल्फ वेंचून काडलां, थंय तुका नाका आशिल्ली अशी कांय मुस्ताकी दवर. मागीर जालें ना!' म्हाका ते बायलेची तिडक मारली. घरांतले हुंदीर धरचे खातीर माजराक आपयताली. आतां तें माजर गाबणें जाल्यार ताचे इल्लेशे त्रास सोंसूंक जायना?

'आनी तीं पांच-स पिलां जातलीं तांचें कितें करचेलें? तुमगेर धाडचेलीं?' तिच्या उलोवण्यांतल्यान राग ओततालो.

'तुका तें कोणालें माजर तें खबर आसाच. तांकांच आपय आनी पिलां व्हरूंक सांग. तें माजर पोसपी मनीस ताचीं पिलां व्हरूंक न्हयकार दिवंचो ना.' त्या गाबण्या माजराचो मार चुकचो म्हूण हांव यत्न करतालें.

'ते उपद्व्याप कोण करतलो? ते परस तीं पिलां जल्मनाफुडें हांव तांकां काडून कोयरा बल्लांत उडयन.' तिची जाप.

'आगे, तशें केल्यार तीं पिलां मरतलीं.' म्हजेर आकांत.

'मरूं थंय ! हांगा मनशांच नाका जाल्लीं बाळकां लेगीत कोयरा बल्लांत उडयतात

म्हणून दिसाळ्यांनी येता तें केन्ना वाचलेंना दिसता. दिसाळीं वाच मात्शी. काळजान बरीऽ घऽट जातली.' तिणें म्हाकाच सल्लो दिलो.

उलोवणें आनीक ताणल्यार संबंद तुट्टले आसले. त्या गाबण्या माजराचो मारूय चुकचो नासलो आनी तीं पिलांय तिच्या घरांत जल्मल्लीं जाल्यार बल्लांत पडचेलींय चुकचें नासलें. देखून हांवें तो विशय थंयच सोंपयलो.

तो विशय उलोवचेलें तोंडान बंद केलें तरी तकलेंतले ते विचार हालना जाले. एकटी वळखीची मेळ्ळी. तिका हांवें ही गाबणें माजर आनी पिलां संबंदीची गजाल सांगली.

'हे असले गजालींचो केन्नाच बोवाळ करचो न्हय. कोणाय शेजाऱ्यालें माजर जेन्ना आमगेर वियेता, तेन्ना हांव कितें करतां जाणा?' ही त्या प्रस्नाचेर बरोऽसो कितेंय तरी उपाय सांगतली हे उमळशिकेन हांवें विचारलें, 'कितें करता?'

'कोणालेंय गाबणें माजर आमगेर येवन वियेवंक जागो सोदूंक लागतकीर हांव सादूर रावतां. तें वियेलें म्हणचेली सुलूस लागली रे लागली, हांव उदक बरेंऽ सळसळीत तापयतां.

'उदक? सळसळीत उदकशें?' अजापिल्लें हांव.

'तें सळसळीत उदक हांव आमचे जमीन पुसचेले बालदेंत घालतां आनी माजराच्या एका एका पिलाक काडून त्या सळसळीत उदकांत उडयतां.'

'आं!...' म्हाका उतर फुटलेंना. ही मनीस?...ही बायलमनीस?

'असल्या गजालींचो केन्नाच बोवाळ करप नासता. कित्याक तर हीं माजरां चड करून शेजाऱ्यांचींच आसतात. हे शेजारी माजरांक काय गळ्यांत दोरी बांदून दवरूंक शकनात. आपल्या माजरांचीं पिलां मारलीं म्हूण समजले उपरांत तांचें वायटपण. तेपरस बोवाळ करिनासतना हो उपाय बरो.'

तिगेले विचार आयकून हांव बेजारलें. घरांत येवपी हुंदीर मारूंक तुमकां माजरां जाय? तांच्या पिलांचे इल्लेय त्रास काडूंक नाका? शी ! मनीसपण शेणिल्लीं मनशां!

एक दीस दुकानाकडचो शेजारी आयलो. 'तुमचेकडेन हुंदीर धरचेलो रातेर आसा गे?'

'हय, कित्याक?'

'म्हाका मात्सो दिशात? म्हज्या दुकानार खूब हुंदीर जाल्यात. म्हजें कपड्यांचें दुकान. हुंदरांनी कपडे कुरतडायल्यार म्हाका जोडचे सोडून मोडचे पडटले.' ताणें सांगलें.

हांवें ताका रातेर काडून दिलो. पंदरा वीस दिसांनी तो रातेर घेवन आयलो.

हांवें विचारलें, 'हुंदीर कमी जाले काय ना?'

'हय तर, दिसाक दोन-दोन हुंदीर व्हरून सोडले हांवें', ताची जाप.

'हुंदीर व्हरून सोडले म्हळ्यार?' म्हाका तो कितें उलयता ताचो अर्थ कळ्ळोना.

'आगे, हुंदीर म्हळ्यार निश्पाप मोनजात. आपलो जीव जगोवंक म्हूण कपडे खा, धान्य खा अशें करता. हुंदीर वायरी कातरता तो मनशांसारको दुश्टपणान न्हय, दुस्वासान न्हय. ताका कितें तरी खावंक जाय आसता. ते निश्पाप मोनजातीक मारप?... म्हज्यान जायना.' ताणें म्हळें.

'हुंदराक तुमच्यान मारूंक जायना? तो तर मनशाचो व्हडलो दुस्मान. मेळटा ते वस्तूचो इबाड करपी. आमी जर हुंदरांक मारलेनात जाल्यार धान्याचो कितलो इबाड जातलो जाणा?' म्हाका ताचे विचार आयकून अजाप जालें आनी हांवें जाप दिली.

'मनशाचो खरो दुस्मान फकत मनीस. सैमान हो जो सोबीत संवसार निर्मिला, तांतले दर एके वस्तूची गरज आसा म्हूण ती निर्मिल्या. मनीस आपले बुद्धीचो उपेग करून मोनजातीचेर दादागिरी करता. बोकडां, कुकडां, धुकरां, सोंशे, सावदां, नुस्तें... कितें मेळटा तें मारून खाता. पूण तें समा न्हय. कित्याक तर तातूंत जीव आसा - अहिंसा परमो धर्म', ताणें सांगलें.

'जीवो जीवस्य जीवनम्', हांवें जाप दिली. 'दर्यांत व्हडलीं नुस्तीं धाकट्या नुस्त्यांक खातात. बळिश्ट जनावरां दुबळ्या जनावरांक खातात.'

'पूण तो रानवटी कायदो. मनीस हो सुसंस्कृत, बुद्धिजिवी. देखून सैमांतल्या खंयच्याय जिवाक मारप हें चूक. जसो मनशाक जियेवपाचो अधिकार आसा तेचप्रमाण सैमांतल्या सगळ्या जिवांक जियेवचेलो अधिकार आसा. मनीस तो तांचेकडसून बळजबऱ्यां काडून घेता तेन्ना तो चुकता. तुमीय हुंदराक, ते मोनजातीक मारतात तर?' ताणें प्रस्न केलो.

'हय. हुंदरांक मारप आनी माजरा पिलां मारप हातूंत फरक आसा.' हांवें म्हजो विचार मांडलो.

'जीव हो जीव. मागीर तो हुंदराचो आसूं वा माजरा पिलाचो.' तो उलयतना ताच्या मनांतले विचार दोळ्यांतल्यान उकते जाताले. शी ! कितें ही बायलमनीस! मनीसपण शेंणिल्ली बायलमनीस!

ओगी रावप हांव समा समजलें.

एक दीस हांव म्हजे किरिस्तांव इश्टिणीच्या गायचें मांस विकचेल्या दुकानाम्हऱ्यांत उबें रावन ते इश्टिणीकडेन उलयतालें. इतल्यांत थंय एक किरिस्तांव बायल आयली. म्हणूंक लागली, 'आगे, पळोवंक गेल्यार तूं हिन्दू कशी दिसता. मागीर तूं ह्या गायचें मांस विकचेल्या दुकानाम्हऱ्यांत कशी?'

हांवें म्हळें, 'हिन्दू कशी दिसता कित्याक? हिन्दूच हांव. पूण हांवें म्हजे इश्टिणीक मेळूंक ह्या दुकानार कित्याक येवप ना?'

'तुमी हिन्दू गायचें मांस खायनात. आयज लेगीत खूबशे हिन्दू किरिस्तांवांगेर उदक लेगीत पियेनात. गायच्या मांसाक हात लागल्यार लेगीत हिन्दू भश्टता.'

तिची जाप आयकून म्हाका हांसूंक आयलें.

म्हळें, 'बाय गे, आतां आमी सगळीं शिकल्यांत सवरल्यांत. जी गाय हिन्दू देव म्हूण पुजतात, ती मेली वा मारली जाल्यार तिच्या मांसाक आफुडल्यार हिन्दू एकदम कशे भश्टतले? हिन्दू धर्म हो विज्ञानाचेर आधारीत आसा. गायचें मांस खावन पचोवप कठीण. चड खाल्यार भलायकी इबाडटा हें सत सांगल्यार मनाचेर ताबो नाशिल्लो मनीस गायचें मांस येतिश्ट खावन भलायकी इबाडून उडयतलो. धर्माच्या नांवान सांगलें म्हणटकीर मनीस कांय नेम पाळटा. पूण प्रत्येक धर्माचे अनुयायी, जे बळिश्ट आसतात ते आपले ताकतीच्या जोरार धर्मग्रंथांनी जें बरयल्लें आसा, ताचो उपेग आपलो सुवार्थ सादूंक वापरतात, धर्माचें रूप इबाडटात. गायच्या मांसाक आफुडलें वा तें खालें वा तें खातल्याक आफुडल्यार भश्टता म्हणप हो अतिरेक.'

'पूण म्हाका सांग गे, जाण्ट्या गाय-बैलांक मारले ना जाल्यार तांचो कांय उपेग जायना. इतल्या जनावरांखातीर खाण कशें पावतलें? आमी तांकां मारून खातात देखून तर तरणाट्या गाय-बैलांक फावो तशें खावंक मेळटा. कांय जाण मरतात देखून कांय जाणांक जियेवंक मेळटा.' तिणें आपले विचार प्रगटायले.

'तूं म्हणटा तें खरें. म्हाका जाल्यार दिसता, वेगवेगळ्या धर्माचे खावपाबाबतींतले विचार खंय तरी सैमीक संतुळा सांबाळटात.' तिका जाप दितना म्हाका एके मराठी कवितेची ओळ याद जाली - 'मरणांत खरोखर जग जगतें.'

'म्हाका सांग, जर जाण्ट्या, उपेग नाशिल्ल्या गाय-बैलांक मारून खावंक हरकत ना, जाल्यार जाण्ट्या, हांतरुणार पडून उपेग नाशिल्ली जीण जगतल्या जाण्ट्या मनशांक कित्याक मारचीं न्हय?' म्हजे इश्टिणीन बॉंब शेंवटिलो.

'शी ! कितें गो बाये तूं ! मनीसपण नासलेल्या सारकें उलोवं नाका हां ! जनावरांक मारप वेगळें आनी मनशांक मारप वेगळें' म्हणत तें गिरायक आपलें सामान घेवन गेलें.

ती बायल वतकीर इश्टिणीन म्हाका विचारलें, 'तुका कितें दिसता, हांतरुणार पडून आपलें स्वताचें काम लेगीत करूंक शकनासलेलीं, भुंयेक भार अशीं जाण्टीं मनशां सैमीक मरण मरमेरेन दवरचीं?'

'आपूण भुंयेक भार जातां अशी जाणविकाय जाल्ल्या कांय मनशांनी पायोप्रवेशन

केलां. पायोप्रवेशन म्हळ्यार उदक आनी अन्नाचो त्याग करून जीव सोडप. पूण हें कोणूच कोणाचेर बळजबऱ्यां लादूंक शकनात. तशें केलें जाल्यार तो खून जातलो.'

तशी इश्टीण म्हणूंक लागली, 'पायोप्रवेशन करून आपले कुडीक भुकेन-तानेन कश्टावन मारचेपरस गोळ घेवन मरप बरें. मनीस फट् करून मरता तरी. गरजेभायर कुडीचे हालहाल कित्याक करप? शेवटीं परिणाम एकूच. कुडींतलो आत्मो वता.'

हांवें म्हळें, 'आत्महत्या आनी पायोप्रवेशन हातूंत फरक आसा. आत्महत्या करपी मनीस निर्शेल्लो आसता. अपयश, निर्शेणी आनी मनाचें दुबळेपण तेंगशेर पावतकीर कुडीचे भलायकेन बरो आशिल्लो मनीस लेगीत मनाची भलायकी इबाडिल्ल्यान केन्ना केन्ना आत्महत्या करता तें आमी पळयतात. पूण पायोप्रवेशनान मनीस अपेस, निर्शेणी वा मनाचें दुबळेपण हांकां लागून अन्न-उदकाचो त्याग करून कुडीचें जिवीत सोंपयना. आपले कुडीचो उपेग कोणाच खातीर जावंचोना अशें चिंतून तो खोशयेन जिवीत सोंपयता.'

तशी इश्टीण म्हणूंक लागली, 'कितेंय जालें तरी मनीस मरता. देखून हांव तरी आत्महत्या आनी तो पायोप्रवेशन काय कितें तो - तातूंत फरक मानिना.'

'अशें कशें? कुडीचें अस्तित्व सोंपोवचेलें कारण आनी तें कशे तरेन सोंपयलां हेंवूय म्हत्वाचें.' हांवें म्हजें मत सांगलें.

'जो मनीस अन्न-उदकाचो त्याग करता आनी कुडीक वळवळत मारता तो खोशयेन मरता खरो, पूण ताका तसो आपल्या दोळ्यां सामकार मरूंक दिवपी मनशां, मनीसपण शेंणिल्लीं मनशां अशें तुका दिसना?'



११.

# फटींगपणाच्यो तरेकतरा

ह्या संवसारांतल्यो सगळ्यो वस्तू बदलतात. बदल हो जगाचो नेम. मनीसूय हाका आडवाद ना. मनीसूय बदलत आसा. पूण तो खंय चल्ला? फटींतल्यान खऱ्याकडेन, काळखांतल्यान उजवाडाकडेन? समाजांत घडपी घडणुको सांगतात, मनीस उरफाटो चल्ला. खऱ्यांतल्यान फटीकडेन, उजवाडांतल्यान काळखाकडेन. इल्ल्या इल्ल्या सुवार्थापासत मनशाचे नैतिकतेचो ऱ्हास जायत आसा. दिसानदीस फटींगपणां वाडतूच आसात. हीं फटींगपणां कोणूय करता. ताका कसलेंच बंधन ना. ल्हानापसून व्हडामेरेन, तरणाट्यांपसून म्हाताऱ्यांमेरेन. दादलेच फटयतात अशें न्हय, तर बायलोय आनी भुरगींय बी फटयतात. शिकुंनाशिल्लेच फटयतात अशें न्हय, तर चड शिकिल्ले, चड व्हडल्या पदाचेर आशिल्ले चड बरे तरेन फटयतात.

गांवगिऱ्या वाठारांत रावपी हांव एक दीस थंयच्या देवळांत गेल्लें. थंय खबरां फलकाचेर एक खबर वाचली - 'गांधी जयंती निमतान पंचायतींत Cleanliness Eradication ही खाशेली कार्यावळ दवरल्या. सगळी खबर इंग्लिशींतल्यान आशिल्ली. ते कार्यावळीक आमचो आमदार येवंचो आसलो. देखून घरा येवन हांवें रोखडोच आमदाराक फोन केलो. म्हळें, 'आमदारबाब, आमच्या पंचांनी आमच्या वाठारांतलें पुरायेन Cleanliness Eradication केल्लें आसा. मेळत थंय बेकायदेशीर बांदकामां करून खळयो, उदका वाटो पुरोवन सध्या आमी कमर मेरेन बुडटात आनी पुराय वाठार हळशिकेचो जावन आमी दुयेंसाचे भकीक पडटात. गांधी जयंती निमतान ही आनी कसली खाशेली Cleanliness Eradication ची कार्यावळ दवरल्या?'

म्हजी गजाल आयकून आमदार अजापीत जालो. ताणें म्हळें, 'हांवें तांकां Plastic Eradication ची कार्यावळ आंखूंक सांगिल्ली.' सगळी चवकशी केले उपरांत कळ्ळें, फिर्गी भास येनासतना, तिचो अर्थ समजनासतना ती भास बरोवचेलीं, वापरचेलीं फटींगपणां केल्ल्यान सगळो गोंदळ जाल्लो.

कितेंय काय जायना, गांधी जयंती निमतान तरी पंचायतींतल्या पंचांनी आपणाक इंग्लिशींतल्यान कारबार चलोवंक येनासतना लेगीत आपूण तेच भाशेंतल्यान तो चलोवचेलीं

फटींगपणां करतात म्हणचेलें उक्ताडार हाडलें.

कांय वर्सां फाटीं म्हाका टेलिफोनाचें बील मेळूंक खूब त्रास जाताले. वेळा भितर बील आयलेंना म्हणटकीर धांवपळ करीत टेलिफोन गिरायक सेवा नाबीचेर वचून एके व्हड रांकेंत तें बील भरूंक पोस्ट ऑफिसांत उबें रावचें पडटालें. बील वेळच्या वेळार घरपोंच मेळूंक कितें करप, असो प्रस्न हांवें पोस्टमास्तराक विचारलो.

'ते, ते टेलिफोन खात्यांतले लोक कामचुकार देखून हें अशें जाता. तूं कितें कर जाणां, बील घेवंक तूं जे रांकेंत उबी रावता, थंय त्या क्लार्काक ही गजाल सांग. मागीर ते घडये तुका वेवस्थित बील धाडीत.'

पोस्टमास्तरान सांगलें तशें हांवें केलें. क्लार्काक ही गजाल सांगल्या मात, ताणें पोस्टखात्याचे तीन तेरा वाजयले. व्हडलो बोवाळ घालो. पूण फुडलेय खेपे म्हाका बील वेळार आयलेंना. परतेंय रांकेंत उबें रावचें पडलें. क्लार्कान म्हाका बील दिले उपरांत हांवें ताका म्हजें बील केन्नाच वेळार येना, तेविशीं कितेंय उपाय आसा काय म्हूण विचारलें.

'एक उपाय आसा', ताणें सांगलें.

'कितें करप?' हांवें आशेन विचारलें.

'फुडले खेपे तुका बील आयलेंना म्हणटकीर तूं हांगा येवन व्हड रांकेंत उबी रावन बील व्हरचेली तकालस घेवंनाका. म्हणटकीर आपसूक बील भरूंक व्हडा रांकेंत उबी रावंचेलो तुजेर प्रसंग येवंचोना. तुवें बील भरूंक ना म्हणटकीर आपसूक तुजो टेलिफोन डिसकनॅक्ट जातलो आनी टेलिफोनाच्या बिलाची कटकट सासणाची चुकतली.' अशें सांगून तो हेंऽ हेंऽ हेंऽ करून हांसूंक लागलो.

टेलिफोन गिरायकांक जावपी त्रासाचेर कितेंय उपाय काडचे बदला वयल्यान गिरायकाचीं फकाणां मारप? हिंवूय एके तरेचीं फटींगपणांच जालीं नात? म्हाका ताची भिरभिरी मारली. हांवें ताका जाप दिली - 'तुमी हो उपाय सांगलो म्हणून तुमकां देव बरें करूं. ही जी व्हडली रांक आसा न्हय, तांकांय सगळ्यांक हेंच सांगात. म्हणजे सगळ्यांचे फोन तोडून उडोवं दी. उपरांत कोणाकूच फोन आसचो ना आनी हे नाबीची गरज उरचीना. तुमकांय हांगा गिरायकांक असल्यो फटींगपणाच्यो जापो दिवंक पगार घेवंक येवचेलीय गरज उरची ना.'

म्हजी जाप आयकून रांकेंतले खूबशेजाण व्हडान हांसले आनी तो क्लार्क ओगी बसलो.

एक दीस पोस्टमॅनान रकाद दिलो. 'तुमकां एक पार्सल आयलां. पोस्टांत येवन व्हरात.' देखून पोस्टांत गेलें. कावंटरा म्हऱ्यांतूच बशिल्ल्या पोस्टमास्टराक पार्सलाविशीं

सांगलें. पूण तो पार्सलाविशीं कांयच आयकून घेवंक तयार ना. म्हणूंक लागलो, 'तुमच्या नांवाचें पार्सल येवंकूच ना. हे पोस्टमॅन कित्याय कितें सांगून आमकां उठाबशो काडूंक लायतात.'

हांवें म्हळें, 'हो पोस्टमॅन प्रामाणीक. तो केन्नाच कोणाची फकाणां करिना वा कोणाकडेन फटींगपणां करिना.'

पूण थंय म्हजें उलोवणें कोणेंच आयकून घेतलें ना. खऱ्यांनीच आयिल्लें म्हजें पार्सल परतें गेलें. पार्सल धाडप्यान म्हाका चीट घालून कळीत केलें आनी परतें पार्सल धाडलें. ती चीट घेवन हांव पोस्टमास्तराकडेन गेलें. उपरांत ताणें झक मारत म्हणटात तशें मानून घेतलें - 'त्या दिसा आमी टेलिफोन बिलांचे गडबडींत आशिल्ले देखून...'

पूण हीं असलीं फटींगपणां कित्याक करप? आनी पार्सल व्हरूंक मनीस येवंक ना म्हूण तें परतें कित्याक धाडप?

एकदां पावसाचीं जोतीं हाडूंक म्हणून हांव म्हज्या सदच्या जोत्यांच्या दुकानार गेल्लें. जोतीं मनासारकीं नाशिल्लीं. पूण दुकानदारान चडच आग्रो केलो म्हूण ताका सांगलें, 'हीं असलीं उंच खोंटांचीं जोतीं घालून म्हाका चलचेली संवंय ना. देखून तीं कितलींय बरीं आसलीं तरी म्हाका उपेग पडचींनात.'

दुकानदारान म्हळ्ळें, 'आयज तूं हीं जोतीं व्हरूच. घरांत घालून चल. तरीपूण त्रास जाताशे दिसल्यार फाल्यां घेवन यो. तुका जोतीं बदलून दितां.'

दुकानदाराच्या आग्र्याक लागून जोतीं घेतलीं आनी ताका पयशे फारीक केले.

घरा येवन जोतीं घालून चलचेलो यत्न केल्यार जमना जालें देखून तशेंच, त्याच दिसा सांजवेळा परतेंय ताच्या दुकानार वचून तीं जोतीं दिवन ताका दुसरीं जोतीं दिवंक सांगलीं. पूण म्हाका जाय तशीं थंय जोतींच नासलीं. ताणें आनीक दोन दिसांनी आपयलें. तो वळखीचो म्हणून हांवेंय पयशे परते मागलेनात. दोन दिसांनी गेल्यार परतीय जोतीं ना. परतेंय दोन दिसांनी गेलें. दुकानदारान सांगलें, तुका जाय तशीं जोतीं आयल्यांत. पूण तीं काडून दिवंक वेळ ना. आनीक दोन दिसांनी परतें गेलें. दुकानार मालूय खूब आनी गिरायकय खूब. हांवें जोतीं मागतकीर ताणें नेटान सांगलें, 'म्हाका उदारी करूंक परवडना.'

उदारी ! म्हाका अजाप जालें. एक आठवडो जालो म्हजे पयशे हाचेकडेन आसात. हो म्हाका जोतीं दिना आनी आतां वयल्यान शापोतां सांगता? थोड्याश्या पयशांचे आशेन सदचें गिरायक तोडटा? विश्वासघात करता? थोड्याश्या दुडवांपासत हाची नीती शेणली?

हांवें आवाज चडोवन सगळ्या गिरायकांहुजीर ताका पयशे दिल्ल्याचें सांगलें तेन्ना

ताणें झक मारत म्हणटा तशीं जोतीं काडून म्हाका दिलीं.

म्हाका वायट दिसलें तें मनशाचे बदलते वृत्तीचें. इतल्या वर्साच्या गिरायकाकडेन थोड्याश्या दुडवांचे आशेन अशीं फटींगपणां करप?

कांय वर्साफाटीं टेलिफोनाचें बील भरूंक पोस्टांत गेल्लें. रांकेंत रावतलें म्हळ्यार, कितलेशेच दादले कशे तरी उबे रावल्यात. ती रांक न्हय आनी तातूंत बायलमनशेन रावप सारकें न्हय म्हणून हांव कुशीक उबें रावलें. अर्द वर जालें तरी हांव आसां थंयच आसां. कोणूय येता आनी गर्देन कसोय घुसता. म्हजे फाटल्यान आयिल्ले दादले बिलां भरून गेले. आतां कितें करप? बील भरपाच्या जनेलाकडेन गेलें. थंय एक बायलमनीस बशिल्ली. तिका विचारलें, 'हांगा बायलांखातीर रांक ना?'

दादल्यांतल्या एका सभाग्यान जाप दिली, 'ना, क्यू ना... बाबू नायकान बायलांखातीर मडगांवां क्यू करूंक ना.' आनी तो हीऽ हीऽ करून हांसलो.थंयसरले खूबशे दादले हांसले. हे बायलमनशेची कशी जिरयली म्हणून जाप दिवपी समाधान पावलो.

हांवें जाप दिली - 'प्रत्येक गजाल करपाक बाबू नायकाची वाट कित्याक पळोवपाची? हांव आतांपसूनच बायलांखातीर क्यू करतां.' जनेलाकडेन गेलें आनी ते बायलमनशेक सांगलें, दोन दादल्यांउपरांत एके बायलमनशेचें बील घे. तिणेंय सगलें लक्षांत घेवन तशें केलें. हीऽ हीऽ हीऽ करून हांसतल्याचें तोंड पळोवपासारकें जालें. पयलीं आयिल्ल्याक पयलीं बील भरपाचो हक डावलून चलिल्ल्या फटिंगपणाचें आनी आमचेकडेन नाशिल्ल्या वेवस्थीतपणाचेर विचार करपासारकें दिसलें. मनांत आयलें, म्हजेसारक्या ह्या ना त्या कारणान घराभायलीं कामां करपाची संवंय आसा म्हणून हांव हें करूंक शकलें. पूण मुखदुर्बळ बायलमनीस कितलो वेळ थंय तटकळटली आसली काय?

एक दीस सकाळचीं आठ वरां जाल्लीं. अजून सगळीं कामां जावपाचीं आशिल्लीं. इतल्यांत दारार बॅल वाजली. आनी कितें सांगूं? ती बॅल वाजतच रावली. इतलो गरजेवंत कोण काय म्हणून हातांतलें काम उडोवन तशेंच भायर धांवलें. जनेलांतल्यान पळयत जाल्यार भगवीं वस्त्रां घालून एक साधु महाराज उबो. म्हाका पळोवन म्हणटा, 'दरवाजा खोलो बहन, तुमसे बात करने आया हूँ.' घरांत कोणूच ना आनी हाका दार उगड? हांवें दार उगडलें ना. थंयच उबें रावलें. ताणें म्हळें, 'मैं भगवान शंकर का अवतार हूँ बहन.' तागेलीं तीं उतरां आयकून असली भिरभिरी मारली ! कसलीं हीं फटींगपणां! आतां हागेले तीन तेरा वाजयलेबगर जावचेंना असो विचार करून ताका विचारलें, 'कौनसा अवतार?'

ताणें जाप दिली, 'मैं भोलानाथ हूँ बहन, दरवाजा खोलो.' तागेलें उतर आयकून हांवें गोऽऽड आवाजान आमगेल्या अल्सेशन कुत्र्याक उलो केलो - 'नेऽऽशर, नेऽऽशर..'

आनी त्या साधु महाराजाक सांगलें - 'मेरे पास भी भगवान शंकर का अवतार है - रुद्रावतार.' त्या कुत्र्याची सांखळी काडून ताका घरांतूच सोडला मात, साधू किळांचलो.

'बहन, दरवाजा मत खोलो बहन, मत खोलो.' आनी जीव आसल्यार भीक मागून खायन अशे तरेन धांवत सुटलो. देवाच्या नांवान चलिल्ल्या फटींगपणाची एक देख.

हें फटींगपणाचें नाटक इतल्यारूच सोंपूंक ना. ताचे आनीक जायते आंक आसात. एक दीस बँड वाजता तो आवाज आयलो म्हूण भायर आयलें. दोग तरणाटे बँड वाजयताले आनी एकलो तरणाटो एक कागद हातांत घेवन फिरतालो. थोड्या वेळान तो कागद घेवन म्हजे म्हऱ्यांत आयलो. हांवें तो वाचून परतो दिलो. कागदाचेर बरयल्लें - 'आमी पूरग्रस्त आशिल्ल्यान आमकां सदळ हातान मदत करची.' हें सगळें इंग्लिशींतल्यान बरयल्लें.

हांवें कागद परतो करिनाफुडें ताणें म्हळें, 'रुपया, दोन रुपया तरी दी न्हय !'

हांवें म्हळें, 'म्हाका कांयच दिवपाचें ना. हीं सगलीं फटींगपणां.' ताणें एक लिस्ट काडून दाखयलें. ताचेर नांवां आशिल्लीं आनी नांवांफुडें पांच रुपया दिले, धा रुपया दिले अशें बरयल्लें. म्हाका तो कागद दाखयत ताणें सांगलें - 'हो कागद दाखयनाफुडें कांयच विचारनासतना इतल्या सगल्यांनी पयशे दिले आनी तुकाच हीं फटींगपणां दिसतात?'

हांव हांसलें. 'आरे, इतल्या सगल्यांनी पयशे दिले न्हय, मागीर हांवें एकल्यान दिलेना म्हणून कांयच जायना.'

ताणें बडबडपाक सुरवात केली. दोन रुपया दिल्यार तूं कितें गरीब जातली काय म्हणपाक लागलो. तो खूब बडबडलो तरी हांवें पयशे दिले नात. शेवटीं तो गेलो. सांजवेळा पळयत जाल्यार हो तिगांचोय ग्रूप सोरो पियेवन तर्रर जावन रस्त्यार भांगडा करता.

दरएका मळार खंय ना खंय, कसलीं ना कसलीं फटींगपणां चालूच आसतात. कांय राजकारणी वेंचणुके पयलीं आश्वासनां दिवन, वेंचून येतकीर फटयतात. कांय जाण तर पक्षांतर करून सत्ता हातासून प्रजेक फटयतात. शिक्षणाच्या मळार दुडू घेवन विद्यार्थ्यांक शाळा-कॉलेजांत प्रवेश दिवप, मार्कांचो घोटाळो करप, आपल्याक जाय तांकां मार्क वाडोवन दिवप, असलींय फटींगपणां कांय कडेन जाल्लीं आसात. खेळां-मळार, खास करून क्रिकेटीच्या मळार तर 'मॅच फिक्सिंग' करून फटींगपणां केल्लीं आसात. विदेशांत नोकऱ्यो दितां म्हूण सांगून लाखांनी रुपयांक फटोवप वा भांगराच्यो बिस्कुत्यो म्हूण पितळेच्यो दिवप, भांगराचीं कांकणां चकचकीत करता म्हूण सांगून तीं नाच्च करप, अशे तरेचींय फटींगपणां चलतात. अशीं हीं तरेकतरेचीं फटींगपणां - फटींगपणाच्यो तरेकतरा.



१२.

# बबलू ब्ल्यू फिल्म पळयता?

सरस्वती पूजना दिसा विद्यार्थ्यांनी शाळेंत ब्ल्यू फिल्म पळयलें. दिसाळ्यांतली ती खबर वाचून घेऽऽ बोवाऽऽळ - आयचे हे भुरगे असलेच. कसल्याच उपेगाचे न्हय. शिकूंक नाका, काम करूंक नाका. न्हय त्यो गजाली करूंक मात फुडें. आतांच असले दिवे लायतात. फुडाराक कितें करतले तें कळटा - आमची करंदाय. सगळी चूक भुरग्यांचीच? आमच्या मनाक आमी हो प्रस्न विचारचो. आमी तांकां कशे तरेन व्हड केले हो प्रस्न आपणाकूच विचारचो. मागीर आयचे भुरगे अशे कित्याक हाची जाप आमकां मेळटली.

शिकूंक नाशिल्ल्या वा थोडेंभोव शिकिल्ल्या वा खूब शिकिल्ल्या आवय-बापायच्यो धुवो पदव्यो घेवन नोकऱ्यो करूंक लागतात. एकेकदां 'तो' थंय मेळटा. सैम आपलें काम करता. दोगांकूय एकामेकांची ओड दिसता. मोग जाता. मागीर आमी धुवो आवय-बापायच्या आशिर्वादान वा विरोध आसल्यार पळून लेगीत वचून लग्न करतात. दोगांकूय एकामेकांची गरज आसा म्हूण. इतलें मेरेन सगळें वेवस्थित आसता. मागीर अचकीत आमी बायलो 'सादूर' जातात. आमी 'मॉडर्न', शिकिल्लीं जोडपीं आनी आमी बायलांनी नांव बदलप? घोवाचें नांव लावप? मागीर आमचें स्वताचें अस्तित्व खंय उरलें तर? गळ्यांत मंगळसूत्र घालप? बांदून घेवंक? आरे, ही तर गुलामगिरी. पळेलें, ह्या लोफर दादल्यान घर सांबाळपाक, आपल्याक जाय तें करपाक, जाय थंय वचपाक मेळचें म्हूण म्हाका आपल्या घरांत हाडलें. अन्याय ! अन्याय ! सामको अन्याय ! आमी फकत 'कोणाची तरी बायल' म्हूण जियेवचेलें? पळेलें कशें फटवलें तें !

'ही म्हजी घरकात्र' अशें तो म्हणटा. पूण प्रत्यक्षांत मात हांव ताची वावराडी - तव चरणाची दासी. आमी ताचेकडेन दुबावान पळयतात. मागीर निश्चेव करतात - हांव दादल्याकडल्यान अन्याय सोंसचेंना, मंगळसूत्र (अन्याय) घालचेंना. नांव बदलप? (अन्याय) केन्नाच ना. रांदा वाडा आनी उश्टीं काडा? नाच ना. मागीर आमी कुळारचेंच नांव दवरतात. आमकां समान हक्क जाय. तातूंत शिक्षण आनी नोकरी हांकां लागून अंयशीं टक्के 'आमकां' फकत जेवचेलेंच खबर आसता. रांदूंक येना. ताका आवयचे

हातचें सुरबूस खावंचेली संवंय आसता. तरी पूण आमी हट्टान थाटिल्ल्या राजाराणीच्या संवसारांत तो अर्दकच्च्यो चपात्यो, करपल्ली भाजी आनी मोव शिता तोखणाय करत जेवता.

आमकां आमचोय करीअर जाय आसता. इतलीं शिकलीं तीं कितें फकत 'चूल आनी मूल' करूंक? मागीर मंगळसूत्र घालनासतना आनी नांव बदलनासतनाय आमी कुळार सोडून त्या 'लोफर सभावाच्या' घोवागेर वचून रावतात.

मागीर आमकां दीस वतकूच आमी खोशी जातात. आमच्यो तरातरांनी अपुरबायो आनी तोखणाय करून घेतात. जांकां भुरगीं नात तांची काकुळट करतात वा तांकां 'वांझूट' म्हूण हिणसायतात. आमकां भुरगें जाता. आतां तें भुरगें कशें व्हड करप? ताची कशी जतनाय घेवप हें आमकां कांयच गिन्यान नासता. पयलेच खेपे आमची आवय आमच्या भुरग्यासयत एक दोन म्हयने आमची जतनाय घेता. मागीर आमी त्या भुरग्याक घेवन घोवागेर येतात. आमची 'बाळंतपणाची सुटी' सोंपता. मागीर तीं जागरणां, तें भुरग्याचें करप, तें घरकाम, ती नोकरी - जमना - रडूंक येता. आनी... आनी अचकीत साक्षात्कार जाता. ह्या लोफर घोवान म्हजी 'अबला' केली. मागीर हुयेली मारतात. चड करून 'आँचल का दूद' फिगर इबाडत म्हणून भुरग्याक दिनात. ताका डब्याच्या दुदारूच व्हडलें करचेलें दळिद्रपण 'मॉडर्न आमी' करतात. आनी 'आँखों में आँसू' हाडटात - आमच्याय, घोवाच्याय आनी जल्मल्ल्या भुरग्याच्याय. अंतीं खंयसून तरी एक चेडूं घरांत हाडून एकदाचें तें घोवाचें भुरगें ताच्या हड्ड्यार उडयतकीर आमकां 'सूऽऽ' जाता. पळेलें !आमी अन्याय सोंसलोना. मागीर आमी नोकरेक वतात. तें भुरगें - बबलू - चेडवाची संस्कृताय घेवन व्हडलें जाता. चेडवाक ताचो थोडोच पुळको आसता. 'घरकान्न' आनी 'तो' वतकूच घर चेडवाचेंच आसता.

त्या घोवाविशीं कितें उलोवचेलें? तो म्हणजे फकत अन्यायाचो पुतळो. एकाद्र्यान जोडूंक वता ते आपले बायलेक घरकामांत आदार केल्यार आमी ताका 'हिजडो' वा 'बायजण' हीं विशेशणां दितात. नोकरी नाशिल्ल्या घोवान घरकाम करून बायलेन नोकरी करून संवसार केल्यार आमी त्या दोगांकूय थोमण्या-कुटल्यांनी नाका जीव करून सोडटात. सद्‌गुणाच्यो पुतळ्यो, आमी बायलो घोवाचेर केन्नाच कसलेच अन्याय करनात. देखून आमी 'तागेलो' बबलू व्हडलो करतात. तो व्हडलो जाता. तो हाच्या ताच्या दारांत पडून वा चेडवा वांगडा. घरांत जड्डीं मांव-मांय आसचे परस नाशिल्लींच बरीं दिसता.

म्हारगायेक, गरजेक आनी अन्याय मोडून उडोवंक वा समान हक्काक लागून आमी नोकरी करतात. चेडवाक टी.व्ही. व्हिडियो बगर काम करूंक जमना. देखून तें

टी.व्ही. पळयत बबलूक सांबाळटा आनी कामूय करता. अशे तरेन धड दोळे उगडूंक येना अशे अवस्थेंतल्यान बबलू चित्रहार, छायागीत, उगडीं नागडीं दृश्यां, बलात्काराचे सीन, हाणामारी आनी जें जें त्या संस्कारग्रहण करपाच्या वयांत पळोवचें न्हय, तें पळयता ताच्या दोळ्यांमुखार सातत्यान तेंच आशिल्ल्यान, ताका तसलेंच बरें कळूंक लागता.

मागीर तीन वर्सां जायनाफुडें आमी ताका शाळेंत कोंबतात. सरकाराचे कृपेन 'नो डिटॅन्शन पॉलिसी' आशिल्ल्यान बबलूचें अभ्यासाकडेन लक्ष दिवंचेली गरज नासता. शिक्षणाच्या मळार तरेतरेच्या कारणांनी पडिल्ल्या उजवाडाक लागून बबलूक थंय नाका त्यो गजाली नाका त्या वेळार समजतात. बबलून घरांत रावन आमकां कटकट करचे परस तो खंयूय कोणाय वांगडा गेल्यार चलता.

एकाद्र्या वेळार आमी लेखिका बी आसत जाल्यार दादल्यांनी बायलांचेर केल्लो अन्याय समाजाक समजुचो म्हणून साहित्य निर्माण करतात - अबलेचेर बापूय, भाव, मास्तर, घोव, घोवाचे इश्ट आनी अंतीं पूत लेगीत... तिच्या संपर्कांत येतात तितलेय दादले कशे तरेन तिचेर शारिरीक बलाकार करतात तेंच वर्णन करीत सुट्टात. दादले बायलांचेर अन्याय करतात ह्या विचारान आमी विकृत जातात आनी हें असलें साहित्य निर्मून वाचकांचेर, तरणाटे पिळगेचेर, समाजाचेर आमी मानसीक बलात्कार करतात म्हणचेलें लेगीत धंग दवरनात. धावेक पाविल्लो बबलू असलें साहित्य आवडीन वाचता.

आनी कितें जाता जाणा? म्हाका एक काणी याद जाली. एक भुरगो पांजऱ्यांतल्या किराक गाळी शिकयता तें बापूय आयकता. तो पुताक विचारता, 'आरे, त्या किराक तूं गाळी कित्याक शिकयता?' भुरगो म्हणटा, 'बाबा हांव ताका गाळी शिकयनासलों. ह्यो सगळ्यो गाळी ताका सांगून हांव ताका सांगतालों, ह्यो गाळी तूं म्हणूं नाका.' पूण परिणाम कितें जाता? कीर गाळीच आयकता आनी त्योच शिकता. तशेंचशें कितें ह्या अन्याया आड बरयल्ल्या बलात्काराच्या साहित्याचें जाता. जें करचें न्हय म्हूण सुचोवंक भडक बलात्कारांचीं वर्णनां करून बरयिल्लें साहित्य आसता तें वाचून भुरगीं नकळत तेंच करूंक लागतात. देखून तसलें विकृत साहित्य निर्मुचे परस 'कितें करात आनी कितें करचें' असले सृजनात्मक साहित्य रचिल्लें जाल्यार हो आयचो ब्ल्यू फिल्म पळोवपी बबलू दिसचो नासलो.

'बबलू'क घोवाचो भुरगो म्हूण व्हड करचे परस म्हजो घोव, आमचें घर, आमचो दोगांयचो बबलू, आमकां जाय म्हूण थाटिल्लो संवसार, जाय म्हूण जाल्लें भुरगें, असो विचार केल्लो जाल्यार? अन्याय, अन्याय म्हूण 'अबला जीवन हाऽऽय' म्हणचे परस घोवान आनी बायलेन 'मैं तुझमें फिर परिचय क्या?' अशे भावनेन संवसार केल्लो जाल्यार?

समन्वयान आनी समजिकायेन 'आमचें घर, आमचो बबलू, आमचो संवसार' केल्लो तर सरस्वतीपूजनावेळार ब्ल्यू फिल्म पळोवपी बबलू जावचो नासलो.

आमी मारे म्हणटात, आमी काय बरीं आसलीं, पूण आमचे अडाणी आवयक जें होलमल्लें, तें पदव्यो घेवन लेगीत आमकां समजना. आमी ते बाबतींत अडाणीच आसात. देखून आयचो बबलू ब्ल्यू फिल्म पळयता. लोफर सभावाच्या घोवा इतलीच बायलूय लोफर ना मू? दोगांकूय जाय तीं गृहस्थाश्रमांतलीं सुखां. जापसालदारकी नाका. देखून तो ती बायलेचेर सोडटा आनी समान हक्काच्या नांवाखाला बायल ती चेडवाचेर झटकिता. देखून आयचो बबलू ब्ल्यू फिल्म पळेता.

घरचें, समाजीक, राजनीतिक आनी शिक्षणीक मळावेलें एकुणूच दुशीत वातावरण आमच्या बबलूक सरस्वती पूजना दिसा ब्ल्यू फिल्म पळोवंक प्रवृत्त करता आनी आमी दोश दितात तो फकत तें फिल्म पळोवपी बबलूक !



१३.

# असल्यांनी राष्ट्र खिळखिळें जातलें

विधानसभेच्या आनी संसदेच्या वेंचणुकांक उबे रावतल्या उमेदवारांक कमीत कमी शिक्षणीक पात्रताय आसची अशे विचार मुख्य वेंचणूक आयुक्त डॉ. मनोहर सिंह गिल हांणी एके मुलाखतींत उक्तायले. खरें म्हणजे, फकत विधानसभेच्या वा संसदेच्याच न्हय, तर नगरपालिका आनी पंचायतीच्या वेंचणुकांक उबे रावतल्या उमेदवारांक लेगीत शिकप साप्प गरजेचें. समाजीक मळार वावुरतना आमी अणभवतात, आमचे सरकारी पांवड्यावेले पत्रवेव्हार आनी उलोवप चडांत चड इंग्लिशींत आसता. देखून पंचांक वा नगरसेवकांक इंग्लीश येना जाल्यार ते आपलें काम वेवस्थीत करूंक शकनात. भाशेचे अडचणीक लागून तांकां दुसऱ्यांचेर निंबून रावचें पडटा. दुसऱ्यांच्या हातांतलें बावलें जावन ऊठ म्हणटा तेन्ना उठचें पडटा आनी बस म्हणटा तेन्ना बसचें पडटा. ताका लागून ते आपलीं खरीं मतां आनी खरे विचार उक्तावंक शकनात. ते आपलें निर्णय-स्वातंत्र्य वगडावन बसतात.

हालींच एका समाजीक प्रस्नाक धरून एके पंचायतींतले पंचायत वांगडी आनी कांय नागरीक हांची डेप्युटी कलेक्टराकडेन बसका आशिल्ली. थंय हजर आशिल्ल्या हांवें अणभवलें, सगळें उलोवणें इंग्लिशींतल्यान चलतालें. थंय हजर आशिल्ल्या पंचांपैकीं जी एक बायल पंच आसली (ती पयलीं सरपंच आसली) ती फकत हेवटेन तेवटेन पळयत बशिल्ली. कित्याक तर, इंग्लीश भाशेचो गंध नाशिल्ल्या कारणान सरकारी अधिकारी, पंचायत वांगडी आनी नागरीक हांचे मजगतीं कितें उलोवणें चल्लां तें तिका कळनासलें. बसकेक हाजीर आशिल्ल्यांच्यो सयो घेतल्यो. तेदेवेळार मात तिणें नेटान इंग्लिशींतल्यान सय मारली. जर आमी इंग्लीश माध्यमांतल्यानूच सरकारी पत्रवेव्हार आनी उलोवप करतलीं, तर कमीत कमी अशी शिक्षणीक पात्रताय आनी इंग्लिशीचें गिन्यान आसप ही अट वेंचणुकेक उबे रावतल्या उमेदवारांक घालूंक जाय. नातर आपापले राजभाशेंतल्यान सरकारी कारभार चलोवंक जाय. देखीक, गोंयांत कोंकणींतल्यान सरकारी कारभार चलूंक जाय. म्हळ्यार, चवथी यत्ता शिकिल्ल्यांक लेगीत उमेदवार म्हूण वेंचून आयल्यार आपले कापास्तादीचेर काम करूंक येतलें. हेर पंचांच्या तालार नाचचेलो वेळ येवचोना.

आयज आमच्या देशांत एक सादी चपराशाची नोकरी करतलो जाल्यार लेगीत शिक्षणीक पात्रताय जाय. पूण गांव, शार, राज्य आनी केंद्र चलोवपी एक वांगडी म्हूण पंच, नगरसेवक, आमदार वा खासदार म्हूण देशाखातीर म्हत्वपूर्ण निर्णय घेवपी मनीस आंगठेबहाद्दर आसल्यार जाता ! हें आमच्या देशाचें दुर्दैव न्हय तर कितें? ह्या संबंधान म्हाका एक गजाल याद जाता. एकदां खंय एका हायस्कुलांत शिक्षक आशिल्लो एक मनीस विधानसभेचे वेंचणुकेक उबो रावन आमदार म्हूण वेंचून आयलो. तो मंत्रीय जालो. दुसरे वेंचणुकेंत तो हारलो. उपरांत तो आपल्या त्या हायस्कुलांत परत गेलो. आपूण पयलींचो मंत्री म्हूण आपूण आतां त्या हायस्कुलाचो मुख्याध्यापक जातलों म्हणूंक लागलो. तेदेवेळार, संस्थेच्या जाळवणदारांनी ताका न्हयकार दिलो. ताचे शिक्षणीक पात्रतायेप्रमाण तो मंत्री जावंक शकता, पूण हायस्कुलाचो मुख्याध्यापक जावंक शकना, अशें जाळवणदारांनी ताका सांगलें.

खरें तर, राजकारण म्हळ्या देशाचो कणो. ज्या गांवचें, शाराचें, राज्याचें आनी केंद्राचें राजकारण बुद्धिमान, विचारवंत आनी देशप्रेमी लोक चलयतले, तो गांव, शार, राज्य आनी देश उदरगत करतलो. गांवापासून केंद्रामेरेनचें राजकारण करतल्या राजकारण्याक शिकप, सुविचार, बुद्धिमत्ता आनी देशाप्रती लागणुकेची भावना आसप खूब गरजेचें. ना जाल्यार आमच्या गांवापासून केंद्रा मेरेनचे चडांत चड राज्यकर्ते दोळ्यांसामकार हाडून पळेयात. राजकारणांत सरचेलें तें दुडूच करूंक. राजकारणी चुकीचो निर्णय घेता म्हूण कोणेंय विरोध केल्यार तांकां सतावचेलें आनी पयशे खावन खावन बेकायदेशीर कामां करचेलीं. वचना थंय देश रिणांत वा फोणांत !

सुशिक्षित आनी सुविचारी, प्रामाणिक म्हळ्यार बऱ्या मनशांनी राजकारणांत पडप नासता हो विचारूच पयलीं चुकीचो. देशाच्या दर एका नागरिकान राजकारणाचो विचार करूंक जाय. तातूंत प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष रितीन भाग घेवंक जाय. कित्याक तर, राजकारण म्हळ्यार देशाचो कणो. कणो दुयेंत तर देशाचें आरोग्य खराब, देश दुयेंत. आयज आमच्या देशांत चललां तें हेंच. विचारवंत, शिक्षीत आनी देशाचे प्रती लागणुकेचे भावनेन राजकारणांत भितर सरपी मनशां खूब थोडीं आसात. आमी खूबदां पळयतात, कांय आमदार गुंड सभावाच्या मनशांक लागीं करतात, पोसतात आनी तांकां पोलिसांनी अटक केल्यार लेगीत सोडोवन हाडून सांबाळटात. ताका लागून ते गुंड शेफारतात आनी समाजाक त्रासदायक जातात. हे आमदार त्या दुश्ट प्रवृत्तीच्या, समाजकंटक अशा गुंडांक लागीं करतात. कित्याक तर तांच्या हातांत आमदारांची व्होट बँक आसता. आमच्या आमदारांनी ह्या गुंडांक बळी पडूंक जायना जाल्यार प्रत्येक शिक्षीत नागरिकान आपली जापसालदारकी

वळखून राजकारण हें स्वस्थ जिणेचें, गरजेचें आंग म्हूण जाणा जावन तातूंत भाग घेवंक जाय.

एकदां दूरदर्शनाचेर लोकसभेचें कामकाज दाखयताले. थंय खासदार जे तरेन आड्डताले आनी वागताले, तें पळोवन गांवगिऱ्या हायस्कुलांत वचपी एके चलयेन म्हळें, ''शी ! हे लोक आमचो देश चलयतात?आमच्या हायस्कुलांतलीं भुरगीं लेगीत अशीं बेशिस्त वागनात आनी अशो आड्ड्यो मारिनात.''

अशीच आनीक एक गजाल याद जाता. एका गांवगिऱ्या वाठारांत धा-पंदरा जाणांचो चोंबो एकठांय येवन, त्या वाठारांतलें समाजीक काम करतालो. कित्याक तर थंयचो सरपंच समाजीक काम करूंक फाटीं रावतालो. तेदेवेळार लोकांनी थारायलें, फुडले वेंचणुकेंत त्या सरपंचाक वेंचून येवंक दिवपूच ना.देखून, त्या चोंब्यांतल्या लोकांनी आपले मजगतच्या एका शिक्षीत आनी बऱ्या सभावाच्या मनशाक वेंचणुकेक उमेदवार म्हूण उबो केलो. त्या वाठारांतल्या आमदाराक सांगून आनी ते पंचायतींतल्या एक-दोन पंचांक घेवन पॅनल केलें. हो चोंबो समाजीक मळार वावुरतालो. तेदेवेळार हे पंचूय तांकां आदार करताले. वा पंचायतींतलीं व्हडलीं व्हडलीं कामां, समाजीक कामां करूंक हो चोंबो त्या पंचांक आदार करतालो म्हळ्यार जाता. त्या पंचांनी त्या उमेदवाराक अर्ज भरूंक आधार केलो. तेदेवेळार त्याच वाठारांतलो एक मनीस, जाचें सोऱ्याचें बार्र आसा, तोवूय अर्ज भरूंक कलेक्टर ऑफिसांत आयिल्लो. सगळ्यांनी अर्ज भरले. उमेदवारी फाटीं घेवंचेली तारीक जावन गेली. धा-पंदरा जाणांच्या चोंब्यान उमेदवाराक घेवन मतां मागूंक ताच्या वॉर्डांतल्यान एक फेरी मारली. आतां वेंचणूक फकत चार-एक दिसांचेर आयल्या म्हळ्यार हे पंच - जांकां हो चोंबो आधार करी, ते - त्या चोंब्यांतल्या मनशांक सांगूंक लागले, ''तुमी त्या शिकिल्ल्या मनशाचो तेंको काडून घेयात. कित्याक तर शिकिल्लीं मनशां सगळीं कागदपत्रां वाचतात आनी सट् करून कित्याचेरूच सय मारिनात. आमी सगले त्या बार्रवाल्याक तेंको दिवंया.''

त्या चोंब्यांतल्या लोकांक अजाप जालें. तांणी विचारलें, ''त्या बार्रवाल्यान केन्नाच एक्कूय समाजीक काम करूंक ना. वा केन्नाच समाजीक काम करतल्यांक लेगीत आधार करूंक ना. असल्या मनशाक 'समाजीक वावुरपी' - सोशल वर्कर म्हणूं येता व्हय? ताका पंच म्हूण वेंचून दिवंक ताचेकडेन कसली पात्रताय आसा?''

एका पंचान जाप दिली, ''ताचेकडेन सोऱ्याचें बार्र आसा. सोऱ्याखुस्तार केदें व्हडलें राजकारण चलता तुमकां खबर ना.'' जालें ! सोऱ्याचें बार्र आसप ही उमेदवाराची पात्रताय ! मागीर ते पंचायतींत कसलें राजकारण चलता आसतलें तें सांगचें पडटा व्हय?

आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, राजकारणांतलें बायलांचें प्रतिनिधित्व. पंचायतीपासून संसदेमेरेन उमेदवार म्हूण उबी रावपी बायल ही शिक्षित आसुंकूच जाय. ती देशी भाशेंतल्यान शिकिल्ली आसल्यारूय इंग्लीश जाणा आशिल्ली जाय. कित्याक तर आमी राज्यकारभार इंग्लीश भाशेंतल्यान चलयतात. नाजाल्यार कांय पंचायतींनी कसलें चित्र दिश्टी पडटा तें पळयात. बायल सरपंचाखातीर राखीव आशिल्ल्या जाग्यांनी हेर पंचांक लेगीत इंग्लश नकळो आशिल्ली बायल सरपंच म्हूण वेंचून हाडून आपल्या तालार कठपुतळे सारकी नाचोवंक जाय आसता. ती बायलमनीस नांवाची सरपंच आसता आनी भाशेचे वा बरोवपाचे, वाचपाचे अडचणीक लागून सगळो कारभार चलयतात ते दादले. ती सरपंच बायल कलकलत दीस काडटा. आपणें ही कांयच वाचूंक येना आशिल्ल्या कागदार जी इंग्लिशींतल्यान नेटान सय केल्या, तिका लागून आपूण खंयच्याय फोंडांत बी पडना मू?

सरासरी विचार केल्यार, देशाप्रती लागणुकेची भावना आशिल्लो, शिक्षीत, बऱ्या सभावाचो, कसलींच बेकायदेशीर कामां करचो ना असो आनी भ्रश्टाचार मुक्त कारभार करपी उमेदवार होच खंयचेय वेंचणुकेक पात्र उमेदवार म्हूण मानून घेवंक जाय.

विधानसभेच्या वेंचणुकांनी एक गजाल स्पश्टपणान नदरेंत भरता ती, वेंचून आयले उपरांतचें पक्षांतर. कितेंय जालें तरी लोकांनी ज्या पक्षाखातीर निवडून दिल्यात, त्या पक्षांतल्यान फुटून पक्षांतर करप म्हळ्यार आमदारांनी लोकशायेचीं फकाणां करप, लोकमताचो अनादर करप, अशें जाता. प्रस्न पडटा तो असो - लोकशायेंतल्या ह्या आमदारांक लोकांनी वेंचून दिल्यात ते कित्याक म्हणचेली जाण ह्या आमदारांक मात लेगीत ना व्हय? सातत्यान पक्षांतरां आनी अस्थिर सरकार जाल्यार लोकहिताचीं कामां अडून उरतात, उदरगत जावंक पावना आनी भ्रश्टाचार मातता हें आमदारांक खबर ना म्हणूं येता व्हय? सत्तेर आशिल्ल्यांची चडांत चड शक्त कदेल मेळोवपाच्या कामांतूच काबार जाता. राजकारणाचो दर्जो उणाक जाता. लोकहिताचीं कामां आडखळून उरतात. सत्तेवयलो पक्ष आनी सत्तेर येवंक सोदपी पक्ष ह्या दोनूय जात्यांमदीं भरडून वता ती प्रजा. पूण स्वताच्या स्वार्थामुखार आपणाक लोकांचें कांयच पडून वचूंक ना म्हणचेलें हाचे पयलींय कांय आमदारांनी दाखोवन दिलां. देखूनच ताणी राज्यांक पक्षांतर, अस्थिर सरकार, राष्ट्रपति राजवट ह्या सगल्या भोवऱ्यांत गरगरायल्यांत. खरें तर प्रजा ह्या सगल्या प्रकाराक साप्प विटल्या.

मंत्रीमंडळां घडयले उपरांत ह्या मंत्र्यांचो खर्चूय हिसपाभायर आसता. देखून समाजाच्या खंयच्याय मळार पावल दवरल्यार दुडू नात म्हूण समाजीक उदरगतीचीं कामां

अडखळून उरल्यांत म्हणचेलें समजता. कराच्या रुपान येवपी येणावळ मंत्र्यांचे गरजेभायले थातेमाते करपांतूच खर्चून वता. देखून सरकार 'जंबो' जायत वा आमदारांनी पक्षांतर करून जनतेन दिल्लो कौल धुडकावन 'संगीत खुर्ची' खेळ खेळ्ळ्यार जनतेन क्रांती करून राजकारण्यांक धडो शिकोवंक जाय.

वेंचून आयिल्ल्या चडांत चड आमदारांक कित्यापासत मंत्री जावंक जाय? लोकांची सेवा करूंक? ना. निखालूस ना. तांकां चटक लागल्या ती सत्ता, अधिकार आनी मंत्री जावपापासून मेळटात त्या फायद्याची. वेंचून आयिल्ल्या आमदारांपैकीं खऱ्यांनीच समाजाप्रती आपले लागणुकेची जाणविकाय आसपी आनी समर्पित भावनेन लोकसेवेचें व्रत आपणावपी, हातावेल्या बोटांइतलें मेळूंक कुस्तार. दिसानदीस देशप्रेम, राष्ट्रप्रेम ही भावना लुप्त जायत चलल्या. स्वताच्या व्यक्तिगत सुवार्थामुखार आमकां आमच्या गांवाचें, राज्याचें, देशाचें कांयच पडून वचना जालां. देखून पंचायती कितें आनी लोकसभा कितें, सगळेकडेन कदेलार बसचेलो 'बहुजन हिताय, बहुजन सुखाय' हो मुखेल हेतू विसरप जाता. सत्तेखातीर आनी व्यक्तिगत सुवार्थाखातीर 'संगीत खुर्ची' खेळ खेळून राजकीय मळार अस्थिरपणा हाडप होच स्थायी भाव जाला. ताचो व्हडलो दुश्परिणाम म्हळ्यार उदरगतीच्यो वाटो बंद जावन अराजकता आनी भ्रश्टाचार मातपांत जाला.

ही अशी परिस्थिती आयज भारतांतल्या खुबशा राज्यांनी आसा. स्वातंत्र्या पयलीं ब्रिटिशांनी देश लुटलो आनी गिरेस्त भारत गरीब जालो. स्वातंत्र्या उपरांत भारतीयूच आनी खासा करून चडांत चड राजकारणीच देश लुटूंक लागल्यात. भ्रश्टाचाराक ओतो आयला. आयज ताचीं पाळांमुळां खोलवर रुजल्यांत आनी भ्रश्टाचार जिणेचें आंग जालां. आदर्श फुडारी म्हूण आयंज आमी देशांत कितल्या व्यक्तींकडेन बोट दाखोवंक शकतात? बोफोर्स प्रकरण, धन-संचयाचीं कर्तुपां, गोरवां-खावड कर्तुप, एक ना दोन. मन विटचें अशीं कर्तुपां खुबश्या फुडाऱ्यांनी केल्यांत. बिल्डरांकडल्यान लाखांनी दुडू खावन पंच गांव बुडयतात, तर नगरसेवक शारां बुडयतात. कोण रानां मारून सैमीक संतुलन इबाडून घालता, तर कोण वीज चोरता. राष्ट्रभावनेचो ऱ्हास जायत चल्ला. ही एक धोक्याची घांट.

आयचे घटकेक पाकिस्तानान भारतांत घुसखोरी केल्या. कारगिल, द्रास, बटालिक क्षेत्रांत खर लडाय चालू आसा. निदान अशा वेळार तरी भारतांतल्या सगळ्या राज्यांनी स्थिर सरकारां आनी शांतताय आसप खूब गरजेचें. आमचो देश सध्या कठीण काळांतल्यान वता. एकेवटेन भारतीय जवान आपल्या देशाखातीर आपल्या जिवितांतलीं सगलीं सुखां त्यागून देशाखातीर जीव ओंपता. दुसरेवटेन आमी 'सिव्हिलियन' आमच्या सुवार्थी

करण्यांनी देश भितरल्यान खिळखिळो करतात. एकेवटेन भारतीय जवान आपले मायभुमीपासत आपलो 'आयज' देशाक ओंपता, जाल्यार दुसरे वटेन आमी आपल्या नातरां-पण्टुरांक मेरेन सुशेगादीन जियेवंक मेळचें म्हूण सत्तेचो हावेस धरून सरकारां अस्थिर करून देश भितरल्यान खिळखिळायतात. आमी खूब सुवार्थी जाल्यांत. आमची, आमच्या वाड्यापासत, गांवापासत, शारापासत, राज्यापासत, देशापासत कितें लागणूक आसा हेंच आमी विसरल्यांत. देखून पंचायतीपासून केंद्र सरकारामेरेन आमचो चलला तो 'संगीत खुर्ची'चो खेळ आमचे गांव, शारां, राज्यां आनी अशे तरेन सगलें राष्ट्र भितरल्यान खिळखिळें केले बगर रावचोना.



१४.

# भौशीक सुवातांनी धर्मीक प्रतिकां?

कांय वर्सां फाटली गजाल. देवदर्शनाखातीर म्हूण त्या देवळाच्या दुरगाची गेट उगडून पांय भितर घाला मात, टण्ण करून पांयार बॉल पडलो.

'ए भुरग्यांनो ! सांबाळून खेळात हां. ना जाल्यार तुमचो खेळ लोकांक त्रासांत उडयत.' हांवें म्हळें.

'आगे, देवळाच्या वाठारांत म्हूण अशी क्रिकेट खेळचेली? ह्या भुरग्यांक कळना तें कळना, तांच्या आवयबापायक लेगीत समजना?' आनीक एक आवाज आयलो. भुरग्यांनी थोडो वेळ खेळ बंद केलो आनी आमी थंयसून वतकीर परतोय सुरू केलो. येतल्या वतल्या लोकांचीं समजावणेचीं उतरां वा धेंगशे घेत ते भुरगे सदांच देवळा भायर खेळटात.

थोड्याच दिसांनी म्हज्या लक्षांत आयलें, कांय भुरगे रस्त्यार क्रिकेट लेगीत खेळटात. एक दीस सांजवेळा एके शेजाऱ्नीगेर वतना रस्त्यार क्रिकेट खेळपी त्या ल्हान भुरग्यांचो बॉल शेजाऱ्नीच्या जनेलाचे हारशे फोडटना पळयलो. तिवूय आड्डली - 'कितलें सांगलें ह्या भुरग्यांक ! तरी पूण हीं आयकचनात. हांचो खेळ आमकां खर्चाक घालता.'

आनीक एक दीस अशेंच त्या वाठारांतल्या दुकानार खरेदी करतां करतां तेच बिल्डिंगेंतल्या वयल्या व्हारांदांतल्यान क्रिकेट बॉल आयलो तोच म्हज्या वक्लाचो नेम धरून. वक्लाची कॅच हांवें धरली म्हणून बरें ! पयल्या धपक्याक हांवें त्या भुरग्यांक तापयलीं. हांव त्या भुरग्यांच्या आवय-बापायंक मेळ्ळें. तो क्रिकेट खेळ सकयल रस्त्यार वचपी लोकांक, दुकानांत खरेदी करपी गिरायकांक कितलो म्हारग पडूंक शकता तें पटोवन दिलें. तांकांय तें पटलें.

'तें आमकांय पट्टा. आमी भुरग्यांचेर जायते फावटी धेंगशे घालतात. बॉल काडून घेतात. पूण भुरग्यांक खेळूंक सुवात नाशिल्ल्यान हें अशें जाता.'

म्हाकाय तें पटलें. भुरगी पिराय खेळपाची, उमेदीची पिराय. खेळ हो भुरग्यांक आनी तरणाट्यांक खूब गरजेचो. खेळाक लागून कुडीची आनी मनाची भलायकी बरी उरता. भुरग्यांक मेकळी हवा मेळटा. कुडीक व्यायाम घडटा. चार लोकांच्या सांगातान

मनीस रावंक शिकता. खेळ हो मनाची आनी कुडीची बरी भलायकी आशिल्ले नागरीक घडोवंक गरजेचो. पूण ते पासत जाय तें खेळां मैदान.

ते नवेच वसणुकेचो थोडो भोव अभ्यास करचेल्या हेतून हांव त्या वाठारांत फिरून आयलें. पंचायत वाठारांतले ते वसणुकेंत कांय रस्ते निवळ तर कांय रस्त्यांनी कोयरा राशी आनी प्लास्टीक दिसलें. ते वसणुकेच्या एका भागांत एका धर्माचे लोक भौसंख्य आनी दुसऱ्या वाठारांत दुसऱ्या एका धर्माचे लोक भौसंख्य. दर एका भागाच्या मेकळ्या सुवातांनी भौसंख्यांकांनी आपापलें एक धर्मीक प्रार्थनास्थळ उबारलां. 'अ' वाठारांत एक धर्मीक प्रार्थना स्थळ आनी खूबशी मेकळी सुवात आसा. जाल्यार 'ब' वाठारांत एक धर्मीक प्रार्थना स्थळ आनी एक खेळां मैदान आसा. 'अ' वाठारांतल्या प्रार्थना स्थळा लागीं आशिल्ले मेकळे सुवातेर खेळां मैदान मागचे खातीर थळाव्या लोकांक विचारचेलो हांवें निश्चेव केलो. 'अ' वाठारांतल्या अल्पसंख्यांक आशिल्ल्या एका घराब्यांतल्या सगळ्याच लोकांनी म्हाका उर्बा दिली आनी हांवें फुडलीं पावलां झुपझूप मारचेलीं थारायलीं. लोकमत आजमायलें. थंयच्या एका पंचाक फुडें काडून थंयचो आमदार आनी मंत्री जो आपल्या वाठारांत लक्ष दिता, ताका मेळ्ळें. लोकांच्या मागण्यांप्रमाण तो मंत्री लोकांक आदार करतालो. देखून ताका मेळून ती उकती सुवात खेळां मैदानाखातीर दिवची म्हूण मागलें. ते खातीर कितें काम करून घेवप गरजेचें तें सगळें विचारून घेतलें. 'अ' वाठारांतल्या कांय लोकांक आनी पंचांक घेवन हें काम करपाक हांवें म्हजीं व्यक्तिगत कामां कुशीक सारून, दोन दीस सकाळचो वेळ वापरलो. काम जाताशें दिसून खोस जावन हांवें थंयच्या लोकांक सांगलें. 'अ' वाठारांतल्या अल्पसंख्यांक आशिल्ल्या त्या घरांतले आवय-बापूय आनी भुरगीं हांणी तर म्हाका परबीं दिलीं.

आनीक दोन दिसांनी ते उकते सुवातेर कोण तरी खणटा म्हणचेलें दिसलें. ते उकते सुवातेर रस्त्याक तेंकून थंयचे लोक केन्ना केन्ना फुलझाडां लायताले. देखून कोण तरी कसलें तरी झाड रोयता आसत ह्या विचारान हांवें थंय दुर्लक्ष केलें. दुसऱ्या दिसा हांव थंय पावलेंना. तिसऱ्या दिसा पळयल्यार कितें? रातभर काम करून, 'अ' वाठारांतल्या अल्पसंख्यांकांच्या धर्माचें व्हडलें धर्म-प्रतीक थंय उबें केलां. अजापान हांव पळयत रावलें. थंयसरल्या त्या खेळां मैदान कर म्हूण म्हाका उर्बा आनी परबीं दिवपी घराब्या कडल्यान कितेंय खबर मेळत म्हूण गेलें. 'हें अशें कशें जालें, तुमकां कितें खबर आसा?' म्हूण विचारलां मात, त्या घरांतले बायलेन व्हडलो आकांत केलो.

'हांगा खेळां मैदान कोणाक जाय?' बायलेन प्रस्न विचारलो. हांव अजापीत जालें.

'हें बेकायदेशीर बांदकाम. म्हाका खबर आसा. कित्याक तर पंच आनी मंत्री हांणी

ही सुवात खेळां मैदानाखातीर वापरुंया म्हळां. थंय खंयच्याच धर्माचें धर्म-प्रतीक उबारचेलो प्रस्नूच येना.'

'आमचें हें धर्म-प्रतीक बेकायदेशीर बांदिल्लें ना.' ते बायलेची ही जाप आयकून हांव पंचायतींत गेलें. थंयच्या त्या वाठारांतल्या लोकांनी ती सुवात धर्मीक प्रार्थनास्थळ बांदचेखातीर हालींच मागल्या म्हूण सरपंचान सांगलें. म्हाका एक अर्जी आनी नांवाची वळेरी दिली. पूण अजून आपणें तांकां बांदूक परवानगी दिवंक ना हेंवूय सांगलें. हांवें ती अर्जी आनी नांवाची वळेरीय पळयली. म्हाका व्हडलो धपको बसलो. जो घराबो म्हाका खेळां मैदान कर म्हूण उर्बा आनी परबीं दितालो, ज्या घरचो दादलो एक निमसरकारी ऑफिसर आसा, तांणीच फुडाकार घेवन त्या वाठारांत रावपी कांय अल्पसंख्यांकांच्यो सयो घेतिल्ल्यो. नांवां-वळेरी फुगोवंक त्या वाठाराभायल्या खुबशा लोकांच्यो सयो हाडिल्ल्यो. ही गजाल हांवें सरपंचाचे नदरेक हाडून दिली. 'अ' वाठारांतले सात-आठ लोक सोडल्यार अखख्यो सयो त्या धर्माच्या लोकांच्यो, पूण हेर वाठारांत रावपी. सरपंचानूय तें मानलें.

हांवें सरपंचाक म्हळें, 'सरपंचबाब, ह्या 'अ' वाठारांत रावपी ह्या अल्पसंख्यांकांनी 'ब' वाठारांतल्या तांच्या धर्माचें जें धर्मीक प्रार्थनास्थळ आसा थंय वचूंक जाय. 'ब' वाठारांतले अल्पसंख्यांक 'अ' वाठारांतल्या आपल्या धर्माच्या धर्मीक प्रार्थनास्थळांत येतात. त्या 'ब' वाठारांत जशें खेळांमैदान आसा, तशेंच हांगा 'अ' वाठारांतूय तें जावंक जाय. सगळ्या भौशीक सुवातांनी धर्मीक प्रार्थनास्थळां बांदतले? धर्मीक प्रतिकां बांदतले? 'अ' वाठारांतल्या लोकांच्या भुरग्यांनी खंय खेळप? घरांतल्या वारांदांनी?'

'आनी ही पळयात, तांणी तिनशें मेत्रांखातीर अर्जी केल्या ती.' सरपंचान सांगलें.

'देखुनूच तें धर्म-प्रतीक अशे तरेन ताकतिकेन उकते सुवातेंत मदींच बांदून काडलां. भुरग्यांखातीर खेळूंक सुवात उरची न्हय म्हणून.'

त्या सरपंचान आनी आमदारान तें धर्म-प्रतीक हालोवंक कांयच केलेंना. ताका लागून खेळां-मैदान जावचेलें मात उरलें. अशे तरेन राजकारणी मतां पेटी सांबाळपाचे वा हेर कसल्याय कारणाक लागून धर्म-प्रतिकां हालोवचेलें धाडस दाखयनात. तांचे हे वृत्तीक लागून धर्म-प्रतिकां खंयूय बांदून आपल्या धर्माची आपूण विटंबणा करतां म्हूण कळनाशिल्ल्या लोकांक आपूण आपल्या धर्माचो प्रचार करताशें दिसतात आनी तांचें फावता. आयज ल्हान दिसपी ही घडणूक भविश्यांत आक्रस्ताळें रूप घेवं येता.

एकूण सगळ्या प्रकारान एके वटेन म्हाका खेळांमैदान करूंक उर्बा दिवपी आनी दुसरे वटेन आपुणूच धर्म-प्रतीक बांदपी त्या घराब्याच्या रुपान सुर्याजी पिसाळाचे वंशज

आयजूय समाजांत वावुरतात हें पळोवन मन खंती जालें. हांव खंयच्याच धर्माचें द्वेश्टें न्हय. धर्म म्हळ्यार आचरणाची रीत. सगळ्याच धर्मांनी मनीसपण हें पयलीं सांगलां. जे सुवातेर 'अ' वाठारांतल्या सगळ्या धर्माचीं भुरगीं एकठांय येवन खेळटलीं, हांसतलीं, फुलतलीं आसलीं, ती सुवात मोटव्या मनाच्या लोकांनी वायट हेतून इबाडिल्ली पळोवन दुख्ख जालें. जळींमळीं मेळटा थंय धर्म-प्रतिकां आनी धर्मीक प्रार्थनास्थळां बांदून कितें सादतले?



१५.

# इतिहास गवाय आसा

विसावो शेंकडो हो एक विज्ञानीक शेंकडो. भुंयेवयलो मनीस चंद्रार पावलो तो दीस तर भांगरा अक्षरांनी बरोवंचेलो. मनशान उदरगत केली. खरेंच? खरेंच उदरगत केली? हय तर! इतिहासाचेर नदर मारल्यार समजता. इतिहास म्हळ्यार काल मेरेन मनीसजात कशे तरेन जियेली, त्या साबार घडणुकांची नोंद. इतिहासाच्या अभ्यासाचे नदरेन त्या विशयाचो काळखंड तीन काळांनी विभाजीत केला. आदिकाळ, मध्यकाळ आनी आधुनीक काळ.

आदिकाळांतल्या पाशाणयुगापासून आयज मेरेनचो इतिहास मनशाचे उदरगतीची गवाय दिता. पाशाणयुगांतलो झाडांचेर आनी घोलींनी रावपी मनीस ल्हवू-ल्हवू खोंपींनी रावंक लागलो आनी आधुनीक काळांत तर तो शिमीट-कॉँक्रीटच्या घरांनी पावलो. झाडांच्यो साली आपले कुडी भोंवतणीं गुठलावपी मनीस सिल्क, नायलॉन, टॅरिकोटचे कपडे घालून भोंवंक लागलो. फातरार फातर आपटून उजो तयार करून शिकार भाजून खावपी मनीस आयज गॅस आनी लायटीचेर रांदूंक लागलो. ल्हवू ल्हवू मातयेच्या आयदनांनी रांदूंक लागिल्लो मनीस आयज लोखणाचीं, तांब्याचीं, पितळेचीं आनी स्टिलाचीं आयदनां वापरूंक लागलो. पाशाण युगांतलो शेती लेगीत करूंक नकळो आशिल्लो मनीस मास भाजून आनी फळां खावन रावतालो. ल्हवू ल्हवू तो बैल घेवन शेती करूंक लागलो. आयज तो इंजिनां घेवन शेती करता. तरांतरांचीं पिकां काडटा.

पंदराव्या शेंकड्यांतल्या विज्ञानाच्या सोदांनी आनी भौगोलिक सोदांनी तर मनशांची जीण बदलून सोडली. जिणेच्या दर मळार उदरगत जाली. औद्योगिक मळार तर मनशान व्हडलीं व्हडलीं धेंपां मारलीं. विज्ञानाच्या आधारान व्हडले व्हडले सोद लायले. कागद छापप, वीज, रेडियो, टेलिफोन, टीव्ही... एक ना दोन. चलत वचपी मनशान जनावरांच्या आधारान लाकडाच्यो गाडयो केल्यो. हत्ती, घोडे, उंट वाहनां म्हूण वापरलीं आनी आयज तो सायकल, मोटार, बस, स्कुटर, रेलगाडी, विमान हीं येरादारीचीं साधनां म्हूण वापरता. रॉकेटाच्या माध्यमांतल्यान तर ताणें चंद्रार लेगीत पावल दवरलें. मनशान भौतिक

मळार उदरगत केल्या हाका इतिहास गवाय आसा.

भौतिक मळार येदीं व्हडलीं धेंपां मारपी मनशान मानसीक मळार उदरगत केल्या व्हय? आपले षड्रिपु - काम, क्रोध, लोभ, मद, मोह, मत्सर हे जिखल्यात व्हय? हे विशीं इतिहास कितें सांगता? पाशाणयुगांतलो मनीस शिकार करूंक वा आपले राखणे खातीर फातराचीं अवजारां वापरतालो. ल्हवू ल्हवू धातुचो सोद लागलो. धणु-बाण, भाले आयले. हती, घोडे आनी धणु बाण भाले घेवन मनीस आपली राखणूच न्हय, तर दुस्मानांचेर आक्रमणूय करूंक लागलो. ढाल, तलवार, बंदूक, तोफ, जहाज, विमान हांचोय वापर मनीस झुजाखातीर करूंक लागलो. विसाव्या शेंकड्यांत तर मनशान अॅटम बॉम्बाची निर्मिती केली. पयलीं फकत झुजांत वांटो घेवपी मनीसूच मरतालो. आतां झुजांत वांटो घेवंक नाशिल्लो लेगीत घरांत बशिल्लेकडेन सोंपता. विसाव्या शेंकड्यांतल्या मनशान तें गिन्यान मेळोवन ताचे प्रयोगूय केल्यात. जपानाचीं हिरोशिमा आनी नागासाकी शारां हाची गवाय आसात. पयल्या आनी दुसऱ्या संवसारीक झुजांनी विंगड विंगड देस झुजपाखातीर कशे एकठांय येतात तें दाखोवन दिलां. रामायणांतल्या आनी महाभारतांतल्या झुजांपरस आयचीं झुजां कितल्या वयल्या पांवड्यावेलीं साधनां आनी तंत्रगिन्यानां वापरतात हें आखाती झुजांनीय दाखोवन दिलां. इतिहास गवाय आसा, आमी उदरगत केल्या ती झुजाक वापरचेल्या साधनांची. मनाच्या षड्रिपूंचेर जैत जोडचेलें आमकां सादलां व्हय? त्या मळार उदरगत जाल्ली खंय दिसता? इतिहास गवाय आसा, मनीसजातीच्या इतिहासा इतलोच झुजांचो इतिहास पोरणो आसा.

सुरवेक मनशान सूर्य, चंद्र, अग्नी, दर्या, सर्प, रूख, मळब हांकांच देव मानून पुजा केली. कित्याक तर तेच ताची जीण जगूंक ताका आधार करताले. ल्हवू ल्हवू आपल्यो पुजचेल्यो मूर्ती, धर्म आनी मनशाक वेगळायणाऱ्यो जाती-काती ह्याच भोवऱ्यांत मनीस घुंवत रावलो, घुंवत आसा. विंगड विंगड धर्म आनी पंथांखातीर झुजतां झुजतां सगळ्यांत श्रेष्ठ असो मनीस धर्म मात तो विसरला. खंय गोरी कात काळे कातीचेर शेक गाजोवंक सोदता, तर खंय उच्च मानिल्ली जात सकले जातीचेर शेक गाजयता. धर्माच्या नांवान तर मनशान कितलें धुमशेण कांडलां ताका शिमेमेरूच ना. भारताचेर आक्रमण करतल्या कितल्याशाच आक्रमकांनी आपल्या धर्माची बळजबरी केल्या. आक्रमकांच्या धर्मापरस वेगळो धर्म आपणायतल्यांचो छळ केला. मनशान धर्माच्या नांवान केल्ल्या अधर्माची गवाय इतिहास दिता.

सगळ्याच धर्मांनी आनी धर्म संस्थापकांनी मनीसधर्माक म्हत्व दिलां. एकाच घरांत वचपाक जशो विंगड विंगड वाटो आसतात, तशेच विंगड विंगड धर्म त्या एकाच ईश्वराकडेन

वतात. मागीर कोण ताका ईश्वर म्हणटा, कोण अल्ला, कोण जीझस, तर कोण बुद्ध म्हणटा.

संवसारांत चलपी धर्मांतलो सगळ्यांत पोरणो धर्म म्हळ्यार वैदीक धर्म. हालीं जरी ह्या धर्माक हिन्दू धर्म म्हणटात तरी ताचें मुदलचें नांव 'सनातन धर्म'. आनीक एक बरोच पोरणो धर्म म्हळ्यार मोझेसान सुरू केल्लो ज्यू वा यहुदी धर्म.

हिन्दू आनी ज्यू धर्म हे जातीनिश्ठ वा वंशनिश्ठ धर्म, म्हळ्यार, ज्यू वा हिन्दू हे जल्मानूच ज्यू वा हिन्दू आसचे पडटात. ज्यू वा हिन्दू 'जातलो' म्हळ्यार जावंक येना. अशा ह्या वंशनिश्ठ वा जातीनिश्ठ हिन्दू आनी ज्यू धर्मांतल्यान नवे धर्म आयले. हिन्दू धर्मांतल्यान आयलो बौद्ध धर्म आनी ज्यू धर्मांतल्यान आयलो ख्रिस्ती धर्म. ज्यू परंपरेंतल्यानूच इस्लाम धर्म आयलो, जाका आमी मुसलमानांचो धर्म म्हणटात.

'अहंम् ब्रह्मास्मी' - हांवूच तें ब्रह्म. मनशांतूच देव आसा. देखून मनशाची सेवा करात. प्रत्येक आत्म्यांत देव आसा. देखून प्राणीमात्रांतूय देवाचो अंश आसा. मनीसधर्म होच सगळ्यांत व्हडलो धर्म आनी दया, क्षमा, शांती ही आपणावंक हिन्दू धर्म सांगता.

मनीस जसो स्वताचेर मोग करता, तसोच ताणें शेजाऱ्यांचेर करचो अशें येशू म्हणटा. Love thy neighbour as thyself. एका पोल्यार थापट मारल्यार दुसरोय पोलो फुडें करात, ही येशूची शिकवण.

गौतम बुद्धान शिकयल्लो बौद्ध धर्म तर अहिंसा आनी मोग शिकयता. सगळ्या मनशांचेर आनी प्राणीमात्रांचेर मोग करात. For, never in this world does hatred cease by hatred; hatred ceases by love. This is always its nature - *Dhammapada*.

महंमद पैगंबरान शिकयल्लो इस्लाम धर्म. इस्लाम म्हळ्यार देवाक समर्पीत जावप. इस्लाम धर्माचे सगळ्यांत पयले खलीफ अबू बेकर हांणी सांगलें, धर्माखातीर झुजतना देखून बायल-भुरग्यांचें रगत सांडूं नाकात. रूख, शेतां, जनावरां हांची हानी करूं नाकात. मठांनी रावपी अन्य धर्मीय आनी तांचे मठ नश्ट करूं नाकात.

पूण पयलीं मनीस सत्ता, संपत्ती, राज्यांचो विस्तार हे खातीर झुजलो. ऐहिक सुखां फाटल्यान धांवपी मनीस नीती आनी धर्माक लागून तरी शांततायेन जगतलो अशी आशा आशिल्ली तिवूय मातयेभरवण जाली. मनीस आपल्या धर्माखातीरूय झुजूंक लागलो, रगत सांडूंक लागलो. ख्रिस्ती आनी इस्लाम धर्मांनी तर विश्वधर्म जावपाचो हावेस धरलो. देखून ते आपापल्या धर्माचो प्रचार आनी प्रसार करूंक अनुयायांचो आंकडो वाडोवंक वावरूंक लागले. हांगासुनूच धर्माच्या नांवान झगडीं सुरू जालीं. म्हजोच धर्म खरो अशें

म्हणून झगडीं झुजां करतां करतां एकाच धर्माचे लोक आपापलोच पंथ खरो म्हणून झुजूंक लागले.

देखून, Love thy neighbour as thyself हें मोगाचें तत्त्व सांगपी जेझूच्या कांय अनुयायांनी, ताणें शिकयल्ल्या धर्माच्या नांवान दुसऱ्या धर्माच्या लोकांक जिते जाळ्ळे लेगीत. 'इन्क्विझिशन' हें उतर म्हळ्यार जेझून शिकयल्ल्या मोगाच्या तत्वाक ताच्या धर्माच्या कांय अनुयायांनी लायिल्लो काळोकिट्ट दाग. हाका इतिहास गवाय आसा.

प्रत्येक धर्मांत वेगवेगळे वाद आसात आनी मूळ तत्व विसरून झगडीं-झुजां करपाचोच अधर्म चालू आसा. हिन्दूंच्यो जाती आनी उबे आडवे प्रकार, इस्लामाचे शिया-सुन्नी पंथ, ख्रिश्चनांचे रोमन कॅथलीक, प्रॉटेस्टंट आनी बिलिव्हर्स, बौद्ध धर्मांतलें हिनयान आनी महायान हांकां लागून वाद जाल्यात. देवाचें नांव घेवन झगडप आनी मनीसपण विसरप होच सगळ्यांत व्हडलो धर्म जाला. समाजांत 'सत्यम् शिवम् सुंदरम्' आसचें म्हणूनच देव आनी धर्म. पूण आमी विज्ञानाचो दंभ मिरोवपी मनशां देवा-धर्माचे बाबतींत मात साप्प सकयल्या पांवड्यार देंवतात. चंद्रार पावल दवरपी भुंयेवयलीं मनशां आयज लेगीत आपूण मोटव्या मनांचींच आसात हें दाखोवन दितात.

जनरल ओमन ब्रॅडली म्हणटात, Ours is an age of nuclear giants and ethical infants. We know more about war than we know about peace, more about killing than we know about living. We have grasped the mystery of the atom and rejected the Sermon on the Mount.

एपिक काळांतल्या रामायणांतले रावण आनी महाभारतांतले दुर्योधन आयजूय समाजांत दिसतात. कितल्याशाच वर्सांपयलीं घडिल्ल्या महाभारताची उजळणी आयज ह्या विज्ञानाच्या विसाव्या शेंकड्यांत देखून जाता. कदेलांखातीर हपापिल्ले कुड्डे धृतराष्ट्र जळींमळीं दिसतात. सत्तेचें कदेल हातासपाखातीर कसलेंय कुकर्म करपी दुर्योधन तर पावला कणकणीं शिंवरल्यात. आयज लेगीत सत्तेचें फाटबळ आशिल्ल्या दु:शासनांचे हात द्रौपदींचे अब्रूचेर घालो घालतात. दुख्खाची गजाल म्हळ्यार, जाणकार भीष्म आयज लेगीत द्रौपदी वस्त्रहरणावेळार मौन पाळून निश्क्रीय रावतात. इतिहास गवाय आसा, भौतिक उदरगत सादपी मनीस मानसीक पांवड्याचेर आयज लेगीत उदरगत सादूंक पावूंक ना.



१६.

# नाका आशिल्ले पावणे

अन्न, वस्त्र आनी निवारो ह्यो मनशाच्यो मुळाव्यो गरजो. सद्याच्या तेंपार आमी निवारो वा आलाशिरो म्हळ्यार घर अशें मानतात. हें घर स्वताचें आसूं वा भाड्याचें. घर म्हणटकीर पावणो हो आयलोच. पावणो म्हळ्यार आपल्यागेर आयिल्लो परकी मनीस. आतां मेरेन आमच्या घरांत कितले पावणे आयले, कोंत ना. घरा म्हऱ्यांतली ती पांचवीचार सुवात, ते माड, तीं काजूचीं झाडां, पावसा दिसांनी खळखळ मस्ती करीत व्हांवपी तो व्हाळ... सैमाचे हे सोबितकायेक भुल्लुसून आमगेर दनपारच्या एका जेवणाक म्हूण आयिल्लो गोंयाभायलो पावणो, दोन दोन दीस रावंक लेगीत आयलो. गोंयांतले आनी गोंयाभायले खूबशे पावणे परते परते येवंचेशे दिसले. पूण कांय पावणे केन्ना काय वताशे जाले - तांकां धुकलून म्हणटात तशे घरा भायर घालचे पडले. नाका आशिल्ले पावणे हें लेबल तांकां चिकटलें. हे कांय पावणे आमकां नाका आशिल्ले कित्याक जाले, हें हांव चिंततां तेन्ना एकूच जाप मेळटा - तांचें शीममेर हुपून वागप.

एका आयतारा घरकाराचे वळखीचो एक मनीस कोणाचें तरी घर सोदतां सोदतां आमगेर पावलो. दनपारचें टेंड वर जाल्लें. आमी जेवंचेली तयारी केल्ली. उलयतां उलयतां समजलें, तो जेवंक ना. घरा पावन जेवतासर ताका तीन वरां जातलीं आसलीं. 'अतिथि देवो भव' म्हणून ताका जेवचेलो आग्रो केलो. तो ताणें मानून घेतलो.

जेवले उपरांत पावण्यान म्हळें, 'तुका खरें सांगचेलें जाल्यार, हांव भाड्याक घर सोदतां. तुमी घरांत तिगांच न्हय? आनी हें येदें व्हडलें घर ! मात्शें घर पळोवं?'

घर पळोवं काय म्हणटल्याक नाका कितें म्हणटलीं? घर पळोवंक कितें हरकत आसा? घरकारान पावण्याक घर दाखोवंक सुरवात केली - 'ही बसपाकूड आनी ही देवाकूड. हें पळय, देवाकुडीचें दार उकतें केलें म्हणटकीर आमकां चवथी वेळार बी आरत्यो म्हणपाक...'

'अ र्‌ र्‌ र्‌... तुवें हें चुकयलें. इतली व्हडली सुवात देवाखातीर वगडायली तुवें? हालीं तेंपार देव म्हळ्यार माळयेपोंदचे सुवातींत वा वण्टीचेर एका कुर्कुटांत दवरचेले. तरीपूण अजून हांगा हेवटेन एक खाट घाल्यार एक मनीस न्हिदूंक शकता.'

पावण्याचें उलोवणें आयकून घरकारा वांगडा म्हाकाय भिरभिरी मारली. पूण ताचें उलोवणें ह्या कानांतल्यान त्या कानांत सावन सोडून दिवचेलें. उपरांत घरकारान ताका रांदचीकूड आनी न्हिदपाकूड दाखयली.

'आनी हें कितें?' ताणें संडास-मान्र्याचें दार उकतें केलें.

''व्वा! व्वा! म्हळ्यार हांगा सकल रावतल्या लोकांची सोय हांगा जाली आनी अशेंच वयल्या मजल्यार आसा न्ही?'

'हय. ही जशी न्हिदपाकूड आसा तशीच वयरूय आसा. ताका तेंकून हें अशेंच संडास-मान्रें. हे रांदचीकुडीवयर दुसरी न्हिदपाकूड.' घरकारान ताका वयल्या मजल्यार व्हरपाचें टाळपाच्या हेतून सांगलें.

'आमचें घर हाचेपरस व्हड आसा. पूण पांचूय भाव आनी तांच्यो बायलो-भुरगीं असो घराबो म्हळ्यार नाका शेवट जाता. हांव मात्सो कांय तेंप भाड्याक रावन मागीर फ्लॅट घेतलो म्हणटां. देवान म्हाका ज्युस्तूच तुगेर कित्याक हाडलो तें आतां कळ्ळें.' पावण्यान म्हळें.

'पूण म्हाका कळ्ळेंना.' घरकारान हांसत म्हळें.

'कळटलें... पूण आयक. तूं ही संद सोडनाका. संद ही एकूचदां दार खटखटायता. ती वगडावपी मनीस जल्मभर पश्चाताप करता. पूण तुवें एकूच चूक केल्या ती म्हळ्यार, वयल्या मजल्यार वचचेली ही माळी भितरल्यान केल्या पळय, ती. पूण कांय नजो. आमी मात्शे वयर वचुंया.' पावण्यान सांगलें.

हरशीं देसेंत दिसपी आनी वागपी ह्या पावण्याचीं चिन्नां म्हाका बरींऽ लागलींना. कसलें अपसरण येता देव जाणां! धर्म करतां कर्म उबें रावलेंना जाल्यार पुरो, असो विचार म्हज्या मनांत आयलो. पावण्याचें वागप आनी उलोवप म्हाका मात लेगीत मानवलेंना. घर पळयतां पळयतां अशें कुवाड्यान उलोवपा फाटलो अंतस्थ हेतू कितें तेंवूय कळनासलें.

'व्वा! व्वा! वयर तेर्रासूय आसा. म्हाका मातसो तोवूय पळोवंक जाय.' पावण्यान म्हळें. तशें घरकारान म्हाका तेर्रासाची चावी हाडूंक सांगली. हांव चावी घेवन वयर गेल्यार पावणो वयल्यो कुडी आनी संडास-मान्रें पळोवन खोशयेन ताळयो पेट्टा तो दिसलो.

'चल, जालें म्हजें काम. हांव ही रांदचीकूड म्हूण वापरतां. आनी ती न्हिदपाकूड. हें संडास-मान्रें. म्हाका तसोच कोणूय मेळूंक आयल्यार सकयल आमकां बसपाकूड आसाच. पूण तूं भियेवंनाका. आमी वापरनात तेन्ना, तुका तशीच गरज पडल्यार हें संडास-मान्रें आनी तेर्रासूय आमी तुका वापरूंक दितां. आनी हें पळय, हांव रातीकडेन धा मेरेन

तरी घरा पावतांच पावतां. केन्नाय इकरा बी जाता तेन्ना म्हजी बायल येवन फुडलें दार उकतें करतली. तुमकां त्रास जावंचेले नात. चडांत चड स म्हयने ते वर्स हांगा काडचेलें. आतां तूं भाडें कितलें घेतलो तें सांग पळोवया.' पावण्यान आपल्या मनांतलें सांगलें.

'आं?' म्हजो आवरोच उडलो. हो आमच्याच घरांत बिराड करूंक सोदता तर! आनी धाडस केदें? आमच्या घराचे आपल्याक जाय तशे वांटे घालुनूय मेकळो! आमकां गरज पडटा तेन्ना वयलें संडास-मान्नें आनी तेर्रासूय वापरूंक दिता खंय ! जणूं आपल्या बापायचें येरांस !

'आमी आमचें घर भाड्याक दिवचे खातीर बांदूंक ना.' हांवें खणखणीत आवाजांत म्हळें. म्हज्या चेऱ्यावेलो हांसो शेणला हें म्हाकाय कळटालें.

ताणें 'हें !' असो म्हाका किंकोंत करपी आवाज काडलो आनी ल्हवू म्हज्या घोवाच्या कानांत बडबडलो - 'जोडपा बाबतींत ह्या बायलांचें आयकुचेलें नासता. पांयांतल्यो व्हाणो त्यो. पांयांतूच सोबतात. तांकां तकलेर बसोवचें न्हो.'

म्हाका तें ज्युस्त आयकूंक आयलें. अर्रा! म्हज्याच घरांत येवन, जेवन खावन वयल्यान म्हाकाच पांयांतली व्हाण म्हणपाची कापाजदाद? ताचें उलोवप आयकून म्हजे तकलेंत चक् चक् जोगूल चकचकलें आनी तिडकीचो गडगडाट जालो. तिडकी भरशीं त्या पावण्याक तेर्रासा वेल्यान सोमतोच फुडल्यान व्हांवता त्या व्हाळांत भिरकटावन उडोवचो असो विचार मनांत आयलो. पूण 'अतिथि देवो भव' म्हूण जाका वाडलो, ताचो म्हज्या घरांत अपमान जावंचो न्हय, अशें चिंतून हांव बसपाकुडींत आयलें. आतां ताका बेगिनांत बेगीन घरांतल्यान कसो कटोवप हें चिंतूंक लागलें.

'म्हणटकीर, तूं कशेंच जमपा ना म्हणटा? तूं सांगता त्या भाड्याचेर आनीक शंबर रुपया चड दितां. फकत स म्हयने ते वर्साचो प्रश्न.' तो जळू कसो हाचें रगत चिंवतालो.

'आमकां साडेतीनांक भायर सरून पणजे वचूंक जाय म्हणटा ती याद आसा न्हय?' हांवें घरकाराक बंडल मारलें.

'हय, हय. हाका गेटी मेरेन सोडटां आनी आमी रोखडींच भायर सरुंया. बरें आं, ह्या वाड्यार हेऽ थंय फ्लॅट बांदिल्ले आसात. थंय जाल्यार तूं यत्न कर' म्हणत घरकारान ताका गेट उकती करून दिली.

सभाग्या! आपलेखातीर एक भाड्याचो फ्लॅट पळोवंक आदार कर म्हण. सोमतोच आमच्या घरांत रिगूंक सोदता? देखून तो पावणो नाका आशिल्ल्या पावण्यांचे वळेरेंत गेलो.

आमी गोंयकार म्हळ्यार खंयूय आनी कोणाकूय आपल्यागेर येवचेलें सट करून

आमंत्रण दिवपी. खुबदां आमकां हेंच भुजता. गोंयाभायल्या मनशांक तर आमगेर येयात हां, म्हूण आमचो नामो दिवन, उपरांत नाका जाल्ल्या त्या पावण्यांचे साडेसातीच्या चक्रव्युहांत स्वताक सांपडावन घेवंचेलो आमकां गोंयकारांक खूब घोस्त.

एक दीस घरकाराच्या गोंयाभायल्या इश्टाचो, सुदिनाचो, फोन आयलो. सुदिनाच्या इश्टाची मडगांवां बदली जाल्ली. ताका भाड्याचो फ्लॅट खंय सोदून सोदून मेळना जालो. देखून सुदिनाच्या इश्टाचो घराबो - इश्ट, बायल, दोन भुरगीं आनी जाणटी आवय - इतलींच, फकत चार ते स म्हयने आमगेर रावतलीं. उपरांत तांची साखळे बदली जातकीर वतलीं. तांची सोय आमच्या वयल्या मजल्यार करची!

सायबा ! इश्टागतीचो फायदो घे, पूण गैरफायदो न्हय. आपल्या इश्टाखातीर भाड्याचो फ्लॅट सोद म्हणून सांग, पूण तुज्याच घरांत चार-स म्हयने बायल-भुरग्यांसयत पथारी पातळावंक दी म्हणूं नाका. आमचेकडल्यान इतली अपेक्षा करूंक आमी हांगेर एक दीस तरी रावल्यांत?

हांवें दुसऱ्याच दिसा घरकाराक, ताच्या इश्टाक - सुदिनाक - फोन करूंक सांगलो. आमकां मडगांवां भाड्याचो फ्लॅट मेळटा. म्हयन्याक फकत तीन हजार भाडें. बुक करूं काय नाका? रोखडीच जाप आयली - त्या इश्टाची मडगांवां बदली रद्द जाल्या आनी आतां तो गोंयां येवचेलो ना. वखद ज्युस्त लागू पडलें.

नाका आशिल्ल्या पावण्यांक तांकां दुखयनासतना कटोवप ही एक कला. एक दीस एक वराचेर, ज्युस्त म्हजो घरकार दुकानावयल्यान बँकेंत वचूंक, धा-पंदरा तरणाट्यांचें भिरेंच दुकानः सामकार आयलें. प्रत्येकाच्या खांदार प्रवासी बॅग. तांणी पःतेंय एकदां दुकानाचें नांव पळयलें आनी म्हज्या घरकाराचें नांव घेवन, हें तांचेंच दुकान काय म्हणून मराठींत विचारलें. हांवें हय म्हणनाफुडें तांणी म्हज्या हातांत एक चीट दिली. ती चीट घरकाराच्या गोंयाभायल्या इश्टान मराठींत बरयल्ली. चिटयेचो आशय आसलो - ही चीट घेवन येवपी तरणाटो तलाठ्याचो पूत. म्हजे साप्प गरजेचो मनीस. तो आपल्या इश्टांसयत आठ दीस गोंय पळोवंक आयला. तुमच्या वयल्या मजल्यार तांची सोय करची. आनी हां, जुनाट मतांचे वैनीक कसलोच त्रास जावंचोना, कित्याक तर ते भायलेभायर कुट्ट करून येतले.

आवयस् म्हजे ! म्हणजे हें येदें व्हडलें जितें अरिश्ट म्हजे सामकार उबें आसा तर! आनी हांची सरबराय करून वयल्यान हांव 'जुनाट मतांची वैनी'? अब्बा !

हांवें त्या भुरग्यांक जाप दिली - 'तांची बायल कुळारा गेल्या. ती म्हयनोभर कुळारा रावतली. हो मालक सकाळीं थंयसावन येवन, दनपरां हांगा हॉटेलार जेवता आनी तिनसांजे

परत मावोड्या वता. तांचें घर सद्या बंद आसा.'

'तुमी कोण तर? आमकां सांगिल्लें, तांची बायल दुकानार आसता म्हूण.' एकट्यान म्हळें.

'हांव हांगा काम करतां. हांव हांगाचें नोकर. हरशीं तांची बायलूय आसता. पूण सद्या ती सुटयेर गेल्या.' हांवें बिनधास्त ठोकलें.

'मालक येईसर आमी रावतात.' ते हालूंक तयार नाशिल्ले. आमचें सगळें उलोवप मराठींत चलतालें आनी शेजारच्या दुकानावयले, हांव फटी मारतां तें आयकून हांसताले. थंय लक्ष दिवंक म्हाका वेळ नासलो.

बँकेंतलें काम बेगीनूच जावन घरकाराची स्वारी हजर. केन्ना केन्ना म्हाका घरकाराकडेन एके वेगळेच तरेन उलोवंचेली संवंय आसा. ती त्या दिसा उपेगी पडली.

घरकाराक पळोवन हांवें म्हळें, 'आवहां, आण्टांम्ह तें आगळेंस आयह आयह म्हण, आव्ळेंक?' (हांव म्हणटां तें सगळें हय, हय म्हण, कळ्ळें?) उपरांत सांगलें - 'सर हे तुमगेर रावंक आयल्यात. हांवें तांकां सांगलें, तुमची बायल कुळारा गेल्या आनी ती म्हयनोभर येवची ना. तुमी सकाळीं मावोड्या सावन येवन तिनसांजे मावोड्या वतात हेंवूय सांगलें. तुमचेकडेन घडये घराची चावीय नासतली. ही चीट घेयात आनी वाचात. तांणी म्हाका ही चीट वाचूंक दिली. तुमकां येवंक कळाव जायत आनी तांचें काम उरत म्हणून हांवें ती चीट वाचली हां सर. तुमच्या इश्टान बरयल्या ती.'

ती चीट वाचून आनी वैनीची केल्ली तुस्त वाचून घरकाराक शेळो घाम फुटलो. शेक्सपियरान म्हळ्ळां तशें हाणेंय रंगमाचयेवयलें काम बेस बरें केलें. ज्युस्त तुमी येवंक तुमची वैनी कुळारा गेल्या. तरी नुमकां जाय जाल्यार रावंक हॉटेलांत वेवस्था करतां म्हूण तांकां सांगलें. त्या तरणाट्यांनी आपले भितर गुजूगुजू केलें आनी ते कोलव्यां सावन फुडें खंय हॉटेल मेळटा थंय रावतात म्हणत गेले.

हो लेख म्हळ्यार लेखिकेच्यो कल्पना न्हय, तर वास्तव, घडिल्ल्यो घडणुको. नाका आशिल्ल्या पावण्यांचीं खुबशीं अरिश्टां म्हाका परतावचीं पडल्यांत.



१७.

# आनी एकदांचें साळावलेचें उदक आयलें

पांच वर्सां जालीं. अंदू जुनासावन साळावलेचें उदक येता, उदक येता, मडगांवाक उदक मेळटा हें काकीबाय आयकत आयिल्ली. पूण वर्सान वर्स जून उजवाडटकच फुडल्या जुनाक उदक येता म्हणपाचें काकीबायक कळटालें. तें आयकून काकीबाय वसूर्यभर उदक काडटा आसतना सरकाराक तोंडान पुष्पफुलां ओंपताली आनी बांयचें उदक काडून वयले माळयेर व्हरून काम करताली.

'नाय जाल्यार बांयचें उदक काडून तुका बरो व्यायाम जाता आनी ताका लागून तूं चाळीस वर्सांची दिसनासतना आतांच खंय तिशीकडेन पाविल्लेभशेन दिसता' अशें जेन्ना तिका घोव म्हणटालो, तेन्ना 'पुरो म्हळ्यार, तुमचें आनी कित्याय कितें' अशें म्हणून मनान सुखाविल्ली काकीबाय आनीक नेटान बांयचें उदक काडी. अशे तरेन काकीबायक फुलां माळून काकीबायलो घोव हातार हात धरून बसतालो.

अंदूय, जून सावन उदक येता म्हूण काकीबायन आयकल्लें. तें आयकून तिणें म्हळें, 'झक मार तें उदका प्रकरण. असल्या खबरांचेर विश्वास दवरचेलो ना. पांच वर्सां जालीं, उदक येता, उदक येता म्हूण कान किटसर आयकतां. उदकाखातीर घश्टो काडून दोळ्यांतल्यान मात उदक येता.'

'आगे, पूण अंदू खऱ्यांनीच उदक येता.' घोवान तिका समजावपाचो यत्न केलो.

'तें कांय ना, नळांतल्यान उदक येता तेन्नाच आमी तें खरें समजुपाचें. तेमेरेन तीं फकाणां म्हणपाचीं.'

'आगे, दिसाळ्यांतली खबर वाच मगे, आयची खबर वाच. साळावले पायपलायनीची चांचणी निमाण्या पांवड्यार' अशी आयची खबर आसा.' घोवान म्हळें.

'येवं थंय ती खबर. त्यो निमाण्या पांवड्यार पाविल्ल्यो खबरो वाचतां वाचतां हांवूय निमाण्या पांवड्यार पावची जालीं.' काकीबायन म्हळें.

'आगे, अंदूं जून मेरेन मडगांवाक उदक...' घोवाचें वाक्य पुरो जावचे पयलींच काकीबाय तिडकली.

'ती गजाल सांगून म्हजी तकली भेरार करनाकात आं! पयलींच सांगतां. सकाळींफुडें कितेंय उलोवन म्हजी तकली पेड्ड्यार करपाची आवड तुमकां. पांच वर्सां जालीं. सगळे

नळ उकते आसतात. एक थेंब लेगीत उदक आयलें ना आयज मेरेन. नळांतल्यान उदक आयिल्लें म्हज्या दोळ्यांनी पळेतलीं तेन्नाच खरें समजतलीं.'

घोव बाबडो वोगी रावलो. उदक येतलें म्हणपाचे खबरेर काकीबाय कसोच विश्वास दवरचेली ना म्हणपाचें ताका पटलें. तो उठलो. कामाक गेलो.

काकीबाय आपल्या कामाक लागली खरी, पूण मनान चिंतताली. एक जुनाक भुरग्याक हाडूंक वास्को वचूंक जाय. नाय जाल्यार भुरगीं आज्जेगेर वतकीर बरें जाता. सुटयेन तरी काकीबायक सुशेग मेळटा. चड उदक वयर हाडचें लागना.

दुसऱ्या दिसा घोव-बायलेन तीस मेक सांजवेळा वास्को वचून एक जुनाक सांजवेळा घरा परतुपाचें थारायलें. काकीबायक दोन दीस मात्सो सुशेग. तीस मेक सांजवेळा तांणी घराक कुलूप घालें. शेजराय कोण ना. सगळीं जाणां सुटयेंत खंय खंय गेल्यांत तीं बद्द दोन जुनाक परतुपाचीं. काकीबाय आनी घरकार वास्को गेलीं.

एक जुनाक सकाळींफुडें काकीबायल्या घोवान हातांत दिसाळें घेतलां मात, तो उसळ्ळोच. ताचेर व्हडा अक्षरांनी छापिल्लें - एकतीस मे सावन मडगांवकारांक उदक मेळ्ळें. नळांतल्यान उदक व्हांवनाफुडें उदकाक वळवळिल्ल्या मडगांवकारांनी माराण लायले. तेभायर उदक येनाफुडें मडगांवां खंय खंय सत्यनारायणाची म्हापूजा करपाचें थारायलां, तेंय बी 'खास प्रतिनिधी' कडल्यान मेळिल्ले खबरेवयल्यान कळ्ळें. काकीबायल्या घोवान किळांच मारून बायलेक आपयली.

ती खबर आयकनाफुडें काकीबायन आसा थंयच बसकण मारली. घोव भियेलो. 'आगे, कितें जालें?' ताणें विचारलें.

'खऱ्यांनीच उदक आयलें? इतली खोशी जाली म्हूण सांगूं! म्हाका खरेंच दिसना. म्हज्या काळजांत कितें तरी जाता.' काकीबायन म्हळें.

'आगे, सुशेगाद बस. घे, हें थोडें उदक पी. तुका चड खोशी जाल्ल्यान तें तशें जालां.' घोवान म्हळें.

'म्हाका खरेंच दिसना. खऱ्यांनीच उदक आयलें? खऱ्यांनीच आमच्या नळांतल्यान हाचेफुडें उदक येतलें?' तकलेर परिणाम जाल्लेभशेन काकीबाय घोवाक तेंच तेंच परतें परतें विचारताली. अशे तरेन उदक आयिल्ल्यान काकीबायक कितपत धक्को बसला ताचो अंदाज घोव घेतालो.

जांणी उदक हाडपाखातीर यत्न केले तांचें बरें जावं. त्या सगल्यांचें बरेंऽऽ जावं. भागीरथान सर्गांतल्यान गंगा भुंयेर हाडूंक इतले यत्न केल्ले जाल्यार देव जाणा! त्या बाबड्याचें बरेंऽ जावं!' काकीबाय अजून मानसिक धक्क्यांतल्यान सांवरूंक नाशिल्ली.

इतल्यान नेहा आनी राज, काकीबायलीं भुरगीं, थंय आयलीं.

'मम्मी मम्मी, मडगांवां उदक आयलें खंय. आमी घरा या. बेगीन घरा या.' दोगांयनी म्हळें. निमणें बेगीन बारा वरांचेर घरा वचपाचें थारायलें.

रिक्शा, बस, रिक्शा असो एकूण प्रवास करून काकीबाय आनी फामिल धांवधांव घराच्या शिडेच्या सपणांकडेन पाव जाल्यार थंय उदकाचें तळें. घसघस करून सपणांवयल्यान उदक व्हांवतालें.

'उदक, उदक... मम्मी, डॅडी... उदक... उदक...' भुरगीं किळांचलीं.

'हांगा उदक कशें?' काकीबाय आड्डली.

'हें आनी कितें?' अशें म्हणत, सर्कस करीत सगळीं शिडी चडून फ्लॅटाच्या दारांत पाव जाल्यार, घरांतल्यान सगळ्या नळांतल्यान घोग्यांनी उदक व्हांवता तें आयकूंक आयलें. तें व्हांवून व्हांवून फ्लॅटाच्या दारांतल्यान भायर येवन व्हरांड्यांतल्यान सपणांचेर वचून थंय व्हडलो फोंड पडिल्ल्यान थंय तळें जाल्लें.

खीणभर सगलींच काचाबूल जालीं.

'मम्मी, चावी काड. दार उगड मगे... बेगीन दार उगड.' राज आड्डलो.

काकीबायक कांयच सुचनाशिल्ल्यान चावी मेळना जाली म्हूण घोवानच दार काडलें.

'आगे बाये, घरभर उदक जालां', काकीबाय भंयान आड्डली.

'चला, चला भुरग्यांनो... धांवात आनी बेगीन नळ बंद करात. उदक आयलां, नळ बंद करात...' काकीबायलो घोव आड्डलो. तो प्रसंगूच तसो आशिल्लो.

धांवत वचून भुरग्यांनी नळ बंद केले. दोनूय कुडी, बसपाची कूड, रांदची कूड सगळें घर उदकान भरिल्लें. कितलेंशेंच सामान उदकांत पेंवतालें.

'जाय उदक? घेयात उदक !' नेहान म्हळें.

इतल्यान फोन खणखणलो. ट्रींग ट्रींऽऽग... काकीबायन फोन उबारलो. 'हॅलो, कोण उलयता?'

'आगे वैनी, तुमकां उदक आयलें खंय?'

काकीबायक बायले आवाज आयकूंक आयलो. ती कोण, कितें कात कांयच विचारनासतना 'हय उदक आयलांच न्हय, तर घरभर उदक आयलां' अशें म्हणून उबगिल्ले काकीबायन ढण् करून फोन आपटिलो.

पणजे सावन फोन करपी काकीबायली नणंद. उदक आयलें तरीय भावज कित्याक तणतणली म्हणपाचें येवजीत रावली.





१८.

# हजबण्डस् होते ही ऐसे हैं

भौ. रवीन्द्र केळेकार हांचें विचारीक लेख आशिल्लें 'समिधा' हें पुस्तक वाचतालें. 'अबला जीवन हाय तुम्हारी यही कहानी' हो लेख वाचतां वाचतां एकशें बारा पानार पावलें. थंय रवीन्द्रबाब बरयतात - 'थ्रॉटन वाइड्लरचें एक नाटक वाचिल्लें. 'मॅचमेकर' नांवाचें. पन्नासांवयले पिरायेचो एकलो विदूर दुसरें लग्न करपाक मुखार सरता... ह्या नाटकांत वाइड्लरान त्या लग्न जावंक सोदतल्या मनशाच्या तोंडांत एक संवाद घाला. तो प्रेक्षकांक विचारता - 'हे पिरायेर हांव लग्न कित्याक जावंक सोदतां, तुमकां खबर आसा? सॅक्सा खातीर? च्ये ! सॅक्स म्हज्यान खंयूय घेवं येता. हे पिरायेर सॅक्साक व्हडलेंशें म्हत्वूय ना. पुणून फट कित्याक उलोवं? हेंच पळेयातिं, जेवण रांदून वाडपाक एकली रांदपीण हांवें दवरल्या. तिका पगार दितां. ते भायर, जेवंक खावंक दितां. दुसरी एकली येता ती आयदनां घांसता, सान्न मारता आनी वता. तिवूय पगार घेता. ते भायर जेवण खाण घेता. तिसरी येता, मुस्तायकी उमळटा. हांतरूण घालता. तिवूय पगार घेता. जेवण खाण घेता. घरा भौंवतणीं हें एक सुंदर पौरसूं हांवें तयार केलां तें शिंपपाचें काम कोणें करूंक नाका? ते खातीर आनीक एकली येता, तिवूय पगार घेता, जेवण खाण घेता आनी वता. चवगी चवगी बायलो म्हगेर कामाक आसात. इतलेंय आसून एकूय काम सारकें जायना. हाचे परस, धरुंया, हांव लग्न जालों आनी एक बायल घेवन आयलों, जाल्यार ती एकलीच हीं सगळीं कामां करतली आनी वयल्यान आपणाक मालकीण मानतली. तिका एकलेकूच जेवण खाण दिवन भागतलें. पगार दिवचो पडचो ना... कळ्ळें, हांव दुसरें लग्न कित्याक जावंक सोदतां तें?...'

'घोवाक बायल जाय ती हे खातीर. ताचें घर सांबाळपा खातीर. ताची सगळी सेवा करपाखातीर. तिका, मागीर, बांदून दवरूंक नाका? तिका बांदून दवरपा खातीर तो धर्मशास्त्राचो आधार घेता. तिचे मुखार सीतेची देख दवरता. तूं म्हजी 'घरकान्न' म्हूण सांगता. घरकान्न म्हळ्यार गृहिणी. गृहिणी बगर घर सोबना. आनी गृहिणीची व्हडवीक गायता. तो म्हणटा, तूं कोण जाणा म्हजी? कार्येषु मंत्री, कारणेषु दासी, भोज्येषु माता,

शयनेषु रंभा. आपणालीं असलीं वर्णनां आयकतकूच ती भुलता. भुल्लुसून वता आनी पुरायेन घोवाचेर निंबून रावता.

सगळे घोव सभावान लोफर. घर सांबाळपी कोणूय आसली म्हणटकूच ते मेकळे, जाय तें करपाक, जाय थंय वचपाक. धर्मशास्त्रां तांणीच रचल्यांत. आवय, आवय म्हूण बायलमनशेची जी व्हडवीक चल्ल्या तिवूय हेच खातीर. ती घरांत बांदून उरची म्हूण.

बायल गुलाम जाल्यार ती तिच्या ह्या 'पदा'क लागून न्हय मू?'

'समिधां'तलें हें एक एक वाचतां वाचतां म्हाका टिट्ट, टिट्ट, टिट्ट, टिट्ट जावंक लागलें. 'सगळे घोव सभावान लोफर. घर सांबाळपी कोणूय आसली म्हणटकूच ते मेकळे जाय तें करपाक, जाय थंय वचपाक' हीं उतरां तर भौन भौन म्हज्या दोळ्यां सामकार नाचूंक लागलीं. सगळे घोव सभावान लोफर जाल्यार म्हजो घोव कसो आडवाद आसुंये? आं? आयज चोवीस वर्सां हांव ताचे वांगडा संवसार करतां आनी म्हगेल्या लोफर घोवान म्हाका आपलें घर सांबाळूंक हाडलां, कित्याक तर आपल्याक जाय तें करपाक (म्हळ्यार आनी कितें काय?), जाय थंय वचपाक. हें म्हाका इतलो तेंप समजलेंच ना. म्हळ्यार, म्हजी बुद्द साप्प धोंपरांत गेल्ली म्हणची पडली ना? तरी बरें, हांवें हो लेख वाचलो म्हणून! ना जाल्यार हांव बाबडें समजतालें, म्हाकाय घोवाची गरज आसा. तो म्हजो, हांव ताचें, घर आमचें, भुरगें आमचें... पूण च्ये! हाणें म्हाका आपल्या घरांत बांदून गुलाम केलां. हांव ताचें घर सांबाळटां, हांव ताचो संवसार चलयतां, हांव ताचें चली व्हडलें करतां... च्ये ! म्हाका पिकासांव. विचारीक लेखांत रवीन्द्रबाब गंभीरपणान 'सगळे घोव सभावान लोफर' अशें विधान करता म्हणटकूच तें खरेंच आसूंक जाय. जावं, उसरां काय जायना, म्हाका जाग आयली.

आमचें मोगा-लग्न न्हय. आवय-बापायन थारायल्लें. हें जरी खरें आसलें, तरी लग्न करपा फाटलो 'घोव' जातीचो म्हाका मागमूस आतां लागलो - चोवीस वर्सां संवसार केले उपरांत. हांवें खाटीर बसून पुस्तक वाचतल्या म्हज्या घोवा कडेन 'खावूं काय गिळूं?' हे नदरेन पळयलें. दोन दीस जाले, तो जोरान बरो ना. ताचो ताळो फुल्ला. हांव कशे तरेन पळयतां तें ताका खबर ना. तो वाचत आसा. म्हळें, जोरांतल्यान बरो जावंदी, मागीर सांगतां, हांव 'कार्येषु मंत्री, कारणेषु दासी, भोज्येषु माता, शयनेषु रंभा' काय कितें ती!

ह्या पावसाळ्यांत सगळेकडल्यान लोक दुयेंत पडिल्ल्याची खबर आयकूंक येताली. मात्सो जोर येवपाक तो जोर दुसऱ्याच दुखण्याक लागून उप्रासला म्हणपाच्यो खबरो आयकल्ल्यो. हांवें घोवाक म्हळें, 'बाबा रे, तूं मातसो दोतोरागेर वचून यो हां.'

ताणें जाप दिली, 'हॅड! दोतोर कित्याक जाय? हो तर सादोऽ जोर. मॅडिकल रिप्रेझेन्टेटिव्ह म्हूण काम करतना तर हांव असलो जोर घेवन काम करतालों. हे खेपे तूं बोवाळ घालता म्हूण  हांव दुकान उकतें करिनासतना दोन दीस जाले, घराच बसून आसां. पूण परांच्यान हांव दुकान उकतें करतलों.'

हांव ओगी रावलेंना. म्हळें, 'सायबा, जोर आंगार घेवन काम करतालो तेन्ना तूं तरणाटो आसलो. आतां हे वाडटे पिरायेचेर मात्शें कितेंय जालें तरी दोतोरागेर वचूंक जाय.'

हय ना, हय ना करतां करतां हांवें ताका धुवे वांगडा - रमा वांगडा दोतोरागेर धुकल्लोच. तिनसांजे, सात वरांचेर स्कूटर घेवन, रमाक फाटल्यान बसोवन तो दोतोरागेर गेलो. हांवें घरांतलें काम केलें आनी तांची वाट पळोवंक लागलें. उशीर जालोसो दिसून मात्सो हुस्कोय जालो. फुडल्या जनेलाकडेन येवंक रमा धांवत धांवत येवन, खर्शेत खर्शेत गेट उकती करता तें दिसलें. हांव भियेलें आनी भायर गेलें. रमा सोप्यार बसकण मारून नेटान स्वास घेतालें.

'आगो, तूं धांवतशें आयलां? आनी पप्पा गो?' हांवें रमाक, घोवाले धुवेक विचारलें.

'राव' म्हणत ताणें थोडो विसव घेतलो. उपरांत म्हळें, 'माँ, तूं भियेवं नाका. दोतोरान पप्पाक तपासलो आनी पप्पा येवन भायल्या सोफार बसलो. दोतोरान वखदां बरोवन दिलीं आनी आमी भायर आयल्यार पप्पा घुंवळून पांयपुसण्याचेर पडला.'

'आं?' म्हाका अजाप जालें.

'पप्पा आतां स्कूटर चलोवंक शकचोना. ताणें शेजारच्या दिनेशाक येवन आपल्याक घरा हाडपाक सांग म्हूण सांगलां.'

हांवें रोखडोच दिनेशाक फोन केलो आनी हांव आनी रमा दोतोरागेर गेलीं. थंय गेल्यार दोतोरान सांगलें, 'तुज्या घोवाक आतांच हॉस्पिटलांत व्हर.'

'आं?' हांव आयकतूच रावलें. 'लाथ मारीन तेथें पाणी काढीन' अशी सणसणीत भलायकी आशिल्ल्या म्हज्या घोवाक हॉस्पिटलांत घालपासारकें अशें कितें जालें काय? आनी तेंवूय बी दोन दिसांच्या जोरान?

हांवें शेजारच्या दीपकाक सगली खबर सांगली. तो आपली गाडी घेवन आयलो. दिनेश, दीपक, रमा आनी हांव म्हज्या घोवाक घेवन हॉस्पिटलांत गेलीं. थंय ताका रातभर 'सोर' लायले. रमा -म्हज्या घोवालें चली - आपल्या पप्पाक कितें जाय-नाका तें पळेतालेंच. आनी माँ, तूं न्हीद, तूं च्या पी, तूं जेवन यो अशें म्हणत म्हजे विशींय मोग दाखयतालें. दुसऱ्या दिसा घोवाक घरा वचपाची परवानगी मेळ्ळी आनी म्हयनोभर

घराच सुशेग घेवंक सांगलो.

एका सप्तका उपरांत घोव मात्सो बरो जालासो दिसलो. इतले दीस बंद आशिल्लें दुकान हांवें उकतें करचेलें थारायलें. घोवान हयकार दिलो. दुसऱ्या दिसा हांवें बेगिबेगीन रांदलें. हरशीं हांव रांदतां तेन्ना हो देवपुजा करता. पूण आज सगळेंच काम हांवें करचेलें आनी इतल्यान म्हाका येवजलें, 'आरेच्या ! हांव घोवाची रांदपीण आसतां तेन्ना तो देवपुजा करपी भट आसता !'

सगळें घरकाम करून हांव भायर सरलें. हरशीं आमी स्कुटरीन वतात. घोव चलयता आनी हांव आरामांत फाटल्यान बसून वतां. आं?... म्हळ्यार म्हजो घोव ड्रायव्हर जालो ना? आज भट दुयेंत म्हूण हांवें देवपुजा केली, आज ड्रायव्हर दुयेंत म्हूण म्हाका बसीन वचूंक जाय. दुकानार पावलें आनी घोव करता तीं सगळीं कामां हांवें केलीं. तकलेक ताण जालो. हरशीं जोडी खातीर लागतल्यो सगळ्यो कटकटी घोव सोंसता आनी हांव तकलेर भार घेनासतना ताका आदार करतां. म्हाका घोवाच्या आनीक एका रुपाचें दर्शन जालें - जोडकार !

देडाक दुकान बंद केलें आनी खरेदी करूंक गेलें. हो दुयेंत जाल्ल्यान फ्रिजांत एकूय भाजी उरूंक ना. हांवें बटाट, तोमात, कांदे, फ्लावर, धवी भाजी, मुळे, भेंडे, दुदया शीर, तांबडी भाजी - मेळटा तें घेतलें. पिशवी बरी जड जाली.

'आवय गे! इतली जड पिशवी !' - आनी तेन्नाच घोवाचें आनीक एक रूप दोळ्यां सामकार रावलें. हांव खरेदी करतां तेन्ना तो... तो मानाय ! इतलें जड सामान घेवन फिरपी मानाय! म्हाका तें सामान घरा हाडटासर नाकाशेवट जालो.

म्हगेलें तें बाविल्लें मुखामळ पळोवन घोवान सांगलें, ''सांजवेळा दुकान बंद दवर हां. नाजाल्यार तूंय दुयेंत पडटलें.''

'आं !' कारणेषु दासी आशिल्ल्या म्हाका हो घस्टून घेनाशिल्लो तर ! हांव ताच्या सभावांतलीं लोफरपणां बारीकसाणेन सोदतालें.

जेवलीं-खालीं, आड पडलीं. तिनसांज जाली. इतलो वेळ आशिल्ली वीज गेली. परती आयली ती खंयचो तरी फ्यूज उडोवन गेली. घोवाचो जालो वायरमॅन. फ्यूज काडूंन, ताणें तार घेवन फ्यूज सारको केलो. आरेऽ! म्हळ्यार एक फुकटचो वायरमॅन ! व्वा! व्वा! म्हज्या घोवाचेर हांव बारीक नदर दवरून राविल्ल्यान म्हाका घोवाचीं तरेतरेचीं रुपां दिश्टी पडलीं - कार्येषु भटजी, कार्येषु ड्रायव्हर, कार्येषु प्लंबर, कार्येषु गंवडी, कार्येषु पेंटर... आनीक जायतीं. आतां गरजेक इतल्याय लोकांक सोदून हाडून कामां करून घेवप म्हळ्यार कितलें कटकटीचें ! ते परस एकाच दादल्याकडेन लग्न जालें की तो ही सगळीं

कामां प्रसंगाक करता आनी वयल्यान आपूण 'घोव' म्हूण मिरयता. ताका मातसो चण्या झाडार चडोवंक जाय, इतलेंच. गरजेक हातुंतलीं खूबशीं कामां हांवूय करतां खरें, पूण तो आसतना तीं कामां हांव ताचेरूच धुकलतां. ताच्यांत आनी म्हज्यांत फरक तो इतलोच. हांव तोंड धांपून ताचेरूच निंबून राविल्लेसारकें दाखोवन, ताका म्हत्व दिवन सगळीं कामां ताचेकडसून करून घेतां. तो मात बोवाळ घालीत सांगता - 'तूं कोण जाणा म्हजी? कार्येषु मंत्री, कारणेषु दासी, भोज्येषु माता, शयनेषु रंभा...'

दोतोरान सांगिल्लें, नाचण्याचें सत्व एका दिसा आड तरी करून दी. सद्दां केल्यार ें. हांवें तें ताका सद्दां करून दिलें. कित्याक जाणा? तें खावन तो बेगीन बरो जावन आपल्या कामाची जापसालदारकी घेवची म्हूण. सगळ्यो सुखसुविधा मेळोवंक बायलेक घोव नाका तर? म्हाकाय घोव जाय तो म्हज्याच सुखाखातीर.

आतां घोव घटमूट जाला. आमचीं भियेल्लीं आनी बाविल्लीं मनां परतीय जिणेच्या तरेतरेच्या रंगांनी रंगूंक लागल्यांत. इतलो तेंप तो दुयेंत म्हळ्यार 'तशें कांयच' येवजनाशिल्लें. आयज उकत्या जनेलांतल्यान येवपी चान्न्याच्या उजवाडांत ताचें भुलयणें आनीक एक रूप दिसलें - 'शयनेषु मदन.'

'शयनेषु मदन' म्हणत हांव हांसलें, मोठ्यान हांसलें. तो न्हिदूं नाशिल्लो.

'कितें जालां? हांसता कित्याक?' घोवान विचारलें.

बायल घरांत बांदून घेवन रावल्या, गुलाम जाल्या ती स्वताच्या सुखाखातीर, घोवाच्या सुखाखातीर न्हय. तरी पूण बायलेक आपणें आपल्या सुखाखातीर बांदून दवरूंक धर्मशास्त्राचो आधार घेवन तिची फटीची व्हडवीक गावन, भुल्लुसावन तिका आपल्याचेर निंबून दवरल्या, तिका गुलाम केल्या असो गैरसमज करून घेवपी 'घोव' जातीची म्हाका काकुळट दिसली

हांवें हांसत ताका जाप दिली - 'हजबण्डस् होते ही ऐसे हैं !'



## श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | उमजणी | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | जिवीत एक तियात्र | नाटकुलीं | शॅरोन माझारेलो |
| ३. | चौफूल | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | पिटकुलीं नाटकुलीं<br>(पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट १९९८)<br>(दुसरी उजवाडावणी : डिसेंबर १९९९) | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| ५. | भौरंगी जीण | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | मोराची करामत | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | आंकवार काजारी | नाटक | रवींद्र नमशीकार |
| ८. | नुपी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | रानांतल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | घोंटेर | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | दुरीग | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | चिमी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | हिरन आनी वांस्वेल | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | डॅडी | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | पिटकुल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | शिंव आनी कासव | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | पडबिंब | निबंध | दीपा मुरकुंडे |